


प्रकाशक / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
दूरध्वनी / (०८३२) २४३८३५५.
प्रकाशन क्र. / १०३. अक्षर जुळणी / बिम्ब प्रकाशन.
छापणावळ / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

पयली आवृत्ती / डिसेंबर २०१४.
मुखपृश्ठ / गिरीश नंदा बोरकार.
यादींतलीं माणकां-मोतयां (ललित) नं. ध. बोरकार.
Yadintli Mannkam-Motyam (Essays) *by N. D. Borkar*
मोल : ₹ १८०/-




ISBN : 978-93-84951-91-7

जिविताच्या प्रवासांत
सांपडिल्लें
आनीक एक
माणीक मोतीं
**पद्मश्री सुरेश गुंडू आमोणकार**
हांकां इश्टागतीन...

# मांडावळ

# मनोगत

‘**या**दींतलीं माणकां-मोतयां’ हें बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्लें म्हजें आठवें पुस्तक. हे आदीं म्हज्यो चार कादंबऱ्यो, दोन नाटकां आनी एक निबंदां झेलो, अशीं सात पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ह्या सातय पुस्तकांचें स्वागत, कोंकणी आनी मराठीच्या वाचप्यांनी केलां, हें सांगूंक खोस भोगता.

हें म्हजें आठवें पुस्तकय वाचप्यांक आवडटलें, हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

आठ पुस्तकां उजवाडाक आयलीं म्हूण हांव व्हडलो साहित्यीक जालों, अशें मानूंक तयार ना. हांव मनांत येता तें बरयतां आनी ताचो दर्जो थारावपाक जाणकारांकडे दितां.

हांवें चार कादंबऱ्यो बरयल्यो आनी प्रस्तावने खातीर जाणकारांकडे सोंपयल्यो. ताणीं बरो अभिप्राय दिल्या उपरांतच हांवें फुडलीं पावलां मारलीं.

आतां म्हजी ‘सपन’ ही पांचवी कादंबरी चलता. ती रोखडीच पुराय जातली अशी आस्त बाळगितां.

ललीत साहित्यलेखन हें लेखकाक लागिल्लें व्यसन. म्हाकांय तें जडलां. सोडटलों म्हणल्यार सुटना. ह्या व्यसनाक लागूनच, ‘म्हज्या बोटव्यांतलीं माणकां-मोतयां’ हो निबंदा झेलो उजवाडा येता.

आतां म्हज्या ‘यादींतलीं माणकां-मोतयां’ हाचे बाबतींत थोडो विचार केल्यार कोणूय म्हणटलो, कसलीं माणकां-मोतयां भरल्यांत काय हाचे यादींत? आसतलीं कसलींय नकली-बिकली! कारण आयज अवतीं-भोवतीं पळोवंक मेळटा तें चडशें नकली आनी खोटेंच आसता.

पूण म्हजे यादींतलीं माणकां मोतयां म्हणल्यार हाडामांसाचीं, चलपी-फिरपी मनशां. हीं म्हजे यादींतलीं मनशां म्हाका चकचकीत आनी झगझगीत फातर-खड्यां परस चड मोलादीक दिसतात. कारण तीं मनशांच्या गळ्याची सोब वाडोवन, गिरेस्तकायेचें प्रदर्शन घडोवन हाडपा खातीर नासतात, तर तांची निर्मणी, ईश्वरान राष्ट्रोन्नती खातीर मुजरत केल्ली आसता. आयज आमच्या राष्ट्राक दीस रात कुलच्यांवाचेर लोळून रावपी गिरेस्तांची गरज ना. गरज आसा ती समाजाक देख दिवपी कश्टकारांची. हीं कश्टकार मनशांच म्हगेलीं खरेलीं माणकां.

म्हज्या ह्या पुस्तकांतलीं सगळीं व्यक्तिचित्रां समाजाक देखदिणी आसात. तातूंत गांवगिऱ्या वाठारांतलो बऱ्या मनाचो कोस्तूभाटकार आसा, आपल्या कुटुंबाची मरऽमेरेन काळजी घेवपी पिरायेचो शेकडो हुंपपाचे वाटेर आशिल्ली, मध्यमवर्गीय पापडकान्न राधामावशी आसा, समाजकार्यकर्तो विठूशेट आसा, आदर्श शिक्षक घार्सो सर आसा.

हीं सगळीं म्हजे यादींतलीं माणकां-मोतयां. हांकां सगळ्यांक हांव मोलादीक माणकां-मोतयां म्हणटां. कारण हीं समाजांत वावुरतना फकत सुवार्थाचो विचार करिनात, हेरांच्या हिताचोय विचार करतात.

म्हज्या ह्या पुस्तकाक सदांभशेन गिरीश बोरकारान सोबीत मुखपृश्ट तयार केलां. ताचे हांव उपकार मानतां.

बिम्ब प्रकाशनाचे उपकार तर हांवें एकदम मानून दवरल्यात. ते परत-परत मागपाची गरज ना, अशें म्हाका दिसता.

**- नं. ध. बोरकार**

मास्कारेन्यस वाडो,
व्हडलें गोंय, तिसवाडी.
फोन : ०८३२-२२१८१४७

# रवीन्द्रबाब म्हाका भेटिल्लो पयलो सारस्वत

म्हजे कितलेशेच इश्ट आसात, जे स्वताक सारस्वत मानतात. मानू बाबडे! तांकां धर्मान आनी समाजान, जातिव्यवस्थेच्या आदारार तसो अधिकार दिल्लो आसा, तांणीं ताचो लाव कित्याक म्हूण घेवचो न्हय? लोक जर तांकां सारस्वत – बामण म्हूण व्हडपण दितात, तर ताणीं तें कित्याक म्हूण न्हयकारचें? कोणे कोणाक कोण मानचो, हो जाचो ताचो प्रस्न! हेरांक तांच्यांत ढवळाढवळ करची गरज आसा, अशें म्हाका दिसना. हाचो अर्थ मात कोणें असो घेवचो न्हय की हांव जातपातीक तेंको दितां. पूण जांकां सारस्वताचें खरें मोल खबर आसना, ताचें लोकांमदें हांशें जाता, हातूंत मातूय दुबाव ना.

म्हजे तकलेंत सदांच दोन तरेचे सारस्वत घोळटात. पयले तरेंत सरस्वतीची उपासना करून, म्हणचे शिकून, विद्या प्राप्त केल्ले सारस्वत. ह्या लोकांनी विद्या प्राप्त केल्ली आसता ती फकत धन-दौलत जोडपा खातीर. हे लोक निव्वळ वेपारी आनी वेव्हारी आसतात. जाय तेन्ना तोपी फिरोवपी. ते कालमान वळखून शेंडी-जानव्याची कदर करचेनात. पूण वेळ-प्रसंगार, सामकारच्या मनशाक आपूण सारस्वत म्हूण सांगपाक विसरचे नात.

दुसरे तरेचो सारस्वत हो सरस्वतीचो उपासक आसताच, शिवाय तो सैमातलें आनी मनीस जिणेतलें सत वळखून सताचो पुजारी जाता. तो विद्वान आसताच, ते भायर ताका काळीजूय आसता. दये-

मायेन उप्पाट भरिल्लें. व्हडांक दोळ्यां आड करून ल्हानाच्यो चुको आनी गुन्यांव माफ करपाची तांक ताच्यांत पुरायेन नासली, तरी ती हेरांपरस निश्चितूच चड आसता. तांकां ब्राह्मण्याचो अर्थ खबर आसता. ते खरेल्या अर्थान सरस्वतीचे पुजारी आसतात.

म्हजे दिश्टीन रवीन्द्रबाब केळेकारूय असल्यांतलेच एक आशिल्ले. ते कोंकणीवादी आसुनूय मराठीवादी आनी हेर सगळ्या थरांतल्या लोकांनी तांच्या मरणावेळार गर्दी केल्ली हाचेवेल्यान हांव हें म्हणूंक शकतां.

रवीन्द्र केळेकार कोंकणीभक्त आनी हांव मराठी प्रेमी. दोगांचींय मतां वेगळीं आशिल्ल्यान सहजतायेन लागसार घडपाची शक्यताय उणीच. कुडींनी पयस आसले तरी मनांनी मात तेकून आशिल्ले आमी.

तांचें 'नवप्रभा'तलें 'स्वगत' हांव नेमान वाचतालों. तांचे कोंकणीविशींचे विचार म्हाका मानवनासले. पूण ते एक तत्वज्ञ आनी विचारवंत म्हूण तांचेविशीं म्हज्या मनांत आदर आशिल्लो. तो एक उच्च दर्जाचो मनीस, हें म्हजें मन म्हाका सांगतालें.

एक दीस रवीन्द्रबाबांक लागसारच्यान पळोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी. तें जालें अशें – कोंकणी कवी रमेशबाब वेळुस्कार हांणीं म्हजे मजतीन आगशी गांवांत रवीन्द्रबाबांचें एक व्याख्यान घडोवन हाडलें. विशय आसलो, 'म्हाभारतांतलो कृष्ण' देशाची उदरगत जातली जाल्यार, भारतदेशांतल्या नागरीकांनीं कृष्णनिती आपणावची पडटली, अशें तांणीं ठामपणान सांगलें. तांणीं फुडें हेंय सांगलें, रामापरस आपल्याक कृष्ण चड आवडटा. कारण कृष्णाक आपणे रडिल्लो केन्नाच पळोवंक ना.

रामा सुवातेर राम आनी कृष्णा सुवातेर कृष्ण आशिल्लो, तरी गांधीवादी रवीन्द्रबाबांक रामापरस कृष्ण श्रेश्ठ दिसतालो. महात्मा गांधीन मरमेरेन रामनाम सोडलें ना. तरी रवीन्द्रबाब कृष्णाक चड मान दिता. हाचेवेल्यान दिसून येता की रवीन्द्रबाबांत एक खाशेलेंपण आशिल्लें. ते कुड्डो गांधीवाद घेवन बसू नाशिल्ले.

कितेंय आसूं, पूण राम-कृष्ण म्हापुरूसांचे तुळेन रवीन्द्रबाबांची चड ओड गौतमबुध्दाकडे आसली. रवीन्द्रबाब गांधीवादी आसले, आनी गांधीवाद बुध्दधर्मापसून चड पयस ना. हिंसा प्राणीमात्राक मरणाच्या दाराकडे व्हरता तर अहिंसा मनीसजातीक उजवाडाची वाट दाखयता, उदरगत घडोवन हाडटा, हाची रवीन्द्रबाबांक पक्की खात्री आशिल्ली.

अशें जरी आसलें तरी वयर सांगलां ते प्रमाण रवीन्द्रबाबांचो अहिंसावाद कुड्डो मात केन्नाच नाशिल्लो. तो तसो आशिल्लो जाल्यार तांची ओड श्रीकृष्णचरित्राकडे आसची नाशिल्ली. श्रीकृष्णय अहिंसावादी आनी शांततायप्रिय आशिल्लो. पूण ताचो तो अहिंसावाद कुड्डो नाशिल्लो. तो तसो आशिल्लो जाल्यार, तो अर्जुनाक युध्दाक प्रवृत्त करचो नाशिल्लो.

रवीन्द्रबाबांक बुध्दाचो मध्यम मार्ग भावतालो जावंये. ताका लागून रवीन्द्रबाब पुराय कृष्णभक्त नाशिल्ले आनी बुध्दवादीय बी.

महात्मा गांधी म्हणटाले, 'I am not a path follower, but pathmaker' 'हांव मळिल्ले वाटेन वचपी न्हय, तर नवी वाट तयार करपी' ह्या तत्वाप्रमाण रवीन्द्रबाबानीय आपली खाशेली अशी वाट तयार केली आनी तेच वाटेन ते गेले अशें म्हणूंक जाय.

रवीन्द्रबाबांचो हांव मुळाक सावन विरोधक. फकत भाशावादाक लागून. हांव मराठीप्रेमी आनी ते कोंकणीभक्त. ते मराठीक विरोध करताले कारण तांकां कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो दिवन गोंयांक घटकराज्य मेळोवंक जाय आशिल्लें. ते मराठीचे द्वेश्टे आशिल्ले जाल्यार मराठींत 'स्वगत' बरोवचे नाशिल्ले. म्हाका खूबशा लोकांभशेन गोंयाक घटकराज्याचो दर्जो मेळिल्लो नाका आशिल्लो. मात हेर लोकांभशेन हांव राजकारणी नाशिल्लों. मराठी भास गोंयांत भारतीय संस्कृताय तिगोवन दवरूंक सक्षम आसा, अशें म्हजें मत्त आसा. तिचे सुवातेर दुसरी खंयचीय भास आयली जाल्यार गोंय भारतीय संस्कृतायेक परकें जातलें, अशें म्हजें आयजय मत्त आसा. दुसरी गजाल अशी की

भारतांत गोंयां येदी ल्हान-ल्हान राज्यां जावंचीं न्हय, अशें म्हाका दिसता. ल्हान राज्यांनी धनाधीश लोकशायेच्या आदारान राज्यां विकतीं घेवन तांचेर हुकूमशाय गाजोवंक शकतात. आयज गोयांतूय तेंच चल्लां. म्हजे हे विचार हांवें कांय वर्सां फाटीं 'नवप्रभे'त लेख बरोवन मांडिल्ले. रवीन्द्रबाबान म्हजो तो लेख वाचून म्हज्या विचारांक उक्ते मनान तेंको दिल्लो.

हालीं हालीं तर तांकां दिसूंक लागिल्लें, शेजारचो कोंकणी भाशीक वाठार गोंयाक जोडून एक विशाल कोंकणी राज्य घडोवन हाडचें. तांणीं तें उक्तेपणान उलोवनूय दाखयल्लें. सांगपाचो हेत हो की, सुरवेक फकत गोंयचो विचार करपी रवीन्द्रबाबाक गोंयचो प्रदेश वाडोवचो अशें दिसतालें. गोंयांत भारतीय संस्कृताय तिगोवन दवरपाखातीर आनी खऱ्या अर्थान लोकशाय नंदूंक जाय जाल्यार गोंय विशाल राज्य जावंकूच जाय अशें तांकां दिसूंक लागिल्लें.

रवीन्द्रबाबांलो कोंकणीवाद हो गोंयांत जातीयवाद तिगोवन धरपाखातीर आसा, अशें म्हाका ते वेळार दिसतालें. रवीन्द्रबाबांचो म्हाका लागसार घडमेरेन, हांव तांचेर तिडकुनूच आसलों. वयक्तीक कारणाक लागून न्हय, तर सामाजीक आनी राष्ट्रीक कारणाक लागून. जातपातीची कीड ह्या देशाक पोखरून काडटा, अशें म्हजें पयलींसावन मत्त आसा. जातीयतेक जो सारें-उदक घालता, तो म्हाका दोळ्यांमुखार दिसल्यार लेगीत राग येता.

एकदां तर रवीन्द्रबाबांचें आनी म्हजें बरेंच पेटलें. खरें म्हणल्यार आमी दोगूय पेटलेनात. पेटलों तो हांव एकटोच. हांव पेटलों तेन्ना रवीन्द्रबाब थंड आनी शांत बसून रावले. प्रसंग आशिल्लो असो -

प्रसंग खंयचे वर्सा आनी केन्ना घडलो, हाची म्हाका याद जायना. पंचवीस - तीस वर्सां फाटलो हो निश्चीत. आगशी गांवांत अघनाशिनी नांवाची एक संस्था जल्माक आयिल्ली. अध्यक्ष आशिल्ले डॉ. अनील घार्से, तांणीं कोंकणी-मराठीवाद कसो मिटोवं येत हाचेर

एक चर्चा घडोवन हाडिल्ली.

चर्चेत वांटो घेवपी आशिल्ले मनोहर हिरबा सरदेसाई, रवीन्द्रबाब केळेकार, ते वेळावेले 'गोमंतक' दिसाळ्याचे संपादक नारायण आठवले आनी हांव. म्हाका दिसलें, केळेकारांचेर राग काडपाची संद आयतीच मेळ्ळ्या, काडुया फोग. पयलीं उलोवपाची पाळी म्हजेरूच आयिल्ली. अर्थात कोंकणी आड कितलेशेच प्रस्न हांवें घासून-पुसून तयार दवरिल्ले. रवीन्द्रबाबांचेर हांवें प्रस्नाचो मारो सुरू केलो. ते म्हाका पळेत रावले. जाप दिवपाचे भानगडीक पडले नांत. म्हाका तांणीं पुराय उलोवंक दिलें. हांव उलोवन उलोवन थकलों. जापेची आस नाशी दिसली तेन्ना थांबलों.

आतां सगळेकडे शांतताय फाकिल्ली. श्री. नारायण आठवले आनी मनोहरराव हिरबा देसाई कुशीक बसून आशिल्ले. मोन्यानी बसून आशिल्ले ते दोगूय. रवीन्द्रबाब जर जापूच दिनात तर ते तरी बाबडे कितें करतले? तांकां दिसलें आसुंये, म्हज्या प्रस्नावळींत तांच्याय प्रस्नाचो आसपाव आसा. तेन्ना फुडें उलोवन कांयच फायदो ना.

अशें आसलें तरी रवीन्द्रबाबान म्हज्या प्रस्नांक उबगून शांतपणान, थंडसाणेन बसकेत एकूच विधान केलें - पंचवीस वर्सां उपरांत गोंयांतल्यान मराठी हद्दपार जातली.

रवीन्द्रबाबान केल्ल्या विधानक पंचवीस वर्सां जावन गेलीं. आयज गोंयांत मराठीची स्थिती कितें आसा, हाचेविशीं म्हाका कांयच बरोवपाची गरज ना. सगळें लोकांमुखार उकतें आसा.

द्रश्ट्यांनी केल्लीं विधानां फट थारनात. रवीन्द्रबाबान केल्लें विधान आत्मविश्वासान केल्लें. त्या तेंपावेले परिस्थितीन तांचो गैरसमज करून दिल्लो.

पंडित जवाहरलाल नेहरूंचोय गोंयच्या लोकांविशीं असोच गैरसमज जाल्लो. ताकाच लागून तांणीं म्हणिल्लें - 'गोवा के लोग अजीब है'

भारतीय द्रश्ट्र्यांनी केल्लीं विधानां जगभर खरीं थरत, पूण गोंयांत न्हय.

राजभास कायदो पास जाल्या उपरांत जर लिपीचो वाद उप्रासूं नासलो, चडांत चड गोंयकारांनी कोंकणीकडे एकनिश्ठेन पळेल्लें, तर ह्या वेळार गोंयांक मराठीची गरज पडची नासली आनी रवीन्द्रबाबांचें विधान खरें जावपाचें.

हांवें वयर म्हणलां ते प्रमाण आगशीचें शिबीर पंचवीस–तीस वर्सांफाटीं जाल्लें. पूण रवीन्द्रबाब म्हाका विसरूं नाशिल्ले, हाचें म्हाका अजाप दिसता. म्हाका ते फकत मराठीवादी म्हूण वळखताले. तशें पळोवंक गेल्यार, ते तेंपार मराठीवाद्यांनी तांचेर भरपूर टिका केल्ली. कोणाकोणाची म्हूण टिका ते मनांत घेवन रावतले? तरी ते पंचवीस वर्सां उपरांत लेगीत म्हाका विसरलेनांत. हाचें कितें कारण आसुंये? म्हाका ना विसरपाचें कारण हांवें तांकां केल्ले प्रस्न बी नाशिल्ले मू?

घडिल्ल्या प्रसंगाच्या पंचवीस वर्सां उपरांत तांणी म्हज्या 'समर्पण' हे कादंबरेक प्रस्तावना बरयली. तातूंत तांणी फाटीं घडिल्ल्या प्रसंगाचो उल्लेख केला. वाचप्यांखातीर तो जशाचो तसो खाला दितां –

आमचे पयलेच भेटेचो उगडास म्हाका जालो. आगशे एक शिबीर भरिल्लें. त्या शिबिराक हांव गेल्लों. तुमी दिलीपाचे खासा भाव म्हणपाचें नकळ आशिल्लों. तुमी म्हाकां जे प्रस्न केल्ले ते कट्टर मराठीवाद्यांसारके आशिल्ले. नारायण आठवले म्हऱ्यांत आशिल्ले. हांवें तुमकां उबगून जाप दिली... आयज तुमकां विचारचें शें दिसता. 'तुमी तशेच कट्टर मराठीवादी उरल्यात? कित्याक लागून तुमी कोंकणीत बरोवंक लागले?' 'समर्पणा' सारकी नवलकथा तुमकां मराठींत बरोवपाक जावपाची आशिल्ली?'

रवीन्द्रबाब स्वताक 'रायटर आनी फायटर' मानताले. अर्थांत तांणी म्हजे बाबतींत उप्राशिल्लो प्रस्न एका फायटराक सोबता तसलोच

आशिल्लो. ह्या प्रस्नाची जाप हांवें तांकां दुसरे भेटेत दिल्ली.

रवीन्द्रबाबान म्हज्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत उप्राशिल्लो प्रस्न म्हजे दिश्टीन व्हडलो सो म्हत्वाचो नासलो. रवीन्द्रबाबान मराठींतल्यान 'स्वगत' बरयलां. ते भायर दिलीप बोरकार, रमेश वेळुस्कार हाणीय मराठींतल्यान भरपूर बरयलां. ते कोंकणी भाशीक आसुनूय महाराष्ट्रीय लेखकांक फाटीं घालतात. तांणी मराठी बरयलें म्हूण ते मराठीवादी जायनांत. तेच परी हांव कोंकणीं बरयतां म्हूण कोंकणीवादी-बिदी जाल्लों ना. गोंयची राजभास पुराय मराठी जाल्ली तरी हांव 'समर्पण' अशेंच बरयतलों आशिल्लों. कोंकणी म्हजी आवयभास हें सत हांव न्हयकारूं शकना. म्हजे आवयभाशेचेर म्हजें खूब प्रेम आसा. पूण जो मेरेन गोंयकार कपलाक कोंकणीचो तिबो लावन इंग्लिशीक वेंग मारून रावतले, आपल्या सानुल्यांक मुळावें शिक्षण पुरायेन कोंकणींतल्यान दिवचेनांत - इंग्लिशेंतल्यान दितले - तो मेरेन म्हाका मराठीचेरूच प्रेम करचें पडटलें, तिचोच आदार घेवचो पडटलो. हाचो अर्थ असो जायना की हांव कोंकणीचो द्वेश करतां.

रवीन्द्रबाबांचीं आनी म्हजीं मत्तां वेगळीं आसलीं तरी ते एक व्हड मनीस, वयल्या पावंड्यावेले सारस्वत आसात, हाची जाणविकाय म्हाका जाल्ली. तांचेविशीं म्हज्या मनांत आदर निर्माण जाल्लो. दिसतालें, तांकां एक दीस मुजरत भेटचो.

फोंड्यां म्हजो भाव रावता. केन्ना-केन्नाय तागेर येवप-वचप जातालें. एक दीस फोंड्यां सावन घरा येतालों. माड्डोळा पावतकीर म्हाळशेची याद जावंचे पयलीं रवीन्द्रबाबांची याद जाली. चितलें, आयज प्रियोळच्या रूशीची भेट घेतलोंच! स्कुटर प्रियोळच्या रस्त्यार वळयली. कोणाक तरी घर विचारलें. दोंगुल्ले तळाक झाडां-झुडपांच्या शेकांत आशिल्लें रवीन्द्रबाबांचें घर कोणाकूय सहजतायेन मेळप भोव अडचणीचें.

सकाळचीं धा वरां जाल्लीं जावंये! घरांत आनी घराभोंवतणीय

शांतताय पोवडून आशिल्ली. हांव मुयेपावलांनी इस्काद चडून भितर गेलों. पडवेर रवीन्द्रबाबांशिवाय कोणूच नाशिल्लो. ते एका दिसाळ्यांत तकली घालून ओल्तेरार बसून आशिल्ले. हांव तांच्या म्हऱ्यांत उबो आसां हें तांकां कळ्ळेंना. हांवूंय तांकां थोडो वेळ पळेत उबो रावलों. तांणीं दिसाळ्याचें पान परतीलें आनी तांची नदर म्हजेर पडली. वक्लांतल्यान प्रस्नार्थक नदरेन ते पळेत रावले म्हाका.

'हांव नं. ध. बोरकार.' हांवें उब्यांनीच म्हजी वळख करून दिली. म्हजी नवप्रभा आनी बिम्बांतल्यान हीच वळख मेळटाली.

रवीन्द्रबाबांन म्हाका दोळ्यांनीच खुणावन सामकारच्या कदेलार बसूंक सांगलें. वर्तमान कवळून कुशीक दवरलें. ''हांव वाचतां तुमगेलें. बिम्बांत आनी नवप्रभेंत लेख छापून येतात. पूण पुराय नांव खबर ना तुमचें.''

''हांव नंदा बोरकार, दिलीपाचो भाव.''

''कितें? आमच्या दिलीपाचो भाव? हांव वळखतां तुमकां. पूण तुमी दिलीपाचो भाव म्हूण खबर नाशिल्ली?''

''तुमी म्हाका कशे वळखतात, दिसाळ्यांतल्यान मू?''

''ना ना. हांव तुमकां खूब आदीं सावन वळखतां. एकदां आगशेंत एक शिबीर जाल्लें. थंय तुमचें म्हजेकडे उलोवप जाल्लें. तुमी म्हाका कोंकणी संबंदांत कितलेशेच प्रस्न केल्ले. आनी हांवें तुमकां उबगून जापो दिल्ल्यो. (हीच गजाल तांणी म्हज्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेत सांगल्या, ती वयर आयल्याच.)

खरें म्हणल्यार रवीन्द्रबाबान जापो दिंवनाशिल्ल्यो. एकच जाप दिल्ली. ती वयर आयल्याच.

''तें भंगूं, तुमचें हांगा आयज अकस्मात येवप कशें जालें?'' रवीन्द्रबाबान इल्ले उत्सुकतायेन प्रस्न केलो.

''तुमचें स्वगत बंद जालें. हांव नेमान वाचपी तें. आतां चुकलें - चुकलेंशें दिसता. शिवाय तुमची तब्येत बरी ना तें वाचलें.

खबर घेवया म्हूण आयलों. आतां कशें दिसता तुमकां?''

रवीन्द्रबाब फकत हांसले.

इतल्यान गोदूबाय एके कुडींतल्यान दुसरे कुडींत वतना दिसली. ''आगो, हो दिलीपाचो भाव.'' रवीन्द्रबाबान अशें म्हणना फुडें गोदूबाय म्हजे म्हऱ्यांत आयली, हांसली आनी भितर गेली.

''बरें केलें तुमी येवन. आगशे तुमी म्हाका केल्ल्या प्रस्नावेल्यान तुमी कट्टर मराठीवादी आसात अशें दिशिल्लें. आतांय तुमी तशेच उरल्यात?'' हांवें म्हणलें, ''हय, म्हजें मराठीवेलें प्रेम अजून इल्लेंय उणें जाल्लें ना. कोंकणीचेरूय हांव तितकेंच प्रेम करतां. पूण म्हजें हें प्रेम कुड्डें न्हय. कोंकणी म्हजी भास, तिचो हांव द्वेश कसो करतलों? पूण तेन्ना म्हाका दिसतालें, आयज कोंकणी-कोंकणी म्हूण नाचतात ताणीं फाल्यां हात वयर केल्यार आमी उबंत पडटले. आमकां बाबाय ना आनी पुडवेंय ना जातलें. उच्च वर्णीय हिन्दू आनी सर्रास किरिस्तांव तर इंग्लीश कशेंच सोडचे नांत. तांचे देखीन हिन्दू भौजन समाजूय आतां इंग्लीशीकडे धांवता. जो मेरेन हें थांबना तो मेरेन गोंयांत मराठीची बशिल्ली घडी विस्कटची न्हय, अशें म्हाका दिसता. हांव जरी मराठीप्रेमी आसलों तरी म्हजेकडल्यान कळटां ना कळटां कांय प्रमाणांत कोंकणीची सेवा घडल्या. कशी ती सांगतां तुमकां -

हांव व्हडल्या गोंयच्या एका कोन्वेंट हायस्कुलांत हिन्दीचो शिक्षक म्हूण काम करतालों. वयल्या वर्गांत मराठीय शिकोवची पडटाली म्हाका. तेच तेंपार हायस्कुलांनी तिसरी भास म्हूण कोंकणी शिकोवंक सुरूवात केल्ली. सातवी मेरेन कारवारची एक शिक्षिका कोंकणी शिकयताली. भुरगीं आठवी-णवेक पावलीं तेन्ना नवो प्रस्न उप्रासलो. आठवी ते धावेक शिकोवपाक पदवीधराची गरज पडटा. पदवीधर टिचर ना म्हूण आठवेक पावतकीर हिन्दू भुरगीं मराठी घेतालीं आनी किरिस्तांव फ्रेंच. खेड्यांतल्या भुरग्यांक फ्रेंच शिकून कांयच फायदो ना हें म्हज्या लक्षांत आयलें. आनी भुरग्यांचो फुडार पेड्डेर

जावंचो न्हय म्हूण व्यवस्थापनाक समजावन, भुरग्यांक फ्रेंच सोडून कोंकणी घेवंक लायली. शिक्षकाचें काम म्हाकाच करचें पडलें.

फ्रेंच सोडून कोंकणी घेवंक मेळटा म्हूण भुरगीं खूश आनी भुरग्यांच्या हिताचें काम केलें म्हूण हांवूय खूश.

भुरगीं आतां आठवी-णव्वी पास जावन धावेक पाविल्लीं. धावी म्हणल्यार एस्. एस्. सी. हायस्कूल सुरू जावन आतां दोन म्हयने जाले. बाजारांत कोंकणी विशयाचीं पुस्तकां अजून येवंनाशिल्लीं. ते भायर बोर्डान एस्. एस्. सी.क कोंकणी विशयाक मान्यताय दिंवनाशिल्ली. म्हजेर आयलो आकांत. भुरग्यांचें लुकसाण जाता तें म्हज्यान पळोवंक जायना जालें. हांवें वर्तमानपत्रांत पत्र बरोवन बोर्डाक आनी शिक्षणखात्याक जाग हाडली.

थोड्याच दिसांनी भावधाने नांवाचे बोर्डाचे एक अधिकारी स्कुलांत आयले. तांच्या वांगडा फादर निकोलाव पेरैरा आशिल्ले. ताणी धावेच्या वर्गाची तपासणी केली. वर्गांत कोंकणी शिकप्यांची संख्या पळोवन तांकां अजाप दिसलें. ताणी म्हाका प्रस्न केलो, 'आठवे-णव्वेक कोंकणी कोण शिकयतालो?' हांवें म्हणलें, "हांव शिकयतालों."

"तुमचें कोंकणी कॉलिफिकेशन कितें?"

"कांय ना. मात हांव मराठींत बी. ए. जालां. ते भायर हिन्दी पदवीधरूय आसां हांव."

अधिकारी उलयत-उलयत गाडयेंत बसून गेले. थोड्याच दिसांनी कोंकणी विशयाच्या पुस्तकांची वेवस्ता जाली - कशीय जावं मागीर ती. म्हजेवेलें अरिश्ट टळ्ळें.

आतां तुमी सांगात, "हांव जर कोंकणी द्वेश्टो आशिल्लों, तर म्हजेकडल्यान हें कार्य घडटलें आशिल्लें?"

हांव तावातावान उलयतालों. रवीन्द्रबाब मोन्यानी आयकताले. तांच्या मनांत कितें घोळटालें हांव नकळ.

इतल्यान गोदूबाय हातांत च्या चें चिक्र घेवन आयली. तिणें

हांसत-हांसत म्हणलें - ''तुमी उलोवन उलोवन थकल्यात. आतां इल्लिशी च्या घेयात.'' अशें म्हणून चिक्र मेजार दवरून ती हांसतच भितर गेली.

म्हाका दिशिल्लें, हांव रवीन्द्रबाबांक आयतोच सांपडलां, म्हजेवेलो फाटलो राग बी ते काडीत काय? पूण तशें कांयच घडलें ना. तो शीघ्रकोपी बामण नाशिल्लो, तर म्हाका भेटिल्लो एक पयलो सारस्वत आशिल्लो.

हे भेटेन म्हजो गैरसमज पयस जालो. हांव रवीन्द्रबाबांक जातीयवादी समजतालों. तशीच समजिकाय करून दिल्ली ते तेंपावयल्या गोंयच्या वातावरणान. ही गैरसमजाची कीडच समाजाक पोखरून काडटा. म्हजे दिश्टीन ते तशे नाशिल्ले.

उपरांत आनीक एके गजालीन तेंको मेळ्ळो. तांणी म्हजे 'समर्पण' हे कादंबरीक प्रस्तावना बरयल्या हें वयर आयलांच. हे कादंबरींतलें मुखेल पात्र 'देमू' हो जातीन गावडो. रवीन्द्रबाब ताच्याविशी बरयतात - 'नवलकथेंचो अंत superb जाला - भव्य जाला. तो वाचून म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळळ करून दुकां गळ्ळ्यांत. देमूच्या पायांक हात लावचो आनी ताच्या पायांतळव्याचो, धुल्लाचो कण कपलाक लावचो, अशें दिसलां.

खंयचोच जातीयवादी ब्राह्मण - तो मागीर साहित्यांतलो जावं वा प्रत्यक्षांतलो जावं अशें उलोवचोय ना आनी बरोवचोय ना.

उलयतां-उलयतां हांव सट्ट करून उठलों. रवीन्द्रबाबांचो निरोप घेतलो. ते उठून म्हज्या फाटल्यान इस्कादीच्या सोपणांमेरेन चलत आयले. हांव रस्त्याकुशीक पावलों तरी ते म्हाका पळेत उबे आशिल्ले.

ल्हानातल्या ल्हान मनशाक व्हडपण दिवपी, तांचे दोश पोटांत घालपी ह्या म्हान सारस्वताक म्हजो प्रणाम!



# कोस्तु भाटकार

म्हजे घराकडल्यान बाजारांत नुस्त्याक वतलो जाल्यार एका अशीरशा बांदावेल्यान वचचो पडटा. बांदाच्या दोनूय वटयां पांचवीचार शेतां. कणगावालींनी भरिल्लीं. वायंगीं मिरसांगांच्या रोप्यांनीं सजिल्लीं. बांदावेली फसफशीत रेंवट माती मस्तीत वचचें पडटालें बाजारांत!

बांद सोंपतकीर लागतालें ल्हानशें भाट. पांयवाटेच्या कडांनीं मदें-मदें भेंडयेचीं लांडीं झाडां. हीं झाडां मुंडकार आनी भाटकाराले मानांय वाडुंकूच दिनांत. तांकां वर्सान वर्स इरल्यांक बांदपाक भेंडयेचे खुंटे जाय पडटात.

भेंडयांचेच पंगतीक, पूण अनवाळ्या भटांभशेन पयस पयस बुटके आमरूख उबे आसात. तांकांय बुटके दवरपाचें काम आयतें खायऱ्यो बेंदुल्ल्यो करतात. आयतें खायऱ्या भाटकारान आमरुखांकडे दुर्लक्ष केलें. तरी रुख ताळये कणकणी, एकेक रसाळ फळ दिवपाचें काम करताच. बारीक जावं तें मागीर. मनीसजात आपल्या कर्तव्याकडे फाट करता, पूण सैमाक ईश्वराक जाप दिवचीच पडटा. सैम ईश्वराच्या आदेशान खंयच्यान ना खंयच्यान मनीसजातीक बरी देख दिताच.

जें काम आमरूख करताले, तेंच त्या भाटांतले मरतुकडे माड करताले. उदका थेंब्या आशेन झरत-मरत जगूंक जाय म्हूण जगताले ते! चुडटां सुकून बागवल्लीं. सुकिल्ल्यो पोयों, सुकिल्ले एक-दोन बोंडे

घेवन कळवांत ओग्गी पडून आसताल्यो. ही गजाल एकाच माडाची न्हय, भाटांतल्या चडशा माडांची स्थिती अशीच आसताली. माडांक जीव आसा, हें दाखोवपाचें काम जणेक माडाचो पांचवो शेंडो करतालो.

बांद सोंपलो, भाट सोंपलें आनी आतां लागलें कोस्तुभाटकारालें घर. दळदीर फाटीं पडून गिरेस्तकायेन तकली वयर काडली.

इगर्जेच्या वाटाराक कोस्तुभाटकारालें सुपुल्लें बेंस आशिल्लें. ह्या बेसांत आशिल्लें कोस्तुभाटकारालें गडगंज घर आनी त्या घरांत रावताली कोस्तुभाटकाराली 'ओर्राद' फामील.

कोस्तुभाटकारालें खरेलें नांव आशिल्लें शिंन्योर कोस्तांशियु आरमांदु गोमीस इ गोन्साल्वीस. तो केदोय व्हडलो आसलो तरी ताचें येदें व्हडलें नांव गांवकारांक कोता पडपाचें नासलें. कोस्तुभाटकारूच नांव लोकांक मानवतालें.

कोस्तुभाटकार आशिल्लो रंगान गोरो-गोरो पिट्ट. आंगान धिप्पाड. लांब-रूंद बांदो. सुर्वेक काळे कुळकुळीत आशिल्ले केंस दिशीं-दिशीं धवशेत गेले. उपरांत पिंगशेले ते मरमेरेन तशेच उरले. ताचे कान-दोळे, नाक-तोंड बी सगळीं गात्रां एका युरोवपेवाक सोबसारकेंच दिसतालें.

कोस्तुभाटकार इंदियानु आसतना मरमेरेन पोर्तुगेज जावन रावलो. ताचें खावप-जेवप, न्हेसप-पांगरप सगळें पोर्तुगेज मोदीचें. ताणें फात मरमेरेन सोडलोना. गोरे कातीक सोबता तशेंच हळदुवशें फाता लुगट सदांच 'तोर्राद आनी फेर्राद' आसतालें. जुवानपणांतलें फितयाळें उबें 'शापेव' मरमेरेन सोडलेंना कोस्तुभाटकारान! त्या तेंपावयले कांय भाटकार मरणा देगेर पावतकीर हातांत रोत आनी माथ्याक चेपटें चेपें घालून भोंवताले. पूण कोस्तुभाटकारान चेपट्या चेप्याक आपल्या माथ्यार थारो केन्नाच दिलो ना.

कोस्तुभाटकाराच्या हातांत रोत आसतालें, पूण तें फाताची सोबाय वाडोवपा खातीर. कांय भाटकार आपल्या मुंडकारांक

बडोवपाखातीर रोताचो उपेग करताले. कोस्तुभाटकारान मात तशें केन्नाच केलें ना. मनशाचे कातीचो रंग कितलोय गोरो आसलो तरी ताचें काळीज काळें आसपाची शक्यताय आसता. कोस्तुभाटकार भायर-भितर सारकोच आशिल्लो. गोरो आनी गोरो.

कोस्तू भाटकार फात मारुनूच चडसो भायर-भितर आसतालो. फात मारून, दोनूय हात बोल्सांत घालून जेन्ना तो बल्कावांत उबो रावन आपल्या दारांतल्यान येत्या-वत्याचेर नदर मारतालो, तेन्ना ताचो झेत पळयत रावपासारको आसतालो. कोणाकूच ताचेवयली नदर काडून फुडें वचचेंशें दिसनासलें.

कोस्तुभाटकाराच्या घरकान्नीचें नांव आसलें जॉर्जिना. गांवचो लोक ताका भाटकान्न बी म्हणनाशिल्ले. सगळ्यांचें तें जॉर्जिनबाय आशिल्लें. सगळ्यांक तें आपलेंशें दिसतालें. कारण ताचो रंग काळो आनी तें भास कोंकानी उलयतालें. पुर्तुगेज उतरांची मिसळ आसूं ती मागीर!

जॉर्जिना काळेंकिट्ट आसलें तरी तें 'एदुकाद' आशिल्लें. 'एदुकाद' हाचो अर्थ फकत शिकिल्लें असो जायना, तर बऱ्या देखीचें असो जाता. जॉर्जिनांतले 'एदुकाद' आनी 'देलिकाद' हे दोनूय गूण कोस्तूक आवडले जातले. ताकाच लागून तो मोग करून जॉर्जिनाकडे काजार जाल्लो.

मनीस सुसंस्कृत आनी उक्ते मनाचो आसलो जाल्यार तो भायले सुंदरकायेक चड म्हत्व दिना. भायल्या रूप-रंगा परस ताका मनाची सुंदरकाय भावता. जॉर्जिना काळें आशिल्लें खरें, पूण ताचें मन नितळ आशिल्लें. काळजांतल्यान मायेचो झरो व्हांवतालो ताच्या. हीच माया ताच्या उतरांच्या तेक्यान तोंडांतल्यान फसफसून भायर पडटाली. हे मायेक लागुनूच जॉर्जिनाबाय भायल्या-भितरल्यांक आवडटालें!

जॉर्जिना किरिस्तांव धर्मांत वाडलें. तरी ती एक भारतीय

अस्तुरी आशिल्ली. भारतीय संस्कृतायेचीं बियां जॉर्जिनाच्या रगतांत मुरिल्लीं - जिरिल्लीं. हीं निजाचीं बियां अडेच्यांक न्हयकारतालीं. जॉर्जिनाचे वागणुकेन पावला कणकणी ह्या सताची जाणविकाय जाताली.

जॉर्जिना आपल्या घोवाक मानवता तसलो पोशेग करतालें. तें व्हीस्तीद घालतालें पूण तो घालून आपल्याक 'आवांताद' चलूंक जाय हाचें भान आसतालें ताका. तें वोंठ तांबडे करतालें पूण ती तांबसाण काळजामेरेन पावनासली. ही तांबसाण रगतांतली न्हय तर अडेची, हाची जाणविकाय आसताली ताका.

जॉर्जिनाल्या घरांत गाय-धुकराचें मांस सतत शिजतालें. दोस, आर्रोस, बिबींक आनी तरे तरेचो सोरो जॉर्जिनाक संवकळीचो आसतालो. तरी ताचो नेवऱ्यो-पातोळ्यो, लोणचें-पापडाकडे जोडिल्लो संबंद तुटनासलो. तें जेन्ना 'क्वार्तांत' एकटेंच आसतालें, तेन्ना ताच्या मनांत विचार घोळटाले हिन्दू अस्तुरेभशेन आपणेंय साडी-कापड न्हेसचें. न्हावन-धुवन निर्मळ मनान गोंयचे पद्‌दतीचें जेवण-खाण करून आपल्या घोवाक आनी भुरग्यांक वाडचें. लांब केंस आशिल्लेच ताका. तांचो आंबाडो घालचो. ताचेर आबोल्यांची ना तर मोगऱ्यांची फांती माळची, अशें ताच्या मनांत येवचें.

पूण तें मनात आसुनूय तशें करूंक शकनासलें. तरी ताणें आपले केंस हेर बायलांभशेन केन्नाच कापले नांत. केसांचें पाकीट करून गांच-क्लिपांनी मानेवयर दसयल्याभशेन करतालें. जॉर्जिना!

जॉर्जिनान तिगां भुरग्यांक जल्म दिलो. व्हडलो चलो आंतोनीयू, त्या फाटलें चली जुलियेता आनी ताच्या फाटलो चलो-आल्बेर्त.

पयलीं दोगांय भुरगीं बापायच्या वळणार गेल्लीं. आल्बेर्त मात आपले आवयभशेन काळोकिट्ट खापरी कसो! अशें आसलें तरी काळ्या-गोऱ्याचो भेदभाव कोणाचेच तकलेंत शिरूं नाशिल्लो. कातीचे बाबतींत एकाच घरांत युरोप-आफ्रिकेची नंदणूक आसुनूय, भुरगीं आपल्या मांय-पायचो आनी मांय-पाय आपल्या भुरग्यांचो उप्पाट

मोग करतालीं.

कोस्तू कामानिमतान आफ्रिकेक आसतालो. दर चार-पांच वर्सांनी 'वियाज' मारून येतालो तो. जॉर्जिना आपल्या तिगांय भुरग्यांक आपले परीन सांबाळटालें. 'येदुकासांव' दितालें. तागेलीं भुरगीं कोवेंत आनी सिमिनारींत शिकतालीं. सुटये दिसांनीं मांय म्हऱ्यांत आसताली. पापा पयस आसलो तरी मांय तांकां पायचो उगडास येवंक दी नाशिल्ली. तशें पळोवंक गेल्यार पायचें तांकां केन्ना व्हडलेंशें पडलेंच ना. तो चार-पांच वर्सांनी सोयरो कसो येतालो आनी वतालो. तरी जॉर्जिना आपल्या भुरग्यांक पायचो विसर पडूंक दी नासलें. पाय घरा नासलो तरी जॉर्जिनान आपल्या भुरग्यांक कितेंच उणें पडूंक दिलेंना.

तसो त्या तेंपावेलो गांव खोपट्यांचो. त्या तेंपावेलो म्हळ्यार पोर्तुगेज राजवटींतलो. गांवांत संपन्नतायेचें दर्शन घडोवपी घरां साप्प थोडीं आशिल्लीं, तांतलें कोस्तू भाटकारालें एक. कोस्तू भाटकाराल्या पुर्वजांनी ताका भाटां-बेसां जोडून दवरिल्लीं. ताका लागून नाल्ल-बोंडो, तांदूळ-गोटो, जळोव-बडी बी सगळें आयतें येतालें घरांत. भात खयीं पावूं, शेतकार उकड्या तांदळांचे साक हाडून पावयताले घरांत. आंब्याचें भरपूर रेंद येतालें. पाड्याक हजारांनी नाल्ल पडटाले.

घरांत रांदपाक 'कुजनेर', घरकामाक 'किर्याद'. कुजनेराक 'मेस्त' म्हणपाची रीत आसताली त्या तेंपार. बाजारांत वचून नुस्तें-पास्तें हाडपाचें काम मेस्तूच करतालो. कारण सिर्विशेक लागचे पयलीं तो सुतर्ली मारपाची कला शिकुनूच आयिल्लो आसतालो.

कोस्तू भाटकार केन्ना चार वर्सां तर केन्ना पांच वर्सां वियाज मारून येतालो. येतना तो दुडवांवांगडा खोसूय घेवन येतालो. आयले उपरांत पयले आठ दीस ताच्या घरांत एके तरेचें फेस्त चलतालें. कोस्तू आयलो म्हूण कळटकच लागसारचीं सोयरीं येवंक कोमेस जातालीं. दिसाक एक-दोन तरी सोयरीं येतालींच. वांगडा भुरग्यांचें लटांबर

आसतालें. हीं सोयऱ्यां सकाळीं येवन वचपाचीं नाशिल्लीं. कांय दोन-तीन दीस तर कांय सात-आठ दीस तरी रावल्या बगर वचनासलीं. हीं सोयऱ्यां कोंकानी येता आसतनाय पोर्तुगेज उलोवपी. दीस-रात फोनोग्रामावेल्या कातारां तालार ल्हान-व्हडांचो 'दांस' चलतालो.

कोस्तू भाटकारालीं सगळींच सोयऱ्यां गिरेस्त आशिल्लीं, अशांतली गजाल न्हय. बरींच-शीं गरीबूय आसलीं. तीं संद सादोवन मजा मारूंक येतालीं. पूण कोस्तू केन्नाच निर्शेलोना. निर्शेतालीं तीं ऑर्राद सोयऱ्यां. तांकां गरिबांमदें 'मिस्तूर' जावप आवडनासलें. ताका लागून सोयऱ्यामदेंच निर्शेणी उप्रासताली.

कोस्तू नासतना मेस्त पिशवी घेवन बाजाराक वतालो. मात 'बाबा' येतकीर कोणे सांगनासतना व्हडलो सो पांटलो घेवन बाजाराक वतालो. कोस्तू पांटलो पळोवन मेस्ताकडे पयशे दितालो.

पयशे हातार पडटकीर ते कशे आनी कितले खर्च करपाचे, हें मेस्ताक कोणें सांगपाची गरज नासताली. मोटें-मोटें नुस्तें, भरपूर मांस, थोडें 'वेर्दुर' (शाक-भाजी) वांगडा बकालज्यांव काय बकाल्यांव कितें म्हणटात ताचे 'विद्र'. तरेकतरांच्यो सोऱ्या बाटल्यो. पाटलो भरून मेस्त घरा हाडटालो.

कोस्तूचो झेतूय पळोवपासारकोच आसतालो. सांजेच्या पांच-साडेपांचांक तो जॉर्जिना वांगडा पासयेक वतालो. आयज रस्तो हुपूंक उणेंच अर्दें वर लागता. त्या तेंपार तितक्याच वेळाच्या अंतरान मार्गावेल्यान 'कामिज्यांव' धांवतालो. टॅक्सीचो तर नेम नासतालो. असल्या वेळार कोस्तू-जॉर्जिनाचें जोडपें रस्त्यावेल्यान बिनधास्त चलतालें. दोगांय हातांत हात घालून अशे तरेन चलतालीं, की पोर्तुगेज सरकारान आख्खो रस्तो तांच्या नांवार केला.

कोस्तू-जॉर्जिनाचो भेसूय तोखेवपासारकोच आसतालो. कोस्तूल्या फाताचो कोर केन्ना गोबराळो तर केन्ना हळदुवसो. धवेंफुल्ल 'कामीज' (शर्ट) ताचेर तांबडो 'ग्रावाद'. ग्रावादाचेर काळ्यो तिरप्यो

पट्ट्यो. माथ्यार उबें चेपें, हातांत रोत घेवन ताठ कण्याचो कोस्तू रस्त्यावेल्यान चलतासतना ताच्या मोच्यांच्या 'धब-धब' आवाजान रस्तो गाजतालो! ह्या 'धब-धब' आवाजाक जेन्ना जॉर्जिनाच्या उंच खोटांच्या मोच्यांचो 'टाक्-टूक, टाक्-टूक' आवाज मेळटालो तेन्ना सगळो वाठार संगीतमय जावन वतालो. हो आवाज आयकतल्यांक दिसतालें, मोच्यांच्या कुंपासाचेर दोगांय रस्त्यावेल्यान 'दांस' करीत वतात!

म्हजें घर कोस्तू भाटकाराल्या भाटा कुशीकूच आसलें. पावसाचे दीस सोडले जाल्यार दर दोन दिसांनीं तरी जॉर्जिना आपल्या भाटांत पासय मारून वतालें. घरा वचचे पयलीं आमच्या घराक पांय लायल्याबगर वचनाशिल्लें. खरें म्हळ्यार भाटांत येतालें तें भाटाचेर नदर मारूंक न्हय तर आमचे घरचे ओडीन. आमच्या घरांत ताका कदेलाचो येवकार मेळटालो. म्हजे आवयची आनी जॉर्जिनाची व्हडली आमिझाद. ती केन्ना दाट जाली म्हज्यान सांगू नज. दोगांलेंय एकामेकांगेर येवप-वचप वाडिल्लें. आमच्या घरांत शिजता-करपता तें जॉर्जिनागेर पावतालें. म्हज्या आवयल्या हातच्या जेवणा-खाणाची, लोणच्या-पापडाची जॉर्जिनाक चड व्हडवीक! कोस्तूक लोणच्याची आवड नाशिल्ली. पूण कुरकुरीत आनी हिंगा वासाचे पापड ताका खूब आवडटाले.

कोस्तू भाटकार आफ्रिकेसून घरा येतकीर पयलीं आपल्या सोयऱ्याधायऱ्यांगेर वचनासतना मुजरत आमगेर येतालो. वतनाय तो आमचो निरोप घेतल्याबगर वचनासलो. ताच्या वांगडा म्हजे आवयले पापड आफ्रिकेक पावताले.

कोस्तू-जॉर्जिनाचें व्यक्तिमत्व म्हाका ल्हानपणांत भुलयतालें. दिसतालें, तांचेकडे तोंडभर उलोवचें. म्हज्या निजाच्या बऱ्या गुणांनीं तांचीं मनां जिंकून घेवचीं. तांचेकडच्यान अपुर्बाय करून घेवची. पूण म्हजेर त्या वेळार केल्ले संस्कार आड येताले. भुरग्यांनीं जाण्ट्यां मुखार उबें रावचें न्हय. जाण्टीं उलयतासतना मदीं तोंड घालचें न्हय. आनी

चुकून तोंड उक्तें केलेंच जाल्यार खिणांत जाण्ट्र्यांचे दोळे मोटे जातालें. हाका लागून हांव कोस्तू-जॉर्जिनापसून पयसूच रावतालों. म्हजी ही वागणूक तांकां साप्प मानवनासली. तांकां दिसतालें हांव एक मागास, कुसको आनी मनीसघाणो भुरगो. कसलेंच एदुकासांव नाशिल्लो. ताका लागून तींय म्हजेपसून पयसूच रावतालीं. हावेंय तांच्यामुखार उबो रावपाचें धाडस केन्नाच केलें ना.

अशें आसलें तरी म्हाका खास करून जॉर्जिनबायकडेन दोस्ती करीन-करीनशें दिसतालें. ते संदीची वाट पळेत आशिल्लों हांव.

जॉर्जिनाबायकडेन दोस्ती करपाची इत्सा आसपाचें मुखेल कारण आशिल्लें तांच्या पोरसांतलीं फळां. हांव तेन्ना धा-बारा वर्सांचो आशिल्लों. फळां खावचे परस झाडार चडून तोडपाक आनंद मेळटालो म्हाका.

कोस्तू भाटकाराल्या भाटांत आमरूख खूब. मानकुराद, बेंकुराद, मुशेराद, आफोंस, दयराद, कुलास बी कितल्याशाच जातींचे आमरूख. घोसांनी आंबे लांबताले. पूण झाडार चडून तोडचे, ना तर फातरांवचे अशें केन्नाच दिसलेंना. म्हजो दोळो आशिल्लो पोरसांतल्या फळांचेर. पेरां, आतेरां, सीताफळां, चिकू, आदामां अशीं कितलीं तरी फळां म्हाका भितरल्यान आमंत्रणां दितालीं. सवणीं-पाखे फळां चोंचायतालीं तेन्ना दुर्गाविल्यान उडी मारून भितर वचचें अशें दिसतालें. पूण मन धजनासलें. गांवांतले हेर भुरगे तशें करताले. म्हाका तें पाप दिसतालें.

कोस्तू भाटकारालें घर त्या तेंपार गांवाक सोबाय हाडटालें. घराचो मोदेल पोर्तुगेज. घराचो फुडो भव्य आनी आकर्शक. घर, नळे-मदेराचें आसलें तरी पलासेक फाटीं उडयतालें. फुडलें दार लांब-रूंद, दाट आनी घट्ट फळ्यांचें. कोरावन 'देजेन्यार' केल्लें. घराचो सापात उंचेलो आशिल्ल्यान येंत्राद चडपाक आनी देंवपाक इस्कादी केल्ल्यो. दाराभायर बसपाक चंद्रिमाकाराचे सोपे आशिल्ले. हारशांचीं जनेलांय घराक सोबाय हाडटालीं. घराची सरभोंवतण झाडां-पेडांनी दाटिल्ली.

ताका लागून भायर-भितर थंडसाण पातळिल्ली! वाटकुळ्या बल्कावांतल्या सोप्यांचेर बसून जॉर्जिनाक सैमाचो नियाळ करपाक आवडटालें. कोस्तू भाटकाराक मात त्या ‘रेदोंदी’ बल्कावांत बसप केन्नाच आवडलेंना. तो बल्कावांत आयलोच जाल्यार फातान-झेतान बोल्सांत हात घालून वाटाराचेर ‘विस्त’ मारतालो. बल्कावांत बसून चकाटां मारप ‘देशेंत’ मनशांचें काम न्हय, तें काम बेगाऱ्यांचें!

अशें आसलें तरी कोस्तू भाटकाराल्या घराचें एक खाशेलेंपण आशिल्लें. घराचो फुडलो अर्दो वांटो चिरे-सिमेंटान बांदिल्लो ‘पेजाद’ आनी ‘देशेंत’ आशिल्लो. घराचो दर्शनी भाग तितलोच ‘फोर्र-बिर्र’ मारून ‘देकोराद’. ह्या दर्शनी भागाचीं दोन सालां विशाळ आशिल्लीं. एक साल दांसाखातीर तर दुसरें बसपा उठपा खातीर. हीं दोनय सालां ‘सुज्यार’ जावचीं न्हय म्हूण जॉर्जिना खूब काळजी घेतालें.

घराचो फाटलो भाग मात ‘मोट्या घराक पोकळ वांशे’ हे म्हणणेची याद करून दितालो. ह्या भागाच्यो वणटी माती-फातरांनीं बांदिल्ल्यो. सगळ्यो कुडी गांवटी नळ्यांनी शिविल्ल्यो. हीं गरीबकायेचीं लक्षणां गिरेस्तांकय फायद्याक पडटालीं. ते तेंपार वीज नाशिल्ल्यान पंखेय नाशिल्ले. घरांतलो ‘कालोर’ उणो करपाची ही माण्णी आसूंये घडये!

कोस्तू भाटकाराल्या घराचो फाटलो भाग पडवेन सोंपतालो. असली पडवी शेतकारांल्या दर्शनी भागाक आसता. ही लांबचे लांब पडवी शेणान सारयल्ली आशिल्ली. फात मारून फुडले भागांत वावुरपी कोस्तू भाटकार, पडवेर पिजाम घालून वोल्तेरार बसतालो. फुडलें दार बंद करून कोस्तू परिवार पडवेरच वावुरतालो. परिवार म्हळ्यार कोस्तू भाटकार, जॉर्जिनबाय, कुजनेर (रांदपी) आनी सेर्वेंत. त्या भायर लाद्रांव (सुण्याचें नांव), कुकडां आनी धुकरां.

सुण्याचें नांव लाद्रांव आनी कुजनेराचें नांव पेद्रांव आशिल्ल्यान जायते फावट कॉमीक जाताली. कोस्तू भाटकार जेन्ना सुण्याक उलो

मारतालो तेन्ना सुणो आनी कुजनेर वांगडाच धावून येताले. लाद्रांव-पेद्रांव पोक् दिफेरेन्स आशिल्ल्यान अशें घडटालें!

कोस्तू भाटकारालें पोरसूं खूब व्हडलें आशिल्लें. एके वटेन घराची पडवी आनी तीन वाटांनी चिऱ्यांनी बांदिल्लो पुरूसभर शेर्क. शेर्काचेर सिमेंटान कंवच्यो बसोवंच्यो अशें पेद्रांवांक दिसतालें. पूण भाटकार-भाटकान्नीन ताका न्हयकार दिलो.

शेर्काच्या भायल्यान एक आंब्याचें झाड आशिल्लें. ताचो एक खांदो शेर्कावेल्यान वांकडो-तिकडो जावन भितर आयिल्लो. पेद्रांव मेस्त नुस्त्याक वचपाच्या वेळार आनी जॉर्जिन मिसाक वचपाचो वेळ सादोवन भुरगे आंब्या खांदयांवेल्यान भितर येताले. आदामांनीं-पेरांनीं बोल्सां भरून पासार जाताले.

एक दीस जुजेकायतानालो चेडो पेद्रांवांच्या चोपक्यांत सांपडलो. पेद्रांवच तो! ताणें कितें करचें? त्या भुरग्याक बडय-बडय बडयलो. काल्सांवांसयत सगळीं फळां काडून घेतलीं आनी पोराक नागडो करून घरा धांवडायलो.

ही गजाल आशिल्ली कोस्तू भाटकार घरा आसतनाची. पेद्रांव मेस्तान आपणें केल्लो प्रताप खोशेन कोस्तूच्या कानार घालो. भुरग्याकडल्यान घेतिल्लीं फळां आनी काल्सांव आपल्या धनयां मुखार थेयलें. आपणें चोराक नागडो केल्ल्याचें 'ऑर' ताणें खोशेन सांगलें.

मेस्तालें कर्तुब कोस्तूक मातय आवडलें ना. ताणें खंती जावन जॉर्जिनाच्या तोंडाकडेन पळेलें. 'कुयताद!' जॉर्जिनाच्या तोंडांतल्यान सहज उतर भायर पडलें.

आपल्या कुजनेरालें कर्तुब कोस्तू भाटकाराक साप्प मानवलें ना. ताणें रागान कुजनेराचेर दोन फुलयलीं आनी म्हळें - "वोशिंमोर इंगाचो! झे हें सोगलें आनी वोस त्या भुरग्याच्या घोरा लागीं. दिवन यो तें सोगलें."

कोस्तू भाटकार किर्यादाकडेन 'कोंकानी' उलोवंक जाय

तशीच उलयलो.

चड करून जॉर्जिनबायकडेन दाटी करपाची म्हजी इत्सा आशिल्ली, ती पुराय करपाची संद म्हाका एक दीस आयतीच मेळ्ळी.

कोस्तू भाटकाराल्या दारांतल्यान बाजारांत येवपा-वचपाची वाट आशिल्ली. खारव्यां नुस्तें विकून हेच वाटेन परतीं येतालीं. वाटेक तेकून भरपूर नाल्ल दिवपी माड आशिल्ले. माडाचे नाल्ल सुकून झडटाले. घरा वता आसतना नाल्ल उकलून पाटल्यांत केन्ना उडयतालीं खारव्यां हांचो पत्तो कोणाक लागनासलो. नुस्तेकारां एक नाल्ला बोंडो भाटकाराक मेळूंक दी नाशिल्लीं. नाल्लांचेर पोंय-पिस्तऱ्यो उडोवन दोळे धांपून चलत रावताल्यो खारविणी!

एक दीस हांव बारा-एकाच्या सुमाराक बाजारांतल्यान घरा वतालों. पळे जाल्यार एका माडामुंदांत तीन नाल्ल पडिल्ले आसात. भाटकाराल्या दारार नदर मारली. दार धांपिल्लें आसा. हावें कशेबशे नाल्ल उकलून वेंगेंत धरले आनी कोस्तू भाटकाराल्या दारार 'टूक-टूक' केलें.

थोड्या वेळान भाटकारान दार उगडलें.जॉर्जिनबायूय भायर आयलें. म्हज्या हातांतले नाल्ल पळोवन दोगांय अजापांत पडलीं. हे आदीं अशे तरेन नाल्ल हाडून तांकां कोणेंच दिवंनाशिल्ले. तांची तशी अपेक्षाय नासताली.

म्हज्यांतलें प्रामाणीकपण पळोवन तांकां कवतूक दिसलें. 'बाँ रापाज' म्हणून कोस्तू भाटकारान, दोनूय हातांनीं म्हजे पोले पोशेले.

नाल्ल दाराभितर थेयल्या उपरांत हांव लजत-लजत घरा वचूंक भायर सरलों मात, जॉर्जिनाबायन म्हज्या हाताक घट्ट धरलो. ओडीतूच एके कुडींत घेवन गेलें. कूड देशेंत आशिल्ली. हे कुडींत एक 'रेदोंदी' (वाटकुळें) मेज आशिल्लें. मेजाभोवतीं देशेंत कदेलां मांडून दवरिल्लीं. तें जेवणामेज आशिल्लें.

म्हाका कदेलार बसोवन जॉर्जिनबाय कुजनांत गेलें. पुडी कोराचो केक बशेंत घालून हाडलो आनी मेजार म्हज्या म्हऱ्यांत थेयलो.

तो तेंपूच तसो आशिल्लो. काळ-वेळ पळेनासतना दिता तें खावपाचो. आतां जाल्यार हांव जॉर्जिनाबायक नेटान सांगतलों आशिल्लों, 'आतां जेवणाचो वेळ जालो. असल्या वेळार हांव कांयच खायना.' तेन्ना हांव कांयच उलयलों ना. म्हाका पासां -बिसां घालून, सूर-बीर घाल्लो पुडी कोराचो केक खूब आवडटालो. हांव केकी कुडको तोंडांत घालपाचोच. इतल्यान,

"पेद्रांव, हे बाबाक कार्फ कोत्ताय मुरे?"

"तूं सांगोता जाल्यार कोत्तां बाय."

"कोर" जॉर्जिनबायन ऑर्द सोडली.

"नाकां बाय. हांव असल्या ऑगतार कॉफी बी तसलें कांय घेना!" हावें आकांतून म्हळें.

"कार्फ नाहांय जाल्यार लेमोनाद कोर."

"ना बाय, म्हजें थंडेन हड्डें भरलां."

म्हजें खरेलें कारण दुसरेंच आसलें. म्हाका त्या 'सूज्य' कुजनेराल्या हातचें कांयच नाका आसलें. तो सद्दां धुकराचें आनी गायेचें मांस हाडटा तें हांव जाणां आशिल्लों. तो मांसाचे हात धुतालो काय कितें देवाक खबर! जॉर्जिनबायन स्वताच्या हातांनी कितेंय करून दिल्यार खावंक-पिवंक कांयच हरकत नासली. आतां हावें केकय ना खावचें थारायलें.

हांव कांयच खायना तें पळोवन कोस्तू भाटकार खंती जालो.

"तो इंगा कांयच हायना जाल्यार, दी ताका फ्रूतूश".

म्हज्या फाटल्यान बोल्सांत हात घालून झेतान उबो आशिल्ल्या कोस्तून म्हळें.

"जॉर्जिना चाळवलें. ताका दिसलें कोस्तून म्हाका 'ब्रूतुश'

म्हळें म्हूण. कोस्तूक म्हणपाचें आशिल्लें म्हाका फळां दी म्हण. जॉर्जिना समजलें तो म्हाका अन्नाडी म्हणटा म्हूण. फ्रुत-ब्रुत उतरांनी गैरसमज केल्लो.

त्या उपरांत जॉर्जिनाबायची आनी म्हजी आमिझाद वाडत गेली. कोस्तू भाटकार वतकच म्हजें तांगेर येवप-वचप वाडलें. जॉर्जिनाबाय म्हाका आतां पिकेन म्हूण उलो मारूंक लागिल्लें. जॉर्जिनाबाय दनपारचें जेवन आड केन्ना पडटा आनी उठ्टा केन्ना हाची तेळणी केली. सांजेच्या पांच-साडेपांचांक जॉर्जिनाबाय बेकार आसतालें. तो वेळ सादोवन हांव कसलें ना कसलें निमित्त करून जॉर्जिनाबायक भेटूंक वचूंक लागलों. सुर्वेक भंय आनी दचक दिसलो. मागीर म्हजी जॉर्जिनबायकडेन संवंय जाली. तें म्हजी वाट पळोवंक लागलें. पयलीं-पयलीं तें म्हाका आफोवन आपले कुडींत व्हरतालें. बाज्जेर बसयतालें. मागीर हांव सरळ कुडींत वचून जॉर्जिना म्हऱ्यांत कुडींत बसूंक लागलों. म्हाका तोंड सुटलें. खूब वेळ गजाली चलताल्यो आमच्यो. हांवें बडबडप, ताणें 'हूं-हूं' करप. पूण म्हजी बडबड थांबची, अशें मात ताका केन्नाच दिसलें ना. रेडियोवेलीं लता मंगेशकरालीं गीतां आनी म्हजी बडबड तें वांगडाच आयकतालें.

हें सगळें चलतासतनाच आतां म्हाका पोरसांतलीं फळां साद घालूंक लागलीं. एक दीस हांवें ताका भियेत-भियेत म्हळें,

"बाय, आदामीक आदामां खूब पिकल्यांत, काडूं हांव थोडीं?"

"तूं झाडार चोडटाय? पडचो नाय मुरे? कुयदाद जे आं, माहां भिरांत दिसता." एक आवय आपल्या भुरग्याकडेन उलयता तशी जॉर्जिनाबाय म्हजेकडे उलयलें. ताणें म्हाका उकतेपणान परवानगी दिली ना, पूण मनांतल्यान दिली. म्हाकाय तितलेंच जाय आशिल्लें. हांव उडयो मारीत भायर आयलों. थंयची एक पिशवी खांदाक लायली आनी माकडाभशेन आदामीर चडलों. पांच-धा मिनटांनींच पिक्या आदामांनीं पिशवी भरली. तशें पळोवंक गेल्यार पिक्या आदामांनीं झाड

भरिल्लें. पूण हांव पिशवेंतल्यानूच धादोशी जाल्लों.

हावें पिशवेंतलीं आदामां खोटल्यांत ओतलीं. तीं तांबडीं-तांबडीं आदामां पळोवन जॉर्जिनबाय 'सातिस्फेयत' जालें. झाडावेलीं फळां काडपी घरांत कोण नाशिल्लो. पेद्रांव कुंजनेर दोळे आसून कुड्डो आनी हात-पांय आसून थोटो आशिल्लो.

तेन्नाच्यान आदामां म्हज्या ताब्यांत आयलीं. हांव आतां जॉर्जिनाबायचो सदांचो जाल्लों. मनांत येता तेन्ना आदामीर चडपाचें, जाय तितलींच आदामां काडून देवपाचें.

"बाय, हांव यान्नीक आपोवं? आदाम आदामांनी भरल्या. पाल्यान भायर दिसनांत तीं. काडूंक गेल्यार दिसांतल्यान पांटुलो-पांटुलो मेळटलीं आदामां-यान्नीक दिल्यार चार पयशे मेळटले." हावें जॉर्जिनाबायक फुकटो सल्लो दिलो.

"माहां पोयशे नाहां. तुहां जाय तितलीं तूं हा. उरलेलीं हांव दी कोण हाता पोय तो. फोवांक लागोन येतात कोराद सुकणीं. कोत्ताय कांतार म्हुज्या देरांत!"

जॉर्जिनाबायलें पोरसूं आतां म्हाका मेकळें रान जाल्लें. म्हजी कावळ्या नदर एक्कान एक फळाचेर पडटाली. म्हजें मन आकर्शून घेवपी आनी दोन फळझाडां थाण मारून बशिल्लीं. तीं म्हळ्यार बिंबल आनी राजावांळी. राशीनी बिमलां पिकून जमीनभरवण जातालीं.

ह्या बिंबलांचें जॉर्जिनाक मोल नाशिल्लें. ताका हीं झाडां सोबेचीं आशिल्लीं. पूण म्हज्या तोंडांतल्यान मात चळ्ळ करून उदक भायर सुट्टालें.

एक दीस रावंक जालें ना. हांवें जॉर्जिनाक म्हळें, "बाय ह्या बिंबलांचें मिस्कूट फोर्त जाता. म्हजी आवय हिंग-बिंग घालून बरेंऽऽ लोणचें करता. हांव इल्लीं काडून व्हरूं? लोणचें करून तुकांय इल्लें हाडून दितां."

जॉर्जिना सूप घेवन स्वता बिंबलीकडेन गेलें. ताणें घोसांतलीं

मोटीं-मोटीं बिंबलां अचळय काडून सुपांत घालीं. म्हाका ताणें काडूंक परवानगी दिली ना. हांव कशाकशींय बुड्डीत जाल्यार!

म्हजे आवयन केल्लें बिंबलांचें लोणचें जॉर्जिनाचे जिबेर पडनाफुडें ताची जीब तोंडांतल्यान भायर-भितर नाचूंक लागली. उपरांत वर्सांन वर्स बिंबल फुलली म्हणटकीर जॉर्जिनाक म्हजे आवयची याद येवंक लागली. म्हाल-म्हाल बिंबलां तोडून तें आवयकडेन धाडूंक लागलें.

कोस्तू भाटकार वियाज मारून घरा आयलो म्हणटकीर ताका एकांत खूब आवडटालो. फाटले पडवेर वोल्तेरार बसून तो चिंत-चिंत चिंतटालो. ताणें गोंय भोंवन केन्नाच पळेलेंना. आपलो गांव, सायबाचें गोंय, पणजी-मडगांव शार हेंच ताचें गोंय आशिल्लें.

तो आफ्रिकेक आशिल्लो, पूण ताका व्हडवीक पोर्तुगालाची. पोर्तुगेज राजवटीनूच ताका आफ्रिकेक खाप्ऱ्यांचेर राज्य करपाक नोमिनियार केल्लो. कसलोच हुद्दो नासतना. 'प्रिमेंयर-सेगुंदग्राव' तो शिकिल्लो जांवये. पूण ह्या शिकपाक मोल नाशिल्लें. मोल आशिल्लें, तें कोस्तू भाटकाराल्या गोरसाणीक. ह्या गोऱ्या रंगाक लागुनूच तो आपल्याक 'पाकलो' समजतालो, -पोर्तुगेज समजतालो. पोर्तुगेजांचो तो चड उपकारी आसलो. पोर्तुगेज येवंनाशिल्ले जाल्यार आपूण गोरो जावंचो नासलों. आपल्याक गोरसाण फाव जाल्या ती इंदियेची न्हय तर ती पोर्तुगालची. हे गोरसाणीक लागूनच आपूण व्हडलो भाटकार जावंक पावलों. हे गोरसाणीक लागुनूच आपूण आफ्रिकेक वचून जैत मेळयलें. थंयची गिरेस्तकाय गोंयांत हाडूंक पावलों. थंयच्या काळ्यांचेर शेक गाजयलो हावें. हें सगळें घडलें तें जेजूचे कृपेन. हे विचार ताच्या मनांत घोळटा आसतनाच थंयच्या थंय ताणें हाताचीं बोटां वोटांचेर दवरून जेजूक उडटो उमो दिलो.

आपले पूर्वज एका तेंपार हिन्दू आशिल्ले, किरिस्तांव जावन सुटले. ना तर सगळे इंफेर्नात वचपाचे. भिकेक पावपाचे.

हें सगळें चिंततासतना एक गजाल विसरतालो कोस्तू. आपूण गोरो आसलों तरी आपली बायल काळी आसा. तिचीं दोन भुरगीं गोरीं आसलीं तरी एक पूत काळो. गांवांत ताच्या नात्या-गोत्यांतले लोक पातळिल्ले आसात. तांकां कोस्तू भाटकार आपलो केन्नाच दिसलो ना. गांवच्या किरिस्तांवांची जात एक, धर्म एक! कोस्तू भाटकार किरिस्तांव आशिल्लो. पूण ताची कात वेगळी आशिल्ली. हे कातीक लागून गांवकार ताका मिस्तीस म्हूण वळखताले. मिस्तीस म्हळ्यार मिस्तूर रक्ताचो.

आपल्याक गोंयचे लोक वेगळे नदरेन पळेतात हाची जाणविकाय कोस्तूक आशिल्ली. ताका लागून तो आपल्या मनशांपसून पयस-पयस रावतालो. घरा खावंक-जेवंक भरपूर आसतना, आफ्रिकेक वचून पोर्तुगेजांची सिर्विस करपाचें कारणूय हेंच. आतां एक मात खरें, आफ्रिकेक पोर्तुगेजांकडल्यान कोस्तूक फाल्त रेस्पेयत मेळटालो. आफ्रिकेंतल्या पोर्तुगेज अधिकाऱ्यांक कोस्तू आपलो केन्नाच दिसलो ना. तो तांच्या खातीर इंदियानूच आशिल्लो. आनी 'इंदियानूस' पोर्तुगेजांचे गुलाम आशिल्ले, ही गजाल जर आफ्रिकेंतल्या काळ्यांक खबर आशिल्ली, तर ते कोस्तूचो द्वेश केन्नाच करचे नासले. ही गजाल कोस्तूक खूब उसरां कळून आयली.

आफ्रीकेचे खाप्री कोस्तूचेर मनांतल्या मनांत जळटाले. गोरे ताका 'कोफियांसा'त घेनाशिल्ले. कारण तो 'इंदियान्' आशिल्लो. गोंयांत तर ताका कोणूच उरूंक नाशिल्लो. भुरगीं काजार जावन आपापल्या संवसाराक लागिल्लीं. एक पूत दोतोर जावन पोर्तुगालाक गेलो तो केन्ना परतो आयलोच ना. दुसरो खंय तरी पोर्तुगेजांच्या कॉलोनीत वचून तांची गुलामगिरी करूंक लागलो. धूव एका पाकल्याचो मोग करून ताच्या वांगडा पोर्तुगालाक गेली.

मनीस पोटाखातीर कितलोय पयस गेलो तरी जाणटेपणांत ताका घर आसता. घरकाराक घरकान्न सोडून गेली वा घरकान्नीक

घरकार, तर फाटी कोण उरता ताका पूत-सून, नातरां आनी धूव-जावंय बी आसतात. हांगा कोस्तू भाटकार सगळ्या वाटांनी एकटो पडिल्लो. ताका आतां घराची ओड लागिल्ली ती घराक लागून न्हय, तर फक्त जॉर्जिनाक लागून.

जुवानपणांत कोस्तू भाटकाराक काळे लोक भयान मान-रेस्पेद दिताले. आतां कोस्तूची दांत नाशिल्ल्या सोर्पावरी गत जाल्ली. तो हाताखालच्या लोकांचेर फोंसां घालतालो. पूण ताचो परिणाम कोणाचेर कांयच जायनासलो.

जॉर्जिनाबाय आतां थकून गेल्लें. भुरग्यां-बाळांच्या आदाराची आस्त नाशिल्ली ताका. निदान निमणे वेळार तरी घोव आपल्या म्हऱ्यांत सेगीत आसचो अशें दिसतालें जॉर्जिनाक. ताणें चीट बरोवन कोस्तूक सिर्विस सोडून 'उर्जेंत' घरा येवपाची 'ऑर्द' दिली. कोस्तूय तितलेंच सोदतालो.

जॉर्जिनान कोस्तूक उर्जेंत घरा यो म्हूण चीट बरयल्ली. पूण आपूण दुयेंत बी आसा म्हूण चिटयेंत कांय बरोवंक नाशिल्लें.

एक दीस जालें अशें - जॉर्जिना इस्कादेवेल्यान घुंवळ येवन पडलें. अशे तरेची घुंवळ ताका पयलेच फावट आयिल्ली. हे आदीं गांवच्या दोतोराकडल्यान तें वोगतार प्रेसांव तपासून घेतालें. पूण आतां ताका आपल्याक व्हडल्या दोतोराकडल्यान तपासून घेवचेंशें दिसलें.

पोर्तुगेजा तेंपार गांवांत आतांभशेन दोतोर नासताले. जॉर्जिनाच्या तेंपार पणजेचो गोविंद वैद्य, पाट्यावेलो दोतोर कुडचडकार बी फामाद आशिल्ले. तांच्या वांगडाच प्रेसांव, कुरासांव आनी दियाबेत हीं दुयेंसांय चड फामाद आशिल्लीं. बायलांचीं दुयेंसां पयस जातलीं जाल्यार तांकां बाकाल्यांव खावयताले फामाद दोतोर!

जॉर्जिना तर कांक्राचें नांव काडल्यार कच्च करून आंग काडटालें.

पाट्यावेलो दोतोर येवन जॉर्जिनाक तपासून गेलो, आनी

ताच्या जिवांत जीव आयलो. जॉर्जिनान आतां दोळे उक्ते केले खरे, पूण ते आतां कोस्तूचे वाटेकडेन लागले. ताचें मरण आतां लागीं पाविल्ल्याचीं सपनां ताका दिसाचींच पडूंक लागलीं.

कितेंय जालें तरी कोस्तू आनीक चार-पांच वर्सां तरी आफ्रिकेक रावूंक शकतालो. पूण आतां तो आफ्रिकेचेर विटिल्लो. कसलीच आसक्ती मनांत बाळगिनासतना ताणें परकी तेर्राक फाट केली ती कायमचीच.

कोस्तू गोयां पावलो तेन्ना जॉर्जिनान हातरूण धरिल्लें. पूण पुराय शिंतीदार आसलें. कोस्तूक पळोवन ताच्या जिवाक आतां तरतरी आयिल्ली. पूण ती खिणाची आशिल्ली.

जॉर्जिनाची स्थिती पळोवन कोस्तू सामको गर्भगळीत जालो. ताणें चिंतलें, आपली सगळी गिरेस्तकाय ओतली तरी आपलें जॉर्जू आतां आपल्याक मेळपाचें ना. ताका साल्वार केल्यार देवानूच.

तो आतां दिसांतल्यान चार फावट तरी जेजूच्या आल्तारा सामकाराक दिमयो घालून जॉर्जिनाच्या प्राणाची भीक मागूंक लागलो. पूण मनशान देवाफुडें कितलेंय नाक घासलें तरी मरणाफुडें ताचें कांयच चलना. व्हडलेंशें जाल्यार दुडवां नाड्यार आयजचें मरण चार दीस फुडें धुकलूं येत, इतलेंच! जंय राम-कृष्ण, बुध्द-जेजू मरणाफुडें कांयच करूंक शकलेनांत, थंय कोस्तू भाटकाराची कसली बिशात? जेजू आनी मांयमोरी जॉर्जिनाचे प्राण वाचोवंक शकलीं नां. जॉर्जिनान कोस्तूचे वेंगेंत निमणो स्वास घेतलो.

जॉर्जिनाच्या मरणान कोस्तूच्या काळजाक जबर धक्को बसलो. तो केन्ना रडूंक नासलो तितलो रडलो. कोस्तू रडटा म्हूण मेस्तान बोबो मारल्यो. मागीर पोस्कें बेला कशें ओगी रावत? तेंय हुयेली मारून मेकळें जालें. रडलोना तो लाद्रांव. तो शेंपडी हालयत घरभर पासयो मारीत रावलो.

थोड्याच वेळान इगर्जेच्यो घांटी गांवभर पेरगांव घालूंक

लागल्यो. गांवची एक धूव ह्या संवसाराक अंतरली म्हूण दुखेस्त सुरांनी गांवाक कळीत करताल्यो त्यो घांटी!

"लोक्षीम, जॉर्जिनबाय जेलें मुगो!" शेजारच्या मार्तीनान धावत येवन जॉर्जिनाच्या मरणाची गजाल म्हज्या आवयच्या कानार घाली. म्हज्या आवय-बापायन खिणांत कोस्तू भाटकारागेर धांव मारली. तांच्या फाटल्यान म्हजींय पावलां आपसूक वळ्ळीं. आमचो घराबो सोडल्यार आनी कोणाचोच आदार नाशिल्लो कोस्तू भाटकाराक!

कांय मनशां जात-धर्मांचीं आसुनूय फाटल्यान उरिल्ल्यांच्या काळजांत घर करून हो संवसार सोडून वतात. जॉर्जिनाबाय गेल्ल्यान म्हाका दुख्ख जाल्लेंच. पूण तेय परस चड दुख्ख म्हाका कोस्तू भाटकाराचे हाल पळोवन जातालें. जल्मभर एकटेंपणाचें जिवीत जगलो तो! रेफोर्माद जातलो आनी उरिल्ले दीस आपले मोगाळ घरकान्नी सांगातान काडटलों म्हूण आशेन जगतालो तो. पूण ते दीस निवृत्त जावचे आदींच देवान हिस्कावन घेतिल्ले. सपनां रंगयत-रंगयत मोलादीक दीस सारतनाच दुख्खा ल्हारांत सांपडलो कोस्तू. ताचें हें दुख्ख ना भाटां-बेसां पयस करूंक शकलीं, ना पोर्तुगेज सरकार आनी तांची गोरसाण! ज्या गांवभावांक तो काळे, बुरशे, अन्नाडी, बुर्र समजतालो, तेच आयज ताचें दुख्ख ल्हव करूंक ताच्या दारांत धावून आयिल्ले.

कोस्तूक आतां आपल्या अविचारी कर्तुबांचें पिकासांव जावंक लागिल्लें. ताका आपली धर्मपत्नी गेल्ल्याचें दुख्ख जाल्लेंच, तेय परस चड दुख्ख ताका आपणें केल्ल्या पिशेपणाचें जातालें. आपले गोरसाणिचो-आपले भाशेचो गर्व तो आतां विसरूंक लागिल्लो.

जॉर्जिनाच्या मरणाक लोकांनीं गर्दी करूंक नाशिल्ली. गरिबांतल्या गरिबाच्या मरणाक जाता तितलीय गर्दी कोस्तू भाटकाराल्या दारांत दिसली ना. तरी 'ओब्रिगासांव' करपाक, शेतांत काश्टी मारून काम करपी बेगारी, काशेदांतले पोन्यातले पोन्ने फात मारून मरणाक आयिल्ले. काशांव व्हरपाक गाडो आयिल्लो. पादविगार न्हेसून

आयिल्लो. रडकुरें मुज्ग वाजतालें. पूण दुकां गळोवंक जॉर्जिनालें एकय भुरगें म्हऱ्यांत नाशिल्लें. पोर्तुगाल तर खूब म्हळ्यार खूबच पयस आशिल्लें.

जॉजिनालें काळें मडें, मडें व्हरूंक आयिल्ले काळे गांवभाव, काळें मळब, घराभोंवतणी उडपी काळे कावळे आनी तांच्यामदें आशिल्लो तो गोऱ्या कातीचो एकटोच कोस्तू भाटकार! कोस्तू भाटकाराक सांगात करतालो तो ताच्या घराचो हळदुवो रंग.

जॉर्जिना गेल्या उपरांत कोस्तून आपले कुजनेराक 'रेफोर्मांद' केलो. कितें दिवंक जाय तें दिवन मेकळो केलो ताका. हे फुडें एका म्हाताऱ्याक दुसऱ्या म्हाताऱ्याची कटकट सोसपा सारकी नाशिल्ली.

कोस्तू जेन्ना-जेन्ना आफ्रिकेंतल्यान गोंयां येतालो, तेन्ना-तेन्ना तो उमेदीन आनी खुशालकायेन भरतालो. ताका कारण आशिल्लें, ताचें मोगाळ जॉर्जिना! भुरग्यांचो मोग ताका नाशिल्लो असो न्हय. तीं तर ताच्या म्हातारपणाचो आदार जावन आशिल्लें. पूण जॉर्जिना ताचें सर्वस्व आशिल्लें.

आतां जॉर्जिना म्हऱ्यांत नाशिल्लें. कोस्तूचें मन सैरभैर जाल्लें. ताका दिसतालें, आपलें हक्काचें मनीस गेलें आनी आपूण उबंत पडलों.

खरें म्हळ्यार आपूण उबंत-बिबंत पडलों असले विचार कोस्तूच्या मनांत येवपाचें कसलेंच कारण नाशिल्लें. बायल गेली म्हूण कितें जालें? भुरगीं नाशिल्लीं तर ताका? कितें उणें केल्लें ताणें आपल्या भुरग्यांक? एका गिरेस्ताल्या भुरग्यांक वागोवंक जाय तशींच वागयल्लीं ताणें आपल्या भुरग्यांक!

जॉर्जिना वचून आतां आठ दीस पासार जाल्ले. कोस्तूले दोळे आतां भुरग्यांले वाटेकडेन लागून आशिल्ले. फुडाराचीं सपनां पळेत!

दोन-दोन दिसांच्या अंतरान कोस्तूलीं दोगांय गोरीं भुरगीं गोंयांत पावलीं. आयलीं तीं आयलीं, घोड्यार बसून आयलीं. वांगडा

भुरग्या-बाळांक कोण्णाक हाडलीं ना तांणीं. व्हडलो आंतोनियो आनी मदलें बाय ज्युलियेत, दोगांच आयलीं.

कोस्तू आतां गोरे कातीक पळोवन तितलो खोशी जालोना, जितलो काळ्या आल्बेर्ताक पळोवन जावपाचो. आल्बेर्तांत जॉर्जिनांतलो काळो कोर उप्पाट भरिल्लो. जॉर्जिना सारकोच ताच्या आंगात आस्पावल्लो. ताका लागून आल्बेर्त ताका आपल्या दोळ्यांकडेन जाय आसलो. तो ना तो पळोवन कोस्तूल्या मनांत भुर्र करून विचार आयले. आपल्या काळ्या पुताक आपल्यापसून पयस दवरून जेजू आपल्याक ख्यास्त बी भोगयना मू?

दोगांय भुरग्यांनी येनाबराबर आपल्या पायक घट्ट वेंग मारपाचें काम पुराय केलें. रडपाची-बिडपाची फोर्मालदाद सोंपल्या उपरांत दोगांय भुरगीं आपले मांयक विसरूनय गेलीं. तांच्या चेऱ्यावेली सावळी खिणांत पयस जावन ते सुवातेर वत पातळ्ळें.

पूण कोस्तूली दुकांझर अजून आटूंक नासली. ती सतत पाझरून दोळे थेंबेताले. कोस्तूक दिशिल्लें, आपलीं भुरगीं आतां आपलो विचार करतलीं. भुरग्यांक भायल्या तेर्राक सोडून आयिल्ल्यान, 'पापा' म्हऱ्यांत रावप कोणाक शक्य जावचें ना हें आदींच उक्तें जाल्लें. पूण निदान वयलेतरांक तरी आपलीं भुरगीं आपल्याक वांगडा व्हरपाक तयार जातलीं अशें कोस्तूक दिसतालें. पूण तशें कांय घडलें ना. 'पाय'क घर राखूंक सोडून दोगांय आयिल्ले वाटेन परत गेलीं. जशीं तीं मांय-पायच्या मोगान येवं नाशिल्ली तर भोगावळ करपाक भोंवडेक म्हूण आयिल्लीं.

कोस्तुलें जॉर्जू गेलें. भुरगींय पयस जालीं. तो खरेल्या अर्थान आतां एकटो पडिल्लो.

मनीस कितलोय निर्शेलो, कितलोय दुखेस्त जालो तरी ताका जगपाची आस आसताच. कोस्तूकूय आपली फुडली जीण जगपाची आस आशिल्ली. जॉर्जिना फाटल्यान ताका भुरगीं लागसारचीं आशिल्लीं.

तांचीं मनां ताणें पारखिलीं आनी आपले फुडले जीणेची ताणें येवजण केली.

सगळ्यांत पयलीं ताणें पेद्रांवांक रेफोर्माद केलो. त्या म्हाताऱ्या कुजनेराची कटकट आतां कोताक येवपाची नाशिल्ली. ताका कितें दिवंक जाय तें दिवन ताका घरच्यांचे सुवादीन केलो.

आतां कोस्तूच्या सांगाताक उरिल्ले दोन जीव-लाद्रांव आनी बेला. लाद्रांव सुणो आनी सेर्वेंत बेला. कोस्तूच्या माथ्यार सुण्याचो पेज नाशिल्लो, पेज आशिल्लो तो बेलाचो!

बेला ल्हानपणांत सावन कोस्तूल्या घरांत पोसकें म्हूण वावुरलें. ताका खंयच्यान आनी कोणें हाडून सोडलें देवाक खबर. पूण ताका पोसपाची आनी ताची राखण करपाची जापसालदारकी कोस्तूची आशिल्ली.

बेलाची इदाद आतां चाळीस वर्सांची आसली. तें कितलेंय पिरायेचें आसलें तरी कोस्तू ताका रेफोर्माद करून ताच्या घरा धाडूंक शकनासलो. कारण ताका घर आनी सोयऱ्यां-धायऱ्यां कोणूच नाशिल्लीं.

कोस्तू कातीन गोरो आसलो तरी मनान काळो नासलो. ताणें चिंतलें, आपणें आतां साठी हुपल्या, जॉर्जिनाचें आपोवणें केन्ना येत कोणाच्यान सांगूं येता? फाल्यां आपल्याक कितेंय जालें जाल्यार बेलाचें कितें? ताका फाल्यां आंतोनियोन खोंट मारून धांवडायलें जाल्यार ताचें कितें जातलें? उतरान न्हय तर लेत्रान बेलाच्या पोटा-पाणयाची वेवस्ता करून दवरलीना जाल्यार पोर वाऱ्यार पडटलें. तशें घडलें जाल्यार जिजस आपल्याक कसोच भोगशीचोना.

कोस्तून चिंत-चिंत चिंतलें. ताच्यान एक बरोसो भाटाकुडको बेलाच्या नांवार करूंक जातालो. पूण तशें केल्यार आपलीं भुरगीं ताका तो भोगूंक दितलींच अशें सांगू नजो. चड करून आंतोनियो बेलाक कसोच सुखान जगूंक दिवचो ना. तेन्ना एकूच उपाय आशिल्लो कोस्तूमुखार, आनी तो म्हळ्यार बेलाकडेन काजार जावपाचो. अशें

केल्यार दोगांकय कायद्याचो तेंको मेळटलो आनी दोगांचेंय जिवीत सुखी जातलें, अशे विचार कोस्तूच्या मनांत आयले.

पेद्रांव गेल्या उपरांत दोगां मनशांचें जेवण बेलाच करतालें. पेद्रांवाकडल्यानच शिकिल्लें तें रांदूंक. तरी पेद्रांवां परस बरें जातालें जेवण!

बाजारूय तेंच करतालें. सगळें घर त्रातार करूंक लागिल्लें बेला आतां.

एक दीस कोस्तू फाटले वासरेर, ऑल्तेरार बसून कितें तरी चिंतीत आशिल्लो. ताणें बेलाक उलो मारलो –

"कितें बाब, कित्याक उलो मारलो माहां?"

"येयलें बाजाराक वोसोंन?"

"व्होय बाबा!"

"कितें मेवलें निस्त्याक?"

"शेवटो बाबा!"

"तोहें तोर आयज आमहां कोरी बोरी आहा. तूं कोत्ता आर्रोस–कोरी चोड बोरी!" कोस्तून बेलाची आयज देमायज तुस्त केली. जॉर्जिन मेल्ल्याक बेलान पयले खेप आयकल्ली आपली तुस्त कोस्तूच्या तोंडांतल्यान!

"हाल्यांच्यान मेवची ना आमहां हांवंक ओहली कोरी!" कोस्तू आपली निजाची कोंकानी भास उलयलो.

"कित्याक बाब! ओहली कोरी हाल्यां कित्याक मेवची ना?" काचाबूल जावन बेलान म्हळें.

"कित्याक तोर, येतोलो हाल्यां, नोवो कुजनेर."

"नोवो कुजनेर, तो आनी कित्याकू? म्होजो आर्रोस–कोरी बोरी जाता ओहें तूंच म्होण्टालो न्होय गा!"

"होय हांव म्होण्टालों. पूण माहां जाय दादलो दुसरो घारांत. दुबाव झेवंक नाहां लोकांक, पडोवन एकठांय एक ओस्तुरी आनी

दादुलो.'' कोस्तून 'ओस्तुरी' हें उतर पाद्रील्या शेरमावांतल्यान खूबदां आयकल्लें.

बेला अशिक्षीत आसुनूय हुशार आसलें. कोस्तू ताका कितें सांगूंक सोदता हें कळूंक ताका कळाव लागलोना.

''आगोर (आतां) तुहां नाहां तोर कुजनेर, कोरूंक जाता आमच्यांनी एक माण्णी. तूं आहा तोयार तोर उलोय.''

''कोहली माण्णी बाबा! उलोय तोरी.'' – बेला

''जावंक बोरें तुजें आनी म्होजें, जावया आमी काजार दोगांय!''

कोस्तूलो प्रस्ताव आयकून बेला अजापांत पडलें ना. हुशार बेला अशें कितेंय तरी घडटलें हें आदींच जाणां आसलें. म्हाताऱ्या कोस्तूक अशें केल्या बगर दुसरो पर्यायूच नासलो. दोन जिवांक सुखी करपाची एक तडजोड आशिल्ली ती!

बेलाय तितलेंच सोदतालें. पडट्या फुलाची आज्ञा मानून ताणें कोस्तूल्या प्रस्तावाक हयकार दिलो. चाळीशींतली व्हकल आनी साठी हुपिल्लो न्हवरो आतां काजराक तयार जाल्लीं.

आतांच्या तेंपार कोणाक तशें व्हडलेंशें दिसपाचें ना असल्या काजारांचें. पूण कोस्तू-बेलाच्या काळार मात, 'बेताळाक ना बायल आनी काळखा देवतेक ना घोव' म्हूण समाज असल्या काजाराक मान्यताय दितालो.

काजाराच्या उतरान आतां बेला खोशेलें. कोस्तू कोंबेलो. इगर्ज आनी पाद्रविगार घरा फाटल्यानूच आशिल्ल्यान, कोस्तून काजाराचे तयारेक इल्लोय कळाव लायलोना.

कसलोच बोवाळ नासतना कोस्तू-बेलाचें काजार जालें. घोव-बायल राजा-राणी कशीं सुखान रावंक लागलीं. पूण तांचें सूख इगर्जेफाटल्या जेर्मनाच्या दोळ्यांत खुपसूंक लागलें. हो खूनमारो जर्मन आपलेच बायलेचो खून करून गोंयां भायर पळून गेल्लो. गोंयांत परतो आयल्या उपरांत तो बेलाचेर दोळो दवरून आशिल्लो. ताका लागून

कोस्तू-बेलाचें काजार ताका सोंसलेंना.

जेर्मानान कोस्तूल्या व्हडल्या पुताचो-आंतोनीचो-पत्तो सोदून काडलो. आंतोनियोक ताणें चीट बरयली. चिटयेंत कोस्तू-बेलाच्या काजाराची गजाल अशे तरेन फुगोवन बरयली, की ती वाचून आंतोनियोक आपल्या बापायचो राग येवंचो, आनी गोंयांत येवन बेलाक घरांतल्यान भायर घालचें.

जेर्मानाली चीट हातांत पडनाफुडें आंतोनियोल्या आंगाची गोरसाण तांबसाणीत बदलली. पाय काजार जालो हाचें मातूय दुख्ख ताका जावंक नासलें. पूण आपल्याच घरांतले वावराडेकडेन काजार जावप हें कोस्तूल्या गोऱ्या कातीच्या भुरग्यांक केन्नाच मानवचेलें नाशिल्लें.

आंतोनियोन कळाव केलो ना. रागा भारार कळाव करिनासतना गोंयची वाट धरली ताणें. तेक्याक बायल आशिल्लीच.

गोंयां पावतकीर घराचो हुंबरो हुपनाफुडें आंतोनियोन फाटलो-फुडलो विचार केलो ना. बेलाचो हात धरून ताका भरभरीत ओडून भायर व्हेलें, आनी दिलें धुकलून इस्कादीवेल्यान!

बेला इस्कादीवेल्यान गडगडलें. तरी बरें, ताचे हात-पांय मोडलेनांत. तें सोपणांचेर तशेंच पडून रावलें. आंतोनियोन ताका धमकी दिली - परतें घरांत पांय दवरशी जाल्यार तुजें भेंड मोडून घालतां. म्हूण!

इतलें करून आंतोनियो बायलेचो हात हातांत घेवन झडझडीत घरांत शिरलो. वतना ताणें कोस्तूचेर तिरस्कारान एक नदर मारली.

हें सगळें घडटा आसतना कोस्तू बोल्सांत हात घालून, दाराकडेन उबो रावन शांतकायेन सगळें पळेतालो. घराचो मालक आसूनय कोस्तून पुताक तोंड घातलें ना. ताका जाय जाल्यार ताच्यान म्हणूं जातालें, बेलाकडेन आपूण काजार जालां. तें हें घर सोडून खंयच वचचें ना. तुकां तें सोंसना जाल्यार तूंच वच तोंड घेवन म्हज्या घरांतलो.

पूण कोस्तून तशें केलें ना. ताका गांवांत तमासो दाखोवंक नाका आसलो. दांतूय आपले आनी ओंठूय आपले म्हूण तो सगळें सोंसून शांत रावलो.

बेला अजून एके सुवातेर पडून आशिल्लें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो पावळ्यो गळटाल्यो. आपलो घोव खूंट कसो उबो आसा. आपले मजतीक फुडें येना म्हूण ताचें मन दुबावीत जाल्लें. ताका दिसतालें, कोस्तू आपल्या पुता फाटल्यान आपुणूय भितर वतलो आनी फुडलें दार बंद करतलो. आनी आपूण सुण्यावरी थंयच पडून उरतलें.

पूण कोस्तूकडल्यान तशें घडपाचें नासलें. तो ताठ कण्याचो मनीस संथ गतीन धेपां मारीत इस्कादीवेल्यान खाला देंवलो. ताणें बेलाक हात दिवन उबें केलें. देवादयेन ताचे हात-पांय शाबूत आशिल्ले.

कोस्तून बेलाक एका खांब्याक तेंकून उबें केलें. भितर वचून ताणें गरजेचो रोप (मुस्तायकी) काशेदांत भरलो. एका हातांत काशेद आनी दुसरो हात बेलाच्या भेंडा भोवती घालून तो घराभायर सरलो.

खंय वतलो तो आतां नवे बायलेक घेवन! धुवेगेर? ती तर पोर्तुगालाक आसा. सोयऱ्यां-धायऱ्यांकूय दोनूच दिसांनी जड जावपाचीं. तेन्ना कोस्तू भाटकारान कोणागेरूच ना वचपाचें थारायलें.

घरापासून पयस एक भाटाकुडको आसलो मुंडकाराविरयत. एक मुंडकार आसलो तो हालींच मरून गेल्लो. मोडकें जावं मागीर, कोस्तू भाटकाराक घर आयतेंच गावलें. बेलाक घेवन तो एक मुंडकार कसो आपल्याच भाटांत रावंक लागलो. तांची राखण करपाक वांगडा लाद्रांव आशिल्लोच.

उपरांत बरींच वर्सां पासार जाल्लीं. एक दीस हांव बाजारांतल्यान घरा येतालों. अकस्मात वाटेर मड्यागाड्याचेर नदर पडली. चवकशी केल्या उपरांत कळ्ळें, कोस्तू भाटकार ह्या संवसाराक अंतरलो. काळजांत धस्स जालें. कोस्तू भाटकार म्हजो कोणूच नासलो. तरी म्हज्या घराकडेन वचपी म्हजीं पावलां कोस्तुल्या घराकडेन आपसूक वळ्ळीं.

घराच्या बल्कावांत काशांव सजोवन दवरिल्लो. काळ्या कोराच्या काशांवांत गोऱ्या कातीचो भाटकार फात मारून सासणाची न्हीद घेतालो. बेला म्हऱ्यांत बसून हुयेली मारतालें. फुडलें दार आनी जनेलां बंद आशिल्लीं. घरांत रेडिओचेर पोर्तुगेज संगीत लागिल्लें. संगीताच्या तालार आंतोनियोलीं बायल-भुरगीं 'दांस' करतालीं-हांसतालीं-किटकिट्टालींय बी. आंतोनियोचो तर पत्तोच नासलो. घरांत संगीत आनी बल्कावांत बेलाच्यो हुयेली. सगळें विचित्र आनी विचित्र!

असल्या वातावरणांत म्हाका चड वेळ थांबप शक्य नासलें. काशांवां म्हऱ्यांत वचून निमणी नदर कोस्तू भाटकाराच्या चेऱ्यार घाली. ताचो गोरो 'कार्रेगाद' रंग आतां फिको पडिल्लो. जे गोरसाणिचो ताका गर्व आशिल्लो, तिच्या बदला कोस्तूच्या चेऱ्यार गोंयचे मातयेची तांबसाण चडिल्ली. आफ्रिका आनी पोर्तुगाल कोस्तूवांगडाच काशावांत बंद जाल्लीं. भायर मेकळें आशिल्लें तें गोंयचें सुंदरें - बेला.



# दुर्लक्षीत माणकां मोतयां

**ह्या** संवसारांत कितलींशींच खरीं आनी मोलादीक माणकां-मोतयां मनशाच्या रुपान हांगा-थंय पातळिल्लीं आसात. तीं आडनदर जाल्ल्यान, स्वताक शाणे आनी व्हडले पारखी समजपी विद्वान, असल्या मोलादीक माणकां-मोतयांकडेन मुजरत दुर्लक्ष करतात. हीं मोलादीक माणकां-मोतयां भायल्यान रांपेल्लीं दिसलीं तरी भितरल्यान तीं स्वच्छ, पवित्र आनी चकचकीत आसतात.

म्हज्या मनांतलो माणकां-मोतयांचो अर्थ घडये कोणाकय समजलो ना बी जायत म्हण, तो स्पश्ट केल्लो बरो.

आमी घरांत सान्न मारून कोयर भायर मारतात. कारण कोयर घराक बुरशेपण हाडटा. अशें जरी आसलें, तरी आमचे भारतीय संस्कृतायेंत कोयराक इल्लो तरी मान आसताच. आमोरेर सान्न मारून कोयर भायर मारचो न्हय, अशें हांगाचे हिन्दू धर्मीय मानतात. दुसरी म्हत्वाची गजाल अशी, की शेट, भांगर करपी आपले कार्यशाळेंतलो कोयर एकठांय करून भायर केन्नाच उडयनात. तो एका कोनशाक राशीक मारून दवरतात. कारण ताका खबर आसता, त्या कोयरांत बारीक बारीक भांगरा कण भरसून आसतात. शेटीक ते दिसनात. तरी

तो कोयराचेर विस्वास दवरून आसता.

आनी ताचो विस्वास खरो थारता. एक दीस एक दादलो मनीस येता आनी हजारांनी रुपया दिवन कोनशांतलो कोयर घेवन वता.

आमचो हो देश मनीसरुपान भरिल्ल्या कोयराचो, अशें नाइलाजान म्हणचें पडटा. हांगा आडबरयां मनीस जल्माक येतात. पूण चडशा मनशांचें रोखडेंच कोयरांत रुपांतर जाता. ह्या कोयरांत दादले आसतात आनी बायलोय आसतात. हो कोयर सदांकाळ समाजाक आनी राष्ट्राक बादक जायत आयला. आतांय जाता आनी हे फुडेंय जायत रावतलो.

अशें आसलें तरी ह्या कोयरांत लेगीत हांगा-थंय माणकां-मोतयां दडून बशिल्लीं आसात. ह्या माणकां-मोतयांच्या आदारानच हें आमचें विशाल राष्ट्र आयजमेरेन नीट चलत आयलां. कोयराच्यो राशी मदें-मदें आड आयल्यात जायत, तरी ह्या देशांतल्या माणकां-मोतयांनी आपल्या आड येवपी कोयराच्यो राशी हुबोवन भायर मारल्यात, पयस केल्यात.

म्हज्या मनांतलो कोयर म्हणल्यार ह्या देशांतली निर्बुध्द जनता आनी माणकां मोतयां म्हणल्यार ह्या राष्ट्राच्या बऱ्याचो, हिताचो आनी संस्कृतायेचो सतत विचार करपी लोक. हातूंत दादले-बायलो आनी ल्हाना-व्हडांचो आसपाव आसा.

ह्या देशाची संस्कृताय आनी मान-सन्मान राखून दवरपाचें कार्य सोसीक आनीक समजदार अस्तुऱ्यांनी केला. तांकां लागूनच हें राष्ट्र बळीश्ट जावन तिगून आसा. म्हाका हांगा अरवळ आनी शिकून लेगीत अडाणी आशिल्ल्या बायलांविशीं कांयच सांगपाचें ना. उपेक्षीत रावनय ह्या राष्ट्राक उजवाडांत दवरपी सोसीक अस्तुऱ्यांची याद म्हाका हांगा करून दिवची-शी दिसता.

गजाल आसा रामायणांतली. राजा दशरथाचें आज्ञापालन करपाक श्रीराम चवदा वर्सांच्या वनवासा खातीर वचपाक तयार जाता. रामपत्नी

सीताय आपूण हक्काची बायल म्हूण श्रीरामाची फाट सोडिना. राम थंय सीता म्हणून ती वनवासाक वचपाक तयार जाता.

लक्ष्मण हो रामाचो खासा भाव न्हय. तरी तो आतांच्या भावां प्रमाण हिशोबी नाशिल्लो. ताचें आपल्या व्हडल्या भावाचेर खूब प्रेम आशिल्लें. ताणेंय भाव-भावजये वांगडा, तांचे राखणे खातीर वनवासाक वचपाचो हट्ट धरलो, आनी तो गेलोय बी!

अशें करतासतना लक्ष्मणान आपले पत्नीचो, उर्मिलेचो विचार केला अशें दिसना. चवदा वर्सां, अर्दांगी रुपी माणीक कोयरांत सोडून लक्ष्मण वनवास भोगता. तोय भाव आनी भावजयेचे राखणे खातीर, सेवे खातीर!

तेन्नाच्याच काळाचो विचार केलो जाल्यार आनी कोणूय बायलमनीस म्हणटली आशिल्ली, जर राम थंय सीता, तर लक्ष्मण थंय उर्मिला कित्याक आसची न्हय? आपुणूय घोवा वांगडा वतां. घोव थंय आपूण! आपलो घोव शूर आसा, वीर आसा आनी राजपुत्रूय आसा. ताका सोडून हांव ह्या कोयरांत कित्याक पडून रावूं? हांव अशीऽ लेची पेची ना. सीता जर आपल्या घोवा वांगडा रावन पतीची सेवा करूंक शकता, पतिधर्म निभावंक शकता, तर आपणेंच ह्या सगळ्या लागणुकां पसून वंचीत कित्याक रावचें? आपल्यांत कितें उणें आसा म्हूण आपणें चवदा वर्सां मेरेन कोयरांत पडून रावचें?

हे विचार उर्मिलेच्या मनांत घोळटाले. तिका जाय जाल्यार आपल्या सुखा खातीर ती बंड करूंक उबी रावंक शकताली!

पूण तिणें तशें केलें ना. कारण ती राजघराण्यांतली सून आसली, तरी त्याच राजघराण्यांतली ती राणी कैकया नाशिल्ली. राणी कैकया आनी उर्मिला एकाच राजघराण्यांतल्यो अस्तुऱ्यो. पूण कैकयी सुवार्थी, आपल्या पतीचो, राज्याचो, प्रजेचो आनी आपल्या घराब्याचो विचार ना करतां, फकत आपल्या पुताच्या हिताचोच विचार करपी. पुताक

मागीर तो आवडूं वा नावडूं.

म्हज्या मुखार आतां एक प्रस्न उप्रासता तो असो, की उर्मिलाय जर कैकयेच्या पावलार पावल दवरून वागिल्ली. हेरांचो विचार न करतां तिणें आपल्याच सुखाचो विचार केल्लो, तर रामायणाक वेगळेंच वळण मेळटलें आशिल्लें. उर्मिलेन जर लक्ष्मणाक म्हणिल्लें, की तूं म्हजो हक्काचो घोव. लग्नाची बायल हांव तुजी. रामा वांगडा जर सीता वनवासाक वता, तर उर्मिला लक्ष्मणा वांगडा कित्याक वचूंक शकना? कोणें सांगलां उर्मिला वनवासाचें दुख्ख सोसूंक शकची ना म्हूण! चवदा वर्सांचो काळ थोडो न्हय. हो काळ हांगा कोयरांत पडून वगडावचे परस, घोवा वांगडा वनांत वचून व्हडल्या देराची आनी जावेची सेवा करप खंयच्यान वायट? राम-लक्ष्मण भाव जाल्यार, सीता-उर्मिला वनवासांत भयणां भशेन कित्याक वावरूंक शकनात? सांगाताक शूर-वीर भर्तार आसतना खंयचेय अस्तुरेक भिवपाची कसली गरज!

हे विचार त्यागाचे जाले. उर्मिला सर्वसामान्य अस्तुरे प्रमाण, कायद्याची आनी सुवार्थाची भाशाय उलोवंक शकताली. तिच्या राजघराण्यांत, तिच्या सामकाराक कैकयेची देख आशिल्लीच. ती म्हणूंक शकताली, तुजो व्हडलो भाव आनी भावज वनवासाक वतात जाल्यार बरेंच जालें. वचूंदी तांकां. वांगडा जाय जाल्यार सेवक-सेविको व्हरूंदी थोड्यो. तूं कित्याक म्हाका हांगा कोयरांत सोडून तांच्या फाटल्यान वता? रामा फाटल्यान अयोध्येची गादी रिकामी जाता. तिचेर बसून ती तुमी सांबाळात. मागीर तुमी राजा आनी हांव राणी! तें करपाक तुमकां इल्लो संघर्श करचो पडटलो. तुमचे काकीकडेन. कारण, ती आपल्या पुताक राजा करूंक सोदता.

पूण उर्मिलेन तशें कांयच केलें ना. आनी तिणें तशें केल्लें जाल्यार ह्या देशांत येदें व्हडलें रामायण घडचें नाशिल्लें. रामांत 'राम' उरचो

नाशिल्लो आनी लक्ष्मणांत 'लक्ष्मण!'

पूण ह्यो जाल्यो रामायण म्हाभारतांतल्यो काणयो. पुराणांतलीं वायंगीं खंय शाकेक उपकरनात अशें जरी आसलें, तरी आयज हो विशाळ भारतदेश, तिगून उरला तो पुराणांतल्या वायंग्यांच्या आदारानूच.

म्हाभारत-रामायण आनी पुराणांतूय, अशो खूबशो काणयो आसात ज्यो आयजच्या जमान्यांतल्या लोकांक पटपा सारक्यो नात. पूण कांय गजाली असल्योय आसात, जांचेर आदारून हें राष्ट्र धिटायेन उबें आसा.

रामायणांत उल्लेखीत कैकया आनी मंथरा सारक्यो पाड्यो आनी उजो लावण्यो अस्तुऱ्यो तेन्नाय आशिल्ल्यो, ते आदींय आशिल्ल्यो, आतांय आसात आनी हे फुडेंय त्यो ना जायत-शें दिसना. तांचें अस्तित्व हें ईश्वराचीच करणी जावन आसा.

ईश्वर सदांच बऱ्या वांगडा वायटूय घडयता. आयज आमकां ह्या संवसारांत विविधताय पळोवंक मेळटा ताचें कारणूय हेंच.

ईश्वरान ज्या राजघराण्यांत कैकयेक हाडून थापीत केल्या, त्याच घराण्यांत उर्मिलेक आनी सीतेक नंदपाची संद दिल्या. पूण सुवार्थी आनी कपटी कैकयी स्वता कोयर जावन आपलें राजघराणें घाण करपाचो वावर सोडिना. पूण ती राजाची लाडकी राणी आसुनूय, राजघराण्यांतल्या हेर अस्तुऱ्यां फुडें तिचीं शाणेपणां चल्लींनात. एक कैकयी सोडली जाल्यार राजघराण्यांतल्यो सगळ्यो अस्तुऱ्यो शिस्तप्रिय आनी सोसीक. ह्याच अस्तुऱ्यांनी, स्वता माणकां-मोतयांचें रूप धारण करून, आपल्या राज्याक आनी राजघराण्याक सदांकाळ प्रजळीत करून सोडलां.

राज्य, तें मागीर लोकतंत्रान चलूं, ना तर राजतंत्रान. तें निव्वळ राजसत्तेच्या बळान मात केन्नाच भरभराटेक येना. तें भरभराटेक येतलें जाल्यार, बळीश्ट जातलें जाल्यार, राज्यांतल्या सर्वसामान्य लोकांमदें

प्रमाणीकपण, सोसीकपण, कश्टाळूपण आनी नितिमत्ता हे गूण आसपाची गरज आसता. हे गूण नागरीकांमदें शिक्षणानूच येतात अशें सांगपाचें धाडस मात कोणाच्यान करूंक जावंचेंना. कारण हे गूण मूळ सुसंस्कृतायेंतल्यान मानव प्राण्यांत रिगतात आनी हे सुसंस्कृतायेची निर्मणी कोणाकडसून घडटा? तर ती घडटा सैमाच्या आदारान समाजांतले अस्तुरे कडसून. एका तेंपार हेच अस्तुरेक पुरूशांनीं शूद्र, दुर्बळ, अविचारी, अडाणी बी म्हणून हिणसायली.

पूण दुर्दैवाची गजाल अशी, ते तेंपावयले अशिक्षीत बायलेन कमायलें तें आयजच्यो चडश्यो शिकिल्ल्यो बायलो वगडावंक फुडें सरल्यात. ह्या राष्ट्राचो फुडार जितलो दादल्यांच्या हातांत आसा, ते परस कितले तरी पटींनी चड तो बायलांच्या हातांत आसा. तांणीं ताचो उपेग आपल्याक जाय तसो करून घेवपाचो.

वयर हांवें रामायणांतले उर्मिलेची देख दिल्या. उर्मिला ही राजघराण्यांतली सून. कवी-लेखकांची नदर चड करून व्हड मनशां चेरूच आसता. जशें काय ह्या संवसारांत वायट-बऱ्यो घडणुको कुलीन आनी श्रीमंत घराण्यांतूच घडटात.

ह्या संवसारांत कितले तरी बारीक सारकी जीव जगतात. मनीसजातीचो विचार केल्यार - शेतांनी, भाटांनी, खणींनी, कारखान्यांनी काम करून पोट भरपी अशे कितलेशेच अशिक्षीत घराबे आसतले, जे घाम गळोवन, सत्वनिश्ठ वृत्तीन राष्ट्रकार्याक हातभार लायतात. मात ते आपूण जावन मुजरत फुडें करूंक वचनात. तशें करचें अशेंय तांकां दिसना. कारण तीं खरेलीं, अस्सल माणकां-मोतयां आशिल्ल्या कारणान तांकां प्रसिध्दीची गरज पडना.

रामायणांत मात हे सत्य परिस्थितीची जाणविकाय करून दिल्ल्याचें लक्षांत येता.

लंकेक वचून सीतेक सोडोवन हाडपा खातीर समुद्राचेर सेतू बांदपाचो

प्रसंग येता. कार्य ईश्वराचें आसता. रामनामाच्या सामर्थ्यान तें पुराय जातलें आशिल्लें, हातूंत इल्लोय दुबाव नाशिल्लो.

ईश्वरशक्ती म्हत्वाची आसताच, तेच परी ल्हान-व्हड प्राणीमात्राची शक्तीय ईश्वरकार्यार्थ, राष्ट्रकार्याचे उबारणेक तितलीच म्हत्वाची आसता हेंय त्या प्रसंगांतल्यान दाखोवन दिल्लें आसा. प्रसंग नगण्य आनी दुर्लक्षीय आसूं मागीर तो.

सैमांतली एक चानी म्हणचे कितें! ह्या रुखावेल्यान त्या रुखार शेंपडी हालयत भोंवपी क्षुल्लक प्राणी तो! बलाढ्य हनुमंत-जांबुवंत हांच्या मुखार तिचें कसलें कोंत! तरी ती आपली अल्पशक्ती, देवकार्याक, राष्ट्रकार्याक उपकारा पडची म्हूण वावुरता आनी ती ईश्वराक सांगता, हे ईश्वरा, तुवें म्हाका जल्माक घाल्या ती न्हिदून फुकट खावंक न्हय. ही म्हजीय इल्ली सेवा, तुज्या कामाक रुजू करून घे.

हे चानये सारक्योच अशो कितल्योशोच मनीसरुपी चानयो आमच्या गोंयांतल्या आनी देशांतल्या घराब्यांनी दीस-रात कार्यरत आसतात. म्हाका दिसता, तांचेर नदर पडटांच तांच्या मुखार झुकचें, तांकां वंदन करचें. कारण असल्या कश्टाळू अस्तुऱ्यांनीच ह्या देशाचें बळ वाडयलां, संस्कृताय तिगोवन धरल्या.

फाटले चवथी निमतान एके अस्तुरेक मुजरत भेट दिली. म्हज्या आगशी गांवांत एक लवंदे नांवाचो सुप्रसिध्द घराबो आसा. ह्या घराब्याक हांव सुप्रसिध्द ह्या खातीर म्हणटां ताचें कारण, त्या घराब्यांत स. विस्वनाथ नारायण लवंदे सारको एक व्हडलो सुटके झुंजारी जल्माक आयलो आनी हांव तर सुटके झुंजाऱ्यांक सामको देव मानपी मनीस! कारण हांवें म्हज्या जिवितांत दोनूय काळ अणभवल्यात. स्वातंत्र्याचो आनी पारतंत्र्याचोय बी. आयज गोमंतकीय जनता सुखान आनी मान-रेस्पेदान जगता ती ल्हान-व्हड सुटके झुंजाऱ्यांनी आनी तांच्या भुरग्यां-बाळांनी खाल्ल्या खस्तांचे पुण्यायेन म्हणपाचें म्हजें पक्कें मत आसा.

हांवें म्हज्या भुरगेपणांत, पुर्तुगेज सोल्दादांनी स. विस्वनाथ लवंदे हांच्या कुटुंबीयांचे कशे हाल केल्यात तें हांवें म्हज्या दोळ्यांनीं पळेलां.

ह्याच मुखेल कारणाक लागून, लवंदे घराण्याकडेन म्हजी ल्हानपणा पसून ओड!

विस्वनाथ लवंदे हांची आवय खूब मायेस्त. ती आतां ह्या संवसारांत ना. पूण तिणें म्हाका दाखयल्ली माया हांव अजून विसरूंक ना.

आई फाटल्यान तिच्या सुनांनीय म्हाका तितलीच ओड लायली. तांचे ओडीक लागुनूच, तांच्या तोंडांतलीं दोन गोड उतरां कानार पडचीं म्हूण, याद येतकीर केन्ना केन्नाय हांव तांची भेट घेतां.

आयज त्या घराब्यांतली एकूच जाण्टी मनीस उरल्या ती म्हणल्यार काकीबाय. स. नारायणदाद लवंदे हांगेली सगळ्यांत धाकली सून. तिचें खरेलें नांव प्रमिलाबाय पद्मनाभ लवंदे. घरचे लोक तिका काकीबाय म्हणटात, कारण ती काकाली घरकान्न.

हांव फाटल्या दिसांनी तांगेर मुजरत गेल्लों तो गणपती पळोवंक न्हय. गणपती आमगेरूय पुजिल्लो. शिवाय तो म्हज्या काळजांत बसून सदांच उजू वाट दाखयत आसता. ताका भेट दिवपाक खंयीं भायर, ना जाल्यार खासा देवळांत वचचें अशें केन्नाच दिसना म्हाका.

ताका लागून चवथीच्या निमतान हांव खास करून गेल्लों तो काकीबायची भेट घेवंक.

ही काकीबाय लवंदे कुटुंबांत लग्न जावन केन्ना आनी खंयच्या म्हूर्तार आयली, म्हाका खबर ना. कारण ते वेळार हांव सामको भुरगो आशिल्लों.

येतना ती कसलें आनी कितलें धन घेवन आयिल्ली, हें हांव नकळों आनी तें जाणोवन घेवपाचीय म्हाका गरज ना. कारण म्हजे दिश्टीन दुडू-आडको, भांगरां-शिंगरां, भाटां-बेसांक बी व्हडलें-शें मोल ना. मोल आसा तें मनीसपणाक. जाचेकडेन मनीसपण ना, तो ह्या

संवसारांत येवन स्वता तर सुखी जायच ना, शिवाय हेरांकूय कसलेंच सूख दिवंक पावना.

काकीबाय घोवाल्या घरा आयली ती वांगडा हास्यधन घेवन. तेंय बेगडी न्हय तर अस्सल. खोटें भांगर कसाक लावन तपासचें पडटा. पूण कपटी हास्यधनाची वळख इल्लेशा भुरग्याक लेगीत पटपाक वगत लागना. कारण निर्मळपण ही ईश्वरी देण आसता.

आपल्या कुळारा सावन घोवागेर येतना काकीबाय वांगडा हास्यधन घेवन आयली, तेंय केन्नाच सोंपना तितलें. येनाफुडें तिणें तें वाटूंक सुरू केल्लें, तें आयज लेगीत ती वाटीत आसा.

हें धन तिणें आपल्या पुरतेंच मर्यादीत दवरूंक ना. आपले धुवेचेय तकलेंत रिगयलां. सून तर तिच्या भावालीच धूव. तिका आनी वेगळें कोण कितें शिकयतलो?

ही जाली काकीबायची गजाल आनी काकाची? तशें पळोवंक गेल्यार लवंदे घराणें गांवांत प्रतिश्ठेचें. कुटुंबांतले सगळेच पुरूश कर्तुबी. नाकाफुडें पळोवन चलपी. पूण काकीबायचो घरकार, पद्मनाभ लवंदे हेरां परस 'सोशल'. वेळ मेळटा तेन्ना समाजांत मेळून-मिसळून वागपी. गांवांत नाटकां, भजनां, सप्ताह बी असले कसलेय कार्यक्रम जाले जाल्यार मुजरत हाजेरी लायतालो. मदेंच सोडून येवं मागीर तो!

तो सगळ्यांत ल्हान आशिल्ले कारणान, घरांतल्या देवपूजेचें कार्य ताकाच करचें पडटालें.

आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ताच्या आंगांत देशप्रेम उप्पाट भरून आशिल्लें. हाचो प्रत्यय म्हाका गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत आयलो. तें जालें अशें-

१९६१त गोंय स्वतंत्र जालें आनी तमाम लोक हिन्दी शिकूंक लागले. गोंयांत पुर्तुगेजीचे सुवातेर हिन्दी येवन बसतली, अशें दिसतालें गोंयकारांक.

हांवूय १९६३त हिन्दी प्रबोध प्रमाणपत्र घेवन, राष्ट्रभाशा सभा पुणे, हे संस्थेचो अधिकृत शिक्षक जालों आनी ताबडतोब आगशी हिन्दी वर्ग सुरू केले.

ते आदीं वयस्क लोकांची सभा घेवन तांकां हिन्दी भाशेचें म्हत्व पटोवन दिल्लें. हे सभेंत काकाय हाजीर आशिल्लो. ताणें हिन्दी शिकपाची आपली इत्सा उलोवन दाखयली.

काकालो निर्णय आयकून म्हाका खूब बरें दिसलें. पूण काकाच्या मुखार एक मोठी अडचण आशिल्ली. ताका दिसभर दुकानाचेर रावचें पडटालें. क्लासाक येतलो केन्ना आनी कसो?

हांवें चिंतलें. काकाक हिन्दी शिकपाची इत्सा आसा, ताका मदत करची. हांवें ताच्या घराकडेन वचून रातीच्या णवांक शिकोवचें थारायलें. थरिल्ले प्रमाण दुसरे दिसा, रातीच्या णवांक हांव काकागेर हाजीर.

येदे रातीर हांव आयलां तें पळोवन घरांतल्या सगळ्यांकूच अजाप दिसलें. काका तयारेनूच आशिल्लो. आदले दिसा हांवें ताका एक पुस्तकूय हाडून दिल्लें.

काका आनी हांव दोगूय उमेदीन एका सोफार बसले. काका शिकता आनी हांव ताका शिकयतां तें पळोवन घरांतल्या लोकांक ती मजा दिसली. विचित्रय दिसलें. कारण एक कनिश्ठ, जेश्ठाक शिकयतालो. काकान जर म्हाका शिकयल्लो, तर घरांत इतलें खळबळजनक वातावरण निर्माण जावंचें नाशिल्लें. एक काकीबाय सोडली जाल्यार, घरांतल्या हेर लोकांक काकालें शिकप हो विनोदाचो विशय जावन बसला हें म्हज्या लक्षांत उपरांत आयलें.

काकीबायन मात आपल्या घरकाराक, राष्ट्रभाशा शिकपाक व्हडा खोशेन तेंको दिलो हें पळोवन म्हाका खूब बरें दिसलें.

पूण काकाक हें शिकप चड दीस जमलें ना. चार-पांच दीस शिकले उपरांत, शिकतां-शिकतां ताका झेम येवंक लागली. दिसभर

दुकान चलोवप आनी रातीचें शिकप जमलेंना ताका. पिरायेच्या मानान तें कठीणच आशिल्लें.

हे गजालीक आतां पन्नास वर्सां वयर जावन गेलीं, हें वाचप्यांनीं लक्षांत घेवचें.

म्हज्या सारक्या लेखकाक रामायणांतली उर्मिला कितें, सेतुबांधणेच्या वावराक मजत करपी चानी कितें आनी आधुनीक काळांतलीं प्रामाणीक काका-काकी कितें, सगळीं सारकींच. सगळींच आडनदर जाल्लीं माणकां मोतयां. आपापले परीन चमकून, कसलोच बडेजाव दाखयनासतना, गुपचूप राष्ट्रकार्याक हातभार लावपी. ताकाच लागून हीं दुर्लक्षीत माणकां-मोतयां म्हज्या सारक्यांक वंदनीय थारतात. तांची दखल घेतली ना जाल्यार मन अस्वस्थ उरता.



# निराधार

भिकूदाद आयज बेगीनूच म्हणल्यार इकरांकच घरा पावलो. आयज इल्लो चडच खोशी जाल्लो तो. सातेक वचून परतप म्हणल्यार दोन तरी जाताच कुळागारांतल्या लोकांक! केळीशेंन्ताचे दोणें, पणसा खोलयांच्यो पत्रावळी, माडां चुट्टांच्यो सान्नी बी विकतां विकतां दनपारचीं बारा वाज मेरेन गिरायकांची वाट पळोवंची पडटाली. पूण भिकूदादाचेर तसली पाळी येनासली. ताचो वेपार झटपट सोंपतालो. ताचो म्हाल आसतालोच तसो. ताचीं केळीं, पणस, आंबे, नाल्ल, खावचीं पानां बी सगळेंच गिरायकाचीं मनां ओडून घेतालीं. ताका लागून बाणास्तारच्या बाजाराक वरांचीं वरां बसून रावचें पडनासलें ताका. आयज तर ताचो सगळोच वेपार णवांकच सोंपलो. तोय बरे मोलान. ताकाच लागून आयज ताका चड खोस भोगताली. ते खोशे भारार ताणें आयज पिशव्यो भरभरून सामान हाडिल्लें. तातूंत सुनां खातीर बऱ्यो-बऱ्यो साडयो, नातरां खातीर तरेकतरेचीं खाणां. सेमानाक पावता तितलें सुकें नुस्तें, स्वता पासत धवेंफुल्ल धोतर, निळू मानायाक तंबाखुचो चुरो, ताकाच एक लांबलचक वालो. भिकूदादाक बाणास्तारचो बाजार खूब आवडटालो. आयजच्या शुक्राराचे खरेदी-विक्रेन तर भिकूदाद चडूच खोशेल्लो. स्वकश्टांचे कमायेचो उपभोग घेवपाक कितलो आनंद मेळटा, हाची जाणविकाय भिकूदादाचो हांसरो चेरो सदांच दीत आसतालो.

भिकूदादाकडे भागेलपणाक एक ठिकाण आशिल्लें. हें कुळागार आनी ताका लागसाराक आशिल्ली सुपीक जमीन ताच्या पूर्वजांक केन्ना आनी कशी मेळ्ळी, हें तो सांगूं शकनासलो. ताचो धनी-शिरीभाऊ लेगीत सांगूंक शकनासलो. पूण धनी-भागेल्याचे संबंद मात कुटुंबीक आशिल्ले. झगडीं-केस्तांवां केन्नाच जालीं ना तांच्यांत. पुराय कुळागाराचेर आनी तातूंत पिकपी फळावळीचेर भिकूदादाचो हक्क आशिल्लो. तोय अलिखीत. दोगांयच्याय काळजांचेर परंपरेन कोरावन दवरिल्लो.

अशें आसलें तरी ठिकाणांत पिकिल्ल्या पयल्या फळांचेर गांवांतले देवतेचो पयलो आनी उपरांत धनयांचो अधिकार आसचो अशें भिकूदादाक मनांत सावन दिसतालें. ताकाच लागून कुळागारांत जावं दोंगरार पिकिल्लें पयलें फळ ग्रामदेवतेक भेट म्हूण वतालें आनी उपरांत धनयांल्या दारांत पावतालें. तशें करपाची कोणाचेर जबरदस्ती नाशिल्ली. सगळो मामलो भक्तीचो आनी प्रेमाचो आशिल्लो. धनयाल्या घरांत कसलेंय देवकारें आसूं, केळींपानां आनी खतखत्या सामान सांगिनासतना घराकडे पावयतालो भिकूदाद. घरांत लग्नकार्य आसलें तर भिकूदादालें पुराय कुटुंब चार दीस आदींच धनयांचे सेवेक हाजीर आसतालें. पत्रावळी पेळो आनी कुळागारांतलीं खावचीं पाना धरून पोपायो, सुरीण, सावरबोणी केळीं आनी खतखत्याचें हेर सगळें सामान जेवणावळी खातीर राखून दवरिल्लें आसतालें. कसलेंय कार्य जावं मागीर तें, ताचेर देखरेख दवरपाची जापसालदारी भिकू दादाली. एकदां कार्य बरे भशेन सोंपलें की भिकूदादाक सूऽऽ... जातालें.

कुडींतलें बळ आनी इत्साशक्तीचो एकवट जालो जाल्यार मनीस हे धर्तरेर सर्ग निर्माण करूंक शकता. घाम गळोवन कमायल्ल्या वस्तूचें तो भांगर करूंक शकता. आडबऱ्यांच नासली, तरी केदेंय व्हडलें कुटूंब पोसपाची तांक आशिल्ली जमीन भिकूदादाकडे आशिल्ली. जमनीचो धनी वेगळो आसलो तरी तो नांवा पुरतोच आशिल्लो. जमनीचो मालक

कायद्यान नासलो तरी खऱ्या अर्थान भिकूदादच आशिल्लो. शिरूभाऊ आनी ताच्या पूर्वजांक लागीं धरपाक, ही तांबडी - हळदुवी माती तयारूच नाशिल्ली. हे मातयेची मशागत करून तिचो कस वाडोवपाचें कार्य भिकूदादाल्या पूर्वजांनीच केल्लें. भिकूदादाल्या घामान भिजिल्ल्या म्हेळ्या लुगटाची संवंय जाल्ली ते मातयेक! पांढरपेशे वृत्तीपसून पयस रावपाची संवंय जाल्ली ते चिकण मातयेक! हाची जाणविकाय शिरीभाऊल्या पूर्वजांक आदीं पसूनच जाल्ली. ताका लागून आपल्या धव्याफुल्ल पुडव्याचें व्हडपण दाखोवपाचो प्रयत्न ताणें केन्नाच केलो ना. कश्टांचें मोल कळनाशिल्ल्या आळशांक कळटा तें फक्त गादयांचेर लोळपाक आनी बल्कावांत बसून चकाटां मारपाक. असल्या मनशांपसून ही माती सदांच पयस रावता.

जाणें-जाणें हे मातयेक आवय मानून, तिची भक्तीभावान सेवा केल्या-पूजा केल्या-तांच्या संवसारांत हे मातयेन रंगच भरला!

भिकूदाद अशिक्षीत आसुनूय 'ऐकावे जनाचे आनी करावे मनाचे' हे शिकवणेंतल्यान तयार जाल्लो मनीस आसलो तो. 'शुध्द बीजा पोटी फळे रसाळ गोमटी' हाचो अर्थ ताका खबर आशिल्लो. शुध्द आनी परिपक्व बीं-बियाणें हाडून कसदार मातयेंत पुरल्यार पीक बरें मेळटा, हाचो अणभव ताणें घेतिल्लो. ताका लागून कुळागारांत आनी दोंगराच्या पालसणाचेर फळझाडां लावचे पयलीं, तज्ज्ञां कडल्यान बियांणाची तपासणी जाताली. भिकूदादाली ही बारीकसाण खूब फायद्याक पडटाली. ताचे जमनींतलें प्रत्येक फळ टणटणीत जावन रसरसतालें. पळेनाफुडेंच तें खावचेंशें दिसतालें. ताकाच लागून फळां सातेक पावनाफुडें खंयचे खंय नाच जातालीं.

भिकूदादाच्या घराक तेंकून एक गोठो आशिल्लो. तोय आधुनीक पध्दतीचो नितळ आनी हवेशीर. गोठ्यांतल्या गोरवांचेर भिकूदादाचो चड मोग. भिकूदाद म्हऱ्यांत झळकले बगर गोठ्यांतल्या एकाय जनावराच्या तोंडांत एकय तणा काडी शिरनाशिल्ली. तागेल्या गोठ्यांत सद्दां

सांज-सकाळ दुदाच्यो धारो सुट्टाल्यो. गांवांतलीं कितलींशींच भुरगीं भिकूदादाल्या गायांचें दूद पिवन गुटगुटीत आनी रसरशीत जातालीं. ताच्या घरांत धंय-ताकाच्यो हांडयो केन्नाच रिकाम्यो जायनाशिल्ल्यो. अदींमदीं शिरीभाऊल्या घरांतय धंय-दुदाच्यो हांडयो पावताल्यो. भिकूदादाल्या घराचो परिसर म्हणचे एक ल्हानशें गोकूळ आशिल्ल्याचो भास जातालो.

भिकूदाद अक्षरशत्रू आशिल्लो तरी ताका शिक्षणाचें म्हत्त्व कळटालें. ताणें आपल्या चारय धुवांक एस्. एस्. सी. मेरेन शिकोवन तांचीं योग्य वेळार योग्य थळां पळोवन व्हडा दबाज्यान लग्नां लावन दिलीं. ताका दोन पुतय आशिल्ले. हुशार आशिल्ल्या कारणान दोगूय पदव्यो घेवन चाकरेचे वाटेकडे दोळे लावन बशिल्ले. पूण भिकूदादाक मात आपल्या पुतांनी कोणाचे चाकर जावन रावचें-शें दिसनाशिल्लें. ताणीं आपले जमनीची मशागत करची, तिची राखण करची अशें दिसतालें. व्हडले पुतान तर नोकरेंचे भानगडेंत केन्नाच पडचें न्हय अशें भिकूदादाक मनापसून दिसतालें. शिक्षितांनीं शेतांकडे लक्ष दिल्यार भांगर पिकोवं येता अशें भिकूदादालें मत्त. हाकाच लागून शिकतां शिकतांच भुरग्यांक ताणें कश्टाचें म्हत्त्व पटोवन दिल्लें.

भिकूदाद वेव्हारीय आशिल्लो. पांढरपेशा लोकां प्रमाण आपल्या भुरग्यांक चाकरेचेर निंबून रावपाची गरज ना. कुळागारांनी आनी भाटांनीं काम केल्यार कोणाचेरच उपाशीं रावपाची पाळी येवची न्हय, अशी वेवस्था करून दवरिल्ली ताणें! आतां कुटुंबाच्या पोटापाणयाची चिंता ना हें लक्षांत घेवन ताणें आपल्या दोनूय पुतांचीं लग्नां लावन दिलीं. पूण मनीस कितलोय नेमान वागलो, कितलोय सतर्क रावलो तरी फुडलीं संकश्टां तो टाळूं शकना. भिकूदादाचेंय तशेंच जालें. केन्नाच घडूं नाशिल्लें घडूंक लागलें. नवीं संकश्टां हात धुवन ताच्या फाटीक लागलीं.

भिकूदादाली व्हडली सून लागसारच्या नात्यांतली. सुने बापायन भिकूदादाल्या बरेपणाचो पुराय फायदो घेतलो. लाळेगोळे लावन ताणें आपले धुवेक भिकूदादाल्या व्हडल्या पुताच्या गळ्याक बांदली. ही चली विचित्र सबावाची आशिल्ली. तिच्या रूपान एक विखाळी कीड भिकूदादाल्या घरांत घुसली. तिचें शिक्षण एका कॉन्वेंट स्कुलांत जाल्लें. तिचो बापूय आपले धुवेच्यो व्हडविको मिशांक पीळ घालून लोकांक सांगतालो. ते चलयेकय आपूण कॉन्वेंटांत वचून इंग्लीश शिकिल्ल्याचें गर्व आशिल्लें. ताका लागून आपल्या मांवाचें गांवढळपण तिका साप्प मानवनाशिल्लें. घरांतलें कसलेंच काम करूंक ती तयार नासली. लज दिसताली तिका काम करूंक.

भिकूदादाक आपल्या पुताचो फुडार आतां स्पश्ट दिसूंक लागलो. तरी सुनेची दादागिरी सोंसून तो गप्प बसतालो. घरांत किजिलां नाका आशिल्लीं ताका.

आपले बायलेक लागून आपल्या बापायक खूब त्रास सोसचे पडटात ही गजाल भिकूदादाल्या व्हडल्या पुताच्या लक्षांत आयली. तो शाणो आशिल्लो. बापायचेर ताचें खूब प्रेम आशिल्लें. ताणें चिंतलें, आपले बायलेची कीड आख्ख्या कुटुंबाक लागचे पयलींच घरांतल्यान पांय भायर काडल्यार बरो.

ताणें बापायसयत संवसार धाकट्या भावाकडे सोंपयलो आनी बायलेक घेवन जड पावलांनी शारादिकेन चलत रावलो.

भिकूदादाली धाकटी सून मात थंड माथ्याची आशिल्ली. मांवाचेर तर तिचो चड मोग. बापाय समान मानताली ती आपल्या मांवाक. तिच्या वागण्यावेल्यान ती बऱ्या घराण्यांतल्यान आयल्या हें सिध्द जातालें. हिन्दू रिती-रिवाज प्रमाण घोवाल्या घराक कसो आकार दिवंचो हाचें बाळकडू तिच्या आवय-बापायकडल्यान ल्हानपणांत सावनूच मेळिल्लें तिका.

भिकूदादान चिंतलें, व्हडलो पूत हाता भायर गेलो म्हूण कितें जालें, धाकटो आसा संवसार सांबाळपाक! व्हडल्या पुताचें दुख्ख सोंशीत दीस धुकल्ल्या शिवाय दुसरो पर्याय ना.

भिकूदादालो धाकलो पूत सदा आनी शिरीभाऊलो पूत, राजेंद्र एकेच शाळेंत शिकताले. सदा आनी राजेंद्राची इश्टागत घट्ट जाली ती फुडें तशीच उरली. बरे देखीच्या सदाक राजेंद्राची वायट संगत बादली. तिचो परिणाम भिकूदादाक भोगचो पडलो.

तें जालें अशें, सदा बी. ए. जालो तेन्ना राजेंद्र एस्. एस्. सी. क नापास जावन घरा बशिल्लो. आतां तो गांवभर तवनासपणां करूंक मेकळो जाल्लो. भाटकाराचो पूत आशिल्ल्यान पयशांक मरण नाशिल्लेंच. तरी व्हांवते न्हंयेक एक दीस सुकती येताच. राजेंद्राचे उधळपट्टीक शीम उरली ना. शिरीभाऊचे आचारविचार राजेंद्राचे उधळपट्टेक आळाबंद हाडूंक शकले नात. शिरीभाऊची शक्ती राजेंद्राचे ताकती मुखार उणी पडूंक लागली. शिरीभाऊ थकलो आनी राजेंद्राचे राजवटीक चंवर फुटलो.

भिकूदादालो व्हडलो पूत घर सोडून गेलो आनी तो गर्भगळीत जालो. ताच्या हातपायांत त्राण उरलें ना. सातेक येवपा वचपाचें बंद जालें. कश्ट करपाक गात्रां तयार नाशिल्लीं. कुळागारांतली फळफळावळ कुसूंक लागली. सून बाजार करूंक तयार आशिल्ली. पूण सदाक तें आवडनासलें. कारण तो ल्हान आशिल्लो शिकून व्हड जाल्लो. हातांत खोरें-कुदळ घेवन खणप, माड-माडयेर चडप असलीं कामां सदा कशीं करतलो? तो तर इंग्लीश शिकून बी. ए. जाल्लो! ताचे विचार बदल्लेले. राजेंद्रान ताका ते बदलूंक लायिल्ले. राजेंद्राचें वागणें ताका आवडूंक लागिल्लें. ताचे भपकेदार कपडे, तोंडांत उंची सिगारेट धरून दोळे वयर काडून धुंवर वयर मळबा दिकेन सोडप, बारांत वचून बियरी झोंकप, चलयांचीं फकांडां-मस्कऱ्यो करप ह्यो सगळ्यो राजेंद्रलीलो आतां

सदाक आवडूंक लागिल्ल्यो. पूण तांचें अनुकरण करपाचें धाडस मात ताका जायनासलें. भिकूदादाले संस्कार आडमेळें हाडटाले.

एक दीस सदाक सोदीत-सोदीत राजेंद्र तागेर आयलो. ताचो अवतार विचित्रच जाल्लो ते वेळार. पन्नास टक्के खड्ड्याचो नकासो जाल्लो. कानावेले केंस गाला मेरेन पाविल्ले. मिशो वळोवन हुंदराशेंपड्यो कशो केल्ल्यो, म्हेळकी पेंट आनी ताचे वेल्यान पुश्पचित्री आंगलें. पोट फुडें आयिल्लें. पोटावेले मदले दोन बुतांव सुटिल्ले. तोंडाक बियेरीचो वास सुटिल्लो. राजेंद्राचें हें ध्यान पळोवन थंयच्या पिंपळा वयलीं माकडां खॅक-खॅक करीत हे खांदये वेल्यान ते खांदयेर उडयो मारूंक लागलीं. आंब्या वेल्यो चानयो वयर-खाला पळूंक लागल्यो. एका पोकळ खोडांत बसून टुकू-टुकू करून पळोवंक लागल्यो. सगळ्या सैमांत बदल जाल्ल्याचो भास जावंक लागलो. केळीं पानां हालतालीं तीं थांबलीं. माडांचीं चुडटांय स्तब्ध जालीं. माडयोय आकांतल्यो. आमरूख अजापले. असलो प्राणी ताणीं हे आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. ह्या असैमीक प्राण्याक पळोवन सगळ्या सैमाक कापरें भरिल्लें.

राजेंद्रान येवन आतां भिकूदादाल्या दारार मारलें. मागीलदारा काम करपी सदा बायल आवाज आयकून झडझडीत भायर आयली. पळे जाल्यार दारांत कोणें तरी शेतांतलें बुजगावणें हाडून उबें केल्ल्याचो भास जालो तिका. ती दचकली. बरोच वेळ तोंड 'आंऽ' करून ती राजेंद्राक पळेत रावली. कितें करचें तें तिका कांयच सुचलें ना. तिणें असलीं सवंगां फकत पणजे-मडगांव सारक्या शारांतच पळेल्लीं. तिची जाव आशिल्ली जाल्यार असल्या सवंगांक येवकार दिवपाची. तिका कितें उलोवचें तेंच कळना जालें.

"कोणाक सोदतात तुमी? कोण जाय तुमकां?" सदाबायलेन शिंतीदार येवन प्रस्न केलो.

सदा बायलेचें रूप पळोवन राजेंद्र सामको भुल्लुसलो. इतली देखणी बायल तो पयलेच खेप पळेतालो. ताका दिसलें, थोडो वेळ तिका पळेत

रावचें. पूण ताणें स्वताक सावरून घेवन जाप दिली – ‘‘हांव सदाक मेळूंक आयलां, आसा तो घरांत?’’

‘‘ना, ते भायर गेल्यात, येतले थोड्या वेळान. तुमी बसात.’’ अशें म्हणून ती सुसंस्कृत गृहिणी भितर गेली.

इतलें म्हणसर भायल्यान सदा आयलो. ताणें अजापून प्रस्न केलो – ‘‘कितें रे राजेंद्र, तूं हे वेळार हांगासो, कितें जालें? सकाळींच मेळिल्ले मरे आमी!’’

‘‘म्हाका कितें उलोवंक जाय आशिल्लें रे तुजेकडेन.’’ अशें म्हणून सदाच्या हाताक धरून तो ताका कुशीक घेवन गेलो आनी खूब वेळ फुतफुतून खूब कितें उलयलो.

शिरीभाऊय आतां आदले भशेन उरूंक नासलो. राजेंद्राच्या करण्यांनी तो खचून गेल्लो. राजेंद्राक हाची पुराय जाणविकाय आशिल्ली. जे मेरेन हे दोगूय म्हातारे–भिकूदाद आनी शिरीभाऊ – अधिकारार आसात, तो मेरेन आपलीं शाणेपणां चलचीं नात. तेन्ना सदाचे मजतीन दोगांय म्हाताऱ्यांक शिंगां लावपाची माण्णी ताणें केली.

भिकूदादाल्या व्हडल्या पुताची कटकट आतां पयसावल्ली. सदाक गुठलावपाक सामकें सोंपें जाल्लें राजेंद्राक. ताणें सदाचे मजतीन भिकूदादाले हक्क काडून घेतले. जमीन एका कारखानदाराक विकपाची माण्णी केली. ते बदलाक सदाक ताणें धा लाख आनी रावपाक एक फ्लॅट घेवन दिवपाचें थारायलें.

भिकूदादाक जेन्ना हें कळ्ळें, तेन्ना तो सामकोच गर्भगळीत जालो. कपलार हात धरून रड–रड रडलो. घरचोच भेदी आशिल्ल्यान, आपलेंच नाणें खोटें आशिल्ल्यान भिकूदादालें कितेंच चलपा सारकें नाशिल्लें.

राजेंद्रान दिल्ले धा लाख घेवन, सदा बायलेक घेवन घरांतल्यान भायर सरून गेलो. आपल्या मांवाचे जाल्ले हाल पळोवन सदाबायले काळीज वयर–सकल जावंक लागलें. मांवाकय आपल्या वांगडा व्हरचेंशें दिसतालें तिका. पूण तें तिच्या हातांत नाशिल्लें.

भिकूदाद आतां एकटो पडिल्लो. धुवांनी आपल्यागेर व्हरपाचे खूब प्रयत्न केले. पूण स्वाभिमानी भिकूदादान कोणाचेंच कानामनार घेतलें ना. वाडवडलांच्या घरांतच निमणो स्वास घेवपाचो ताणें निश्चेव केलो.

एक दीस अकस्मात एक समाजसेवक भिकूदादागेर भितर सरलो. ताणें एका फॉर्माचेर भिकूदादालो आंगठो घेतलो. सरकारी निराधार येवजणे प्रमाण ताका आतां म्हयन्याक पांचशें रुपये मेळपाचे आशिल्ले. पूण भिकूदादाचे दिश्टीन ती भीक आशिल्ली. शिंव भूक लागल्यार तणा काडयो खावन जगना. स्वाभीमानी मनीस भीक मागून जगचे परस मरण पत्करता.

भिकूदादाक आपल्या पोटाची काळजी नाशिल्ली. ताका काळजी आशिल्ली ती सरभोंवतणच्या निराधार रूखावळीची. इतलो तेंप रूखावळ आनी भिकूदाद एकामेकांच्या आधारान जगिल्लीं, ती आतां निराधार जावन मरणा देगेर उबीं आशिल्लीं!



# ग्लोरिया

'हॅपी बर्थ डे ग्लोरिया डार्लींग!'

सिस्टर ज्युलीन ग्लोरियाक गुलाबपुश्प दिवन शुभेच्छा व्यक्त केल्यो. सगळ्यांत पयलीं आपल्याक प्रिन्सिपलाकडच्यान 'वीश' मेळचें म्हूण ग्लोरिया सिस्टर प्रिन्सिपलाच्या कॅबिनाकडेन दबकत-दबकत आयिल्लें. तशें सिस्टर ज्युलीक गुडमॉर्निंग म्हणपाक ग्लोरिया वर्गांत वचचे पयलीं मुजरत सिस्टरी म्हऱ्यांत येतालें. खाशेलें गुडमॉर्निंग आसतालें तें ताचें आनी आयज तर ताचो जल्मदीस आशिल्लो. ही गजाल सिस्टर ज्युलीच्या लक्षांत आशिल्ली. ताका लागून जार्दीनांतलें गुलाबफूल तोडून, मेजार हाडून दवरिल्लें.

ग्लोरिया ह्या वर्सा धावेंत आशिल्लें. के. जी.क सावन तें हेच शाळेंत शिकतालें, शेतां-भाटांत कश्टांचें काम करून पोट भरपी एके रेंदेरिणिच्या पोटांत जल्म घेवन लेगीत एके व्हडले भाटकान्नीली धूव कशी दिसतालें तें. गुबगुबीत पोले, तांबडे-तांबडे वोंठ, घारशे दोळे, लांब-लांब काळशे-पिंगशे केंस, धोंपरां सकयल पावता तसो खाशेलो 'बड्डे' ड्रेस, लांब - काळ्या केंसांत गुलाबाचें तांबडें फूल आदींच खोवन दवरिल्लें ताणें!

ग्लोरिया मुळचेंच देखणें आनी आतां वाडट्या वयांत सुंदरताय ताची फाट धरताली.

आयज ग्लोरियाक सोळावें वर्स लागिल्लें. ताच्या बऱ्या गुणांक लागून कॉन्वेंटांतल्या सगळ्या सिस्टरींनी लाड केल्ले ताचे. चडशो सिस्टरी ताका ग्लोरियाचे पावटी लाडकेंच म्हणटाल्यो.

आयज एक देखणी आनी शांत सबावाची अस्तुरी, सिस्टर ज्युली म्हऱ्यांत उबी आशिल्ली. फूल अर्पण केल्या उप्रांत सिस्टर ज्युलीन ग्लोरियाच्या गालांचो उमो घेतलो आनी ताका व्हडा उमेदीन वेंगेंत घेतलें.

ग्लोरिया ही दुमिंग रेंदेराची धूव. दुमिंगाचें काजार माग्दालीनाकडे जालें. उपरांत दोगांनीय एकामेकांचो भरपूर मोग केलो. तांचो निगर्वी आनी शांत सबाव पळोवन तांकां देवधनयान मोगाळ आनी सुंदर अशें भुरगें दिलें. तेंच तें तांचें लाडकें ग्लोरिया!

देव तांकां इतलें सुंदर भुरगें दितलो, हें तांणीं सपनांत लेगीत चिंतूं नाशिल्लें.

देवान आमकां अपुरबायेचें बाय दिलां. तेन्ना ताका कितेंच उणें पडूंक फावना. माडांची सूर काडून आदींच आमचें पोट भरना. आमचें बरें आसा. आमच्यांनी एका वक्तार उपाशीं रावं येता. पूण आमच्या बायेक फकत पेज्जे निवळ घाल्यार तें वयर कशें सरतलें? ताका घटसाण आनी मोठसाण कशी मेळटली? ती मेळटली जाल्यार दुदाचीच गरज आसा. ते भायर वखद-पाणयांक दुडू जाय पडटले.

एक अशिक्षीत रेंदेर जोडपें जावनय आपल्या भुरग्याच्या फुडाराचे काळजेंत आशिल्लें. हें सगळें घडटालें, कारण देवाधनयांचें त्या जोडप्याचेर बेसांव आशिल्लें.

दुमगान चिंतलें, ह्या फुडें माड काडून आमचो संवसार कसोच चलचो ना. आयज एक आसा, फाल्यां दुसरें जातलें.

ताका आतां भायर वचपाचीं सपनां पडूंक लागलीं. देवाचे कृपेन दुमगाचें सपन साकार जालें. मन बरें आसल्यार देव ताका धन दिता. तो कोणाच्याय रूपान बऱ्या मनशाचे मजतीक धांवत येता.

माग्दालिनालो एक पयसुल्लो सोयरो ताचे खबरेक आयिल्लो. तो बोटीर सावन घरा आयिल्लो आसलो. ताणें दुमगाक बोटीर व्हरपाची माण्णी केली. सगळ्यो फर्मालदादी करून तात्पुरतो खर्चय ताणेंच केलो.

अशे तरेन दुमिंग आतां बोटीर पाविल्लो. माग्दालिना अशिक्षीत आसलें तरी तें अनाडी नाशिल्लें. तें मितभाशी आशिल्लें, सुस्वभावी आशिल्लें. ताचें उलोवप गोड आशिल्लें. ताचो वांगड सगळ्यांक जाय जायसो दिसतालो. सगळ्यांकडे मेळून मिसळून वागपी अस्तुरी आशिल्ली ती!

तरी ती सगळेच बाबतींत सतर्क आशिल्ली. 'ऐकावे जनाचे आणि करावे मनाचे' असली ताची वृत्ती आशिल्ली. कसलीय गजाल कसाक लावनूच आपणायतालें माग्दालीना.

गांवांतल्यो चडशो बायलो पाद्रीकडे 'कुमसार' जातात्यो. माग्दालिनाक मात केन्नाच कोणाकडे 'कुमसार' जावंचें पडलें ना. आपणें केन्ना कसलेंच पातक केलेंना जाल्यार कुमसार कित्याक जावपाचें? असो सडेतोड सवाल आसतालो ताचो.

तरी तें पादविगाराचो सल्लो घेतालें. पूण तो बऱ्याक पडपा सारको आसल्यारच अमलांत हाडटालें.

आपल्या न्हवऱ्याच्या उतरा भायर केन्नाच वचनासलें माग्दालिना.

घरकार पयस आसलो तरी माग्दालिनान आपल्या भुरग्याक कितेंच उणें पडूंक दिलें ना. तिचें शिक्षण फकत चीट बरोवपा पुरतेंच जाल्लें. पूण शिकिल्ल्यो बायलो कश्यो वागतात तें पळोवन माग्दालिना आपूण वागतालें.

आपल्या भुरग्याक थंडी भारकूण जालें तरी तें दोतोराचो सल्लो घेतालें. कसलेंच दुयेंस आंगार काडपाची इत्सा नासताली ताची.

आपल्या भुरग्याचेर वायट संस्कार घडचे न्हय म्हूण सदांच सतर्क आसतालें माग्दालिना.

दुमिंग बोटीर गेल्या उपरांत माग्दालिनाच्या हातांत सदांच पयशे घोळूंक लागले. दुमिंगूय आपले लाडके धुवे खातीर कितलेय पयशे खर्च करूंक एका पांयार तयार आसतालो. आपल्यो आशा - आकांक्षा पत्रांत तो आपले बायलेक कळयतालो. आपली बायल करीत तें जालें! पुराय विश्वास आशिल्लो ताचो आपले बायलेचेर.

ग्लोरिया आतां तीन वर्सांचें जाल्लें. पादविगाराच्या सल्ल्यान माग्दालिनान - ग्लोरियाक कोन्वेंटाचे बालवाडेंत दाखल केलें. थंय पावतकच बोर्डिंगाचें वातावरण ताका पचलें ना. कांय नन्सांचें वयलेतराचें वागणें ताका फाव तें सूख दिवंक शकलें ना. कितलेंय जालें जाल्यार आवय ती आवय तिचे माये-मोगाक मोल ना, अशें त्या बालमनाक इल्लें-इल्लें कळूंक लागलें.

तरी पयल्या तीन वर्सांत आवयन आपले भाशेंतल्यान केल्ले संस्कार फळाक आयले. कॉन्वेंटांतल्यो चडशो नन्स ग्लोरियाच्या सद्गुणांचेर भाळ्ळ्यो. पयल्या दिसा सावनच ग्लोरिया नन्सांचें लाडकें जालें.

आपूण एका रेंदेरा बायल. सोरो काडून विकप हो आमचो मुळचो धंदो. ही गजाल कॉन्वेंटांतल्या सगळ्या सिस्टरींक खबर आसा. बऱ्या घराण्यांतल्यान आयिल्ल्यो सुशिक्षीत आनी देशेंत सिस्टरी त्यो, तरी आपल्या भुरग्याचेर काळजांत सावन मोग करतात, हें पळोवन माग्दालिनाक चड बरें दिसलें. ताणें सायबीण मांयच्या आल्तारा सामकारा दिमी मारून तिचे उपकार आठयले.

आपली अपुरबायेची धूव हेर भुरग्यांमदीं ध्रुव ताऱ्या प्रमाण चकचकता तें पळोवन माग्दालिनाचें काळीज भरून आयलें. ताका दिसलें, थोडेच दिसां भितर आपलें जिवीत सार्थक जालें. ताच्या दोळ्यांतल्यान खोशेचीं दुकां व्हावंक लागलीं.

समाजांत भुरग्यांनी कशें वागचें, हाचें शिक्षण कॉन्वेंटांनी दितात. नितीशास्त्रा वांगडाच वेव्हारज्ञानाकय हांगा चड म्हत्व आसता. ताका लागून सुर्वेकच गुडमॉर्नींग, गुडनायट, गुड्डे, बाय-बाय, सी यू, लव यू

असलीं उतरां भुरग्यांकडल्यान 'बाय हार्ट' करून घेतात. ताका लागून नण्णी खंयीय पावूं. कण्णी बरी हालता भुरग्यांची. ह्या चुणचुणीत भुरग्यांच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्ली इंग्लीश आयकून, चड करून भुरग्यांच्यो आवयो भुल्लुसतात. हीच तर इंग्लीश भाशेची खाशेली किमया. काळजाचे भाशेक कोनशाक मारून, इंग्लीशीच्या खोट्या रुपड्यांतल्यान इंग्लीशीचीं मेजकींच उतरां आयकुप्यांच्या कानार मोखून मारल्यार, आपलें काम सादोवंक मेळटा, विद्वान म्हूण मिरोवंक मेळटा, ही गजाल इंग्लिशमोग्यांक बेसबरी खबर आसा.

पूण ग्लोरिया तसल्यांतलें नासलें. तें तीक्ष्ण बुध्दीचें आसुनय इंग्लीशीच्या मोगांत केन्नाच पडलें ना. हाचो अर्थ मात असो न्हय की, आपले आवय भाशेच्या मोगाक लागून ताणें इंग्लिशीक फाट केल्ली. तिचे बाबतींतूय तें शिटूक आशिल्लें.

ह्या गुणांक लागून ग्लोरिया सगळ्यांकूच जाय-जायशें दिसतालें.

तें शांत सभावाचें आशिल्लें. ते भायर तें आज्ञाधारीय आशिल्लें. कोणेंय कसलेंय काम सांगूं, ना म्हणूंक जमनाशिल्लें ताका.

ह्या ताच्या बऱ्या गुणांक लागून पाद्री-माद्रींक दिसतालें की ग्लोरिया माद्र जावपाचे लायकीचें आसा. ताचें रूप आनी हुशारी पळोवन हेरांक दिसतालें की तें एका व्हड घरची घरकान्न जावंक शकता. शिक्षक आनी शिक्षिका तर ताचे बुध्दिमत्तेची तोखणाय दीस-रात करताल्यो. तांकां दिसतालें की ग्लोरिया एक व्हड दोतोर जावंचे लायकीचें आसा.

पूण नियती मात वेगळोच खेळ खेळटाली.

दुमगाची भयण, जाकीन त्याच गांवांत रावतालें. एका खारव्याकडे मोग करून काजार जाल्लें तें! जाकीनान आनी दुमगान एकेच मायचे पोटांतल्यान जल्म घेतिल्लो. पूण सभावांत मात खूब अंतर आशिल्लें तांच्या. दुमिंग सात्वीक, शांत सभावी आनी निटायेन चलपी. आनी जाकीन झगडेकान्न, आशेचें, पाडें आनी बुरशें! ताका लागून काजरा उपरांत ताचें भावाकडे येवप-वचप उणें जाल्लें.

दुमगाच्या नशिबान ताका माग्दालिना सारकी सुसभावी पत्नी मेळिल्ली. अशें म्हणटात की बऱ्या, सशक्त बियांतल्यान गोड आनी रूच्चीक फळां मेळटात. दुमिंग-माग्दालिनाचे पुण्यायेन ग्लोरिया सारकें बरें फळ देवान तांच्या पदरांत घाल्लें. ताका लागून तांच्या घराब्याक आतां कसलीच उणाव म्हूण नासली.

दुमिंग आनी जाकीनाच्या सभावांत विसंगत आशिल्ली, तेच प्रमाण घरांतल्या वातावरणांतूय खूब फरक आशिल्लो. ताचें घर ल्हान आशिल्लें खरें, पूण तें निवळ आनी सोबीत आशिल्लें. वणटी माती-फातरांच्यो आसल्यो तरी त्यो शेण-मातयेन लेपून गुळगुळीत आनी सुळसुळीत केल्ल्यो आसताल्यो. जमीनय चार-चार दिसांनी शेणान सारोवन लीप दवरतालें माग्दालीन. मुखेल घराक तेकून फाटल्यान भाटी, भाटयेक तेकून धुकरांक आनी कुकडांक वेगवेगळे घूड. घुडांनी जीव पडचे न्हय म्हूण खाशेली वेवस्ता.

घरा मुखार दोशीं वटयां फुलझाडां आनी वाझ. वाझांनी तरेतरेचीं रंगयाळीं फुलां. सद्दां सकाळीं फुलां तोडून मांयमोरी आनी देवपूत जेजूक अर्पण जाताली.

आपल्या मना प्रमाण घरांतलें वातावरणय पवित्र दवरतालें माग्दालीन!

आनी जाकीन? जाकीनालें घरय सामकी खोपटी नाशिल्लें. गांवटी नळे, माडांचें वाशे, वण्टी मातयेच्यो आनी हांगा-थंय कोसळून पडिल्ल्यो. खडबडीत जमनीकय सगळेकडे बारीक-बारीक फोंड पडिल्ले.

कोंबयांक घूड आसलो. पूण त्यो घुडांत बसनासल्यो. घरभर भोंवताल्यो. केन्ना केन्नाय जाकीनाले खाटीर आनी हांतरूणार वचून बसताल्यो. जाकीन दीसभर भायर आसतना कोंबयो हांतरूणार तांतयां घालताल्यो.

धुकरां घुडाक दार आशिल्लें पूण सदांच उक्तें. तेन्ना धुकरां दिसाचीं कुजनांत येवन बसतालीं. जाकीन जेन्ना शिताबशी घेवन बाकेनीर जेवंक बसतालें, तेन्ना एक धुकर ताचे म्हऱ्यांत बशिल्ली आसताली.

जाकीनाकडे दुड्डू कुसतालो. खर्च करपाक ताचो मांव मरतालो. 'घोरकार' ताचे मुठींत आसतालो. जाकीन मासी (मासळी) विकूंक तिठ्यार बसतालें तेन्ना ताचो झेत पळोवपा सारको आसतालो. गळ्यांत लांबलचक भांगरा रुजाय (खुरीस आशिल्ली मणयां माळ) हातभर भांगरा काकणां, कानाक सोबीत लामतां आसतालीं.

घरा येतकच कोणायकडे झगडले बगर ताका सुशेग नासतालो. मनीसजात कोणूच मेळ्ळिना जाल्यार कुकडां-माजरां आसतालींच झगडपाक. घोवाकडे तर झगडले बगर न्हीद येनासली ताका. शेजार सामाऱ्यांकय तें कशेंच सोडिनासलें. जाकीन म्हणजे गाळयांचो खजिनोच!

काजरा उपरांत आपल्या भावाचें तोंड पळोवपाक तयार नाशिल्लें जाकीन, आतां भावजयेचे खबरेक येवंक लागलें. दुमिंग बोटीर गेलो आनी हेवटेन जाकीनाल्या 'बंधुप्रेमा'क ओतो आयलो. ग्लोरिया ताका आपलेंचशें दिसूंक लागलें. भावजय आपलीशी दिसूंक लागली. एके वटेन दुमगाची उदरगत जाताली आनी दुसरे वटेन जाकीनाल्या 'बंधूप्रेमा'क चडच ओतो येतालो.

जाकीनाक एक पूत आसलो. ताचें नांव आशिल्लें आंतोन. आंतोन चवथी मेरेन सरकारी नेमा प्रमाण पास जायत गेलो. पूण पांचवेंत हिन्दी आघोड लागता म्हूण इस्कोल सोडलें. उपरांत ताणें इस्कोलाकडे वळून लेगीत पळयलें ना. गांवगुंडां वांगडा गांवभर हेडूंक लागलो. गरज पडटा तेन्ना मांयच्या बोटव्यांतले पयशे चोरून व्हरूंक लागलो. दुकानांतली पाव-शागुती आनी सोरो पिवन दीस काडूंक लागलो. जाकीनाक ही खबर आसुनय तें ताचेकडे आडनदर करी. कारण आपलो पूत गुंडां वांगडा भोंवता, ही गजाल जाकीनाक अभिमानाची दिसताली. खऱ्या फाटल्यान भोंवपी मनीस मेंगणे. दुसऱ्यांक भंय घालून जगपीच राजा आसतात ह्या संवसाराचे, अशें जाकीनाक दिसतालें.

आंतोन धूर्त आनी कपटी आशिल्लो. हे गूण ताणें आपले आवय कडल्यान आत्मसात केल्ले. मामान धाडिल्ले उंची कपडे आंगार चडोवन,

वेंचीक इंग्लीश उतरां लोकांचेर फेंकून तो लोकांक आपल्या जाळ्यांत ओडटालो. गुंडवृत्तीचो आंतोन म्होवाळ इंग्लीश उतरांनी, सभ्यतायेचो आव हाडून लोकांक फटयतालो, अशें म्हणल्यार लटकें जावचें ना.

ह्या संवसारांत खूबशीं मनशां दुसऱ्याचे संपत्तीचेर दोळो दवरून आसतात. जाकीनूय तांतलें एक. दुमिंग बोटीर गेलो आनी तो गिरेस्त जालो ही गजाल जाकीनाच्या लक्षांत आयली. ताचें घरदार आतां आदलें उरूंक ना. तें आतां एका बोटलेरालें घर जाल्लें. सगळ्या सुखसोयांनी भरिल्लें. आदलें घर भाटकाराल्या भाटांत आसलें. दुमगान आपल्या घराची जमीन भाटकारा कडल्यान विकती घेतली. तो आतां मुंडकार उरूंक नासलो, भाटकार जाल्लो. ते भायर ताणें आपले धुवे खातीर भरपूर भांगरांशिंगरां करून दवरिल्लीं. दुमगाची गिरेस्तकाय आतां जाकीनाच्या दोळ्यांत खुपसताली. कितेंय करून भावाली गिरेस्तकाय हस्तगत करूंक जाय, अशे विचार आतां तिच्या मनांत घोळूंक लागले.

जाकीनाल्या मेंदवाचीं चक्रां आतां चडच घुवूंक लागलीं. मामाले चलयेचेर भाच्याचो हक्क आसता, हे पूर्वपार रीतीन जाकीनाक जागृत केलें. ताणें आंतोनी खातीर ग्लोरियाक मागणी घालपाचें चिंतलें.

आपलो हेत साध्य करपा खातीर जाकीनाचें भावागेर येवप–वचप वाडलें. आतां तें भावानूच दिल्ल्यो साडयो न्हेसून नखरे करूंक लागलें. भावजयेचें मन जिकपा खातीर येतना चार भोपशीं हाडूंक लागलें. ग्लोरियाची मायेन चवकशी करूंक लागलें.

हीं सगळीं नाटकां पळोवन जाकीनाच्या मनांत कितें कितें चल्लां हाची कल्पना माग्दालिनाक आशिल्ली. पूण तें घोवाच्या मनाचो विचार करून उकतेपणान कांयच उलोवंक शकनासलें. कशेंय जालें जाल्यार जाकीन घोवाची भयण, तिका दुखयल्यार घोवाक वायट दिसत म्हूण तें गप्प बसतालें.

जाकीन वता तशें आंतोन इगर्जेंत केन्नाच वचनासलो. पूण ग्लोरियाक भेटपाक तो चुकनासतना इगर्जेक वचूंक लागलो. मीस सुट्टकच तो

मुजरत ग्लोरिया म्हऱ्यांत वचून ताका भेटूंक लागलो. ग्लोरियाक तें आवडनासलें, तरी तें ताका टाळूंक शकनासलें. कारण तो ताचो आतेभाव आसलो. ते भायर पादविगार प्रत्येक शेरमांवांक सांगतालो की किरिस्तांव भाव-भयणांनी कसलोच भेदभाव राखूंक फावना. समाजांत माये-मोगान वावरूंक जाय. गरीब-गिरेस्त, उच्च-नीच, काळो-गोरो बी सगळीं देवाचीं भुरगीं. तांकां दुखोवप म्हणचे म्हा पातक. आनी देवाक वायट दिसता तसलें कसलेंच कर्म ग्लोरिया करूंक अनमनतालें. पेल्याचो मोग म्हणचे बंधुप्रेम हें ग्लोरियाक कळटालें. आंतोनीक तो अर्थ केन्नाच कळ्ळोना. तेच पासत तो बार्रार बसून कोपाचो मोग करतालो.

विशेश योग्यतायेन एस्.एस्.सी. पास जाल्या उपरांत ग्लोरिया आतां शिवणकाम शिकूंक वचूंक लागिल्लें. जाकीनाचो ताचेर दोळो आशिल्लोच. ताका दिसलें ग्लोरियाच्या काजराची तयारी चल्ल्या. ताका दिसलें, आपल्या मनांतली गजाल माग्दालिनाक एकदांची सांगून उडयल्यार बरें. कळाव केल्यार म्हारगांत पडटलें.

परत ताच्या मनांत आयलें, भावजयेक सांगचें न्हय, काम फसतलें. ती न्हयकारतली. ते पासत जाकीन आतां भावाचे वाटेकडे दोळे लावन बसलें. शिवाय ग्लोरियाचे हालचालीकडे ताचें लक्ष आशिल्लेंच. आपल्याक कळनासतना भावजयेन ग्लोरियाचें काजार दुसरे कोणाकडेन जमयलें जाल्यार? पिकिल्ल्या आंब्याचेर भायल्या कावळ्यान येवन चोंच मारली जाल्यार?

निमणे एक दीस दुमिंग वियाज मारून घरा आयलो. जाकीन खोशी जालें. ताणें आपल्या मनांतलें दुमगाक उलोवन दाखयलें.

ग्लोरियाच्या काजाराचें नांव आयकून दुमिंग न्हिदेंतल्यान खडबडीत जागो जाल्लेवरी उठून बसलो. आपली धूव काजाराची जाली ही गजाल ताका आयज कळून आयली.

बऱ्या काळजाच्या आवय-बापायंक आपल्या धुवांच्या काजाराची सदांच काळजी लागून आसता. दुमगाचेंय आतां तशेंच जाल्लें. ग्लोरियाचें काजार तर जावंकच जाय. पूण कोणा लागीं? आंतोनीलागीं? एकटीच धूव म्हजी. अपुरबायेची! ती काडून भाच्याक दिवपाची? काजार म्हणल्यार दोन घराब्यांचो एकवट. ह्या एकवटांत नवें आकर्शण आसता. दोन घराब्यांचें जिवीत सुखाचें जाता. मानाचेर कसलें माल्दीसांव पडलें आनी ताणें म्हजे भांगरा सारके अपुरबायेचे धुवेक मागणी घाली!

दुमगाच्या विचारचक्राक आतां गत मेळ्ळी. ताका दिसलें, आंतोन तसो सामकोच वायट न्हय. लोकांकडे खालतेपणान वागता. फटफटीत इंग्लीश मारता. रुपानय तसो साप्प वायट ना. आंगानूय घटमूठ आसा. ते भायर तो मानालो पूत. ताका ना म्हणप म्हणचे भयणीलें नातें तोडप. एकूच भयण. तीय आपल्या परस व्हड. तिचे कडलें नातें तोडपाक दुमगाच्या जिवार येवंक लागलें.

कितेंय जावं, हो विशय माग्दालिनाकडे काडल्यार बरो! अशें म्हणून तो आपले  घरकान्नी म्हऱ्यांत गेलो.

जाकीनाचो प्रस्ताव आयकून माग्दालिनाच्या रागाचो पारो चडलो. माग्दालीन आंतोनीक पुराय वळखतालें. पूण आपलें मन ताणें घोवाकडे केन्नाच उक्तें केलें ना. कोणाचीय चाडी करप पाप समजतालें तें. तांतले तातूंत नणेल्या पुताची चाडी आपल्या घोवाकडे करप म्हणल्यार म्हा पाप. भाव-भयणी मदें फूट घालप हें माग्दालिनाच्या सभावांत कशेंच बसपा सारकें नाशिल्लें. तरी आपल्या काळजाचो कुडको काडून गुंड भाच्याच्या गळ्याक बांदचे आदीं देवान आपल्याक मरण दिवचें अशें माग्दालिनाक दिसूंक लागलें.

आपल्या घोवाचें मन भयणीकडे वळटा तें पळोवन, माग्दालिनान ह्या लग्नसंबंदाक खर विरोध केलो. तें आपल्या रक्ता-मांसाच्या गुळ्याक जाणा जावन नरकांत सोडूंक तयार जालें ना.

माग्दालिनाक दिसतालें की दुमगान जाकीनाक सडसडीत जाप दिवंची. काजाराक न्हयकार दिवंचो. पूण दुमगाक तशें करपाचें धाडस जायनासलें. ताका लागून आतां घोव-बायले मदें सतत झगडीं जावंक लागलीं.

आपल्या काजाराक लागून आपल्या आवय-बापायच्या संबंदाक गेल्ली वेर ग्लोरियाक मातय आवडली ना. ताचें कॉन्वेंटांतलें जिवीत शांततायेन गेल्लें. ताच्या बालमनाचेर त्यागमय संस्कार जाल्ले. तें आपल्या आवय-बापायक देवा समान मानतालें. तांच्या सुखा खातीर तें कसलेंय दिव्य करूंक तयार आसलें. ताणें आपले मांयक समजायलें. देवपुतान भक्तां खातीर केल्ल्या त्यागाचो उगडास करून दिलो. मागीर आंतोनीकडे सांक्रामेंत जोडून, वाद कायमचो मिटयलो.

आंतोन आतां आपले व्हंकलेक घेवन घरा आयलो. ग्लोरिया आदीं कॉन्वेंट, उपरांत आवय-बापायल्या घरांतल्या पवित्र वातावरणांतल्यान घाणींत येवन पडिल्लें. सर्गांतल्यान नरकांत येवन पडिल्लेवरी जाल्लें ताका. आपले आवयचे देखीन आनी बापायच्या आशिर्वादान, नव्या घरांत सर्गाचीं बियां पेरूंक आयिल्ल्या ग्लोरियाच्या सर्गबियांक कोंबूच फुटले नात. संस्कार, पवित्रताय, नमळाय बी कित्याक म्हणटात हाची सुलूस ह्या घराक केन्नाच लागली ना. ताका लागून लटकी आशा बाळगून फुडें आयिल्ल्या ग्लोरिया मुखार ताची हार ताका कुयकूय करून चाळोवंक लागली.

आंतोन आतां मेकळो जाल्लो. ताका सभ्यतायेचें नाटक करपाची गरज उरली ना. ताका जाय आशिल्लें तें गावलें. आतां ताका कोणाचोच भंय असो उरूंक नासलो. ना आवयचो, ना मामाचो, ना मामीचो. ग्लोरियाक तर तो आपल्या हातांतलें खेळणें मानूंक लागलो. मनांत येता तशें खेळोवपाचें  आनी उबगण येतकच कोनशाक मारपाचें!

आंतोनीक आतां घरांत रांदपीण आशिल्ली. ताणें कितें करचें? आवयलें भांगर-शिंगर सगळें आपल्या ताब्यांत घेतलें आनी तिकाच भायर काडली.

आवयची कटकट गेले उपरांत आंतोनीक रान मेकळें जालें. ताणें घरांत जुगाराचो अड्डो सुरू केलो. अड्ड्यार गुंडांचें आनी बेबद्यांचें येवप-वचप जावंक लागलें. ग्लोरियान आंतोनीक समजावपाचे खूब यत्न केले पूण ओमथ्या कळशार उदक. खोटांच्या माराशिवाय ग्लोरियाच्या पदरांत किर्तेंच पडपाची शक्यताय नासली.

म्हणटां-म्हणटां ग्लोरियान दोन पोरां जल्माक घालीं. तिसरें पोटांत वाडटालें. पूण आंतोनीक ताचें कांयच पडूंक नासलें. दोतीचें आशिल्लें-नाशिल्लें सगळें विकून मेकळो जाल्लो आंतोन! असले परिस्थितींत ग्लोरियाक कोणाचो आनी कित्याचोच आदार म्हणटा तो उरलो ना. आवय-बापायन ताका दिलें तेन्ना मेलें म्हूण ताची आस सोडिल्ली. ते संस्कार, तो कॉन्वेंट, त्यो माद्री, ती इगर्ज, तो पादवीगार, तो देवपूत जेजू आनी मायमोरी लेगीत ग्लोरियाचे मजतीक धांवून येवंक शकनासली. ताचो आत्मो शेणिल्लो, मन मेल्लें. आशिल्लो तो फकत कातीन घुसपल्लो हाडांचो सापळो. हो सांपळो नुस्त्या बाजारांतल्या एका कोनशाक बसून, नुस्त्यावेल्या मुसांक आमडीत गिरायकांची वाट पळेत बसतालो. पोटांतल्या भावी आंतोनीक सांबाळीत!



# खंय गेलो तो म्हजो आगशी गांव?

**आ**गशी हो म्हजो जल्म गांव न्हय. तरी आयुश्यांतलीं चडशीं वर्सां हांवें ह्या गांवांत सारल्यांत. म्हजो जल्मगांव! जाणें म्हाका वाडयला, घडयला आनी भुरगेपणाचें भरपूर सूख दिलां तो आतां दोळ्यांकडे निशेता आनी ज्या आगशी गांवांत हांवें जिवितांतलीं साठ वर्सां घालयलीं, तांतलो सुरवातीचो वांटो म्हजे मुखार एक सारको परजळूंक लागला.

तेन्नाचो आगशी गांव आतांच्या लोकांचे दिश्टीन मागास आसुनय सुखदिणो आशिल्लो. गांव किरिस्तावांचो आसुनय ताचेर पाश्चात्य संस्कृतायेचो प्रभाव पडला अशें दिसून येनाशिल्लें. हाचें मुखेल कारण, पुराय गांव शेतां-भाटांनी सजून धजून, नटून थटून शांततायेन जियेतालो.

ह्या गांवांत थोडे प्रमाणांत हिन्दूय रावताले. पूण ते किरिस्तावांक परकी केन्नाच दिसले नांत. हिन्दूंकूय किरिस्तांव सदांकाळ आपलेच भाव दिसले.

हांगाचीं चडशीं शेतां, किरिस्तांवांचे मालकीचीं. पूण तीं पावसाच्या दिसांनीं रोवपाचीं, नडपाचीं आनी लुंवपा-मळपाचीं कामां आगशी भायल्या शेजारच्या गांवच्या हिन्दूंक येवन करचीं पडटालीं. ताका लागून हांगा कोणेंय येवन हिन्दू-किरिस्तांवांक पयस करपाचो प्रयत्न केलो, तर तांकां हांगाचीं शेतां-भाटां एकठांय हाडपाचें काम करतालीं. तीं तांकां सांगतालीं, 'बाबांनो, तुमी धर्माक लागून आमचे पासून पयस

रावंनाकात. आमची सेवा करून, आमची मशागत करून तुमचें स्वताचें आनी हेरांचेंय पोट भरप हो तुमचो खरेलो धर्म !

तुमकां दिसता जाल्यार, तुमकां आवडटा जाल्यार आयतारा दिसा ना तर फेस्ता दिसा फात मारून, देसेंत जावन इगर्जेंत वचून, समेस्तां पासत देवाकडे बरेपणाचें मागणें करात.

तुमी आयताराचो दीसभर सुसेग घेयात. पूण काश्टेक विसरूं नाकात. सोमारच्यान घट्ट काश्टी मारून, चेडवांनी घागऱ्याचो कासाटो मारून, बायलांनी कापडाचो पदर भेंडाक खोवन, दादल्यांनी माथ्याक तुवालो ना तर रंगयाळो लेंस रेवडावन, नेटान आनी झेतान घाम गळसर काम करात. हांव कृशीदेवता सदांच तुमचो जातधर्म पळेनासतना तुमचेर खूश रावतली. तुमी म्हज्या आंगा खांदार खेळात, चिखलांत लोळात, रेंव गुड्डयात माती माड्डयात. अशें करशात जाल्यार तुमकां खाणा-जेवणांक केन्नाच मरण म्हणटात तें आसचें ना.

आमची भारतीय संस्कृताय आमकां शिकयता की हांगाच्या प्रत्येक सजीव-निर्जीव वस्तुकणांत ईश्वराची वसती आसता. ताका लागून हांगाचो केदोय व्हडलो गिरेस्त भावार्थी जावन माती-गुण्यांची, झाडां पेडांची आनी पशुपक्षांची पूजा करता. हांगाच्या मनशांची भास सैमाक समजता आनी सैमाची मनशांक!

कृशीदेवतेन आपल्या भक्तांक म्हळ्यार शेतकारांक आदेश दिवपाचीच फुरसत! फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना, देवाचेर भार घालून लागले मागीर ते कामाक! तांच्या कामाक चड करून गिमांतले फांतोडेर सुरवात जाताली. शिंयाच्या दिसांनीं भायर कितलेंय शीं पडलें जाल्यार घरांतले उबेंत तांकां न्हिदून रावचेंशें दिसनासलें. कोंब्यान साद घालो रे घालो, बुर्नूस फटकुरांनी मुंगरून पडिल्ले शेतकामती सट्ट करून उठून बसताले. आपले गरजेचीं आवतां घेवन विडयांचे झुरके मारीत शेतांत देंवताले.

आगशी हो कणगां-वायंग्यांचो गांव. हांगा कांदो, मुळो, मिरसांगो, तांबडी भाजी आनी कोंकणदुदयांनी शेतां भरिल्लीं आसतालीं ते तेंपार.

हांगा बेकारी केन्नाच नाशिल्ली. एक आगश्ट म्हयनो सोडलो जाल्यार वर्सयभर काम.

हांगाची माती रेंवट आनी सुपीक आशिल्ल्यान शेतांत कितेंय पूर आनी भरपूर उदक घाल. रोपां घसघशीत वाडटलीं, रोकडींच फुलतलीं आनी रोकडींच फळां दितलीं.

हांगाचे होंडे मे म्हयनो आयलो तरी सुकनांत. वयर वयर सुकिल्ले दिसले तरी चार खोरीं माती काडून देगेर उडयल्यार होंड्यांत रोखडेंच उदक भरपूर जमता.

ताका लागून मायाची पयली पंद्रस सोंपतांच शेतांनी तरवे पडटाले. होंड्यांच्या उदकान शिपतकच तरवो तरतरीत वयर सरतालो.

माया म्हयनो हो चड कामाचो. शेतां-भाटां आशिल्ल्यांचो आनी नाशिल्ल्यांचोय.

शेतां आशिल्ल्यांक शेतांतलो तरवो शिंपप, धडो सारक्यो करप, शेतांत शेण-गोबोर पातळावन पावसाची वाट पळोवप. ह्या शेण-गोबराच्या वासान शेतकार पयस पळनांत, परते लागसाराक येतात. शारांतल्या गटारांतले तुळेन शेण-गोबराचो वास तांकां सुखदिणो लागता. शेणींचो धुंवर घराची सरभोंवतण जळारविरयत आनी पवित्र करून सोडटा.

शेतकामत्यांचो आनी भाटराबप्यांचो सर्वसादारण प्रस्न आशिल्लो तो म्हळ्यार पावसाची सुलूस लागतांच घरां शिंवपाचो. साठ वर्सां आदीं, म्हळ्यार गोंय सोतंत्र जावचे आदीं गोंयांत तेर्रासाचीं घरां नाशिल्लीं. भाटकारांलीं आनी गिरेस्तांलीं व्हडलीं घरां सुलचे नळ्यांचीं आशिल्लीं. सुलचे नळे गिरेस्त लोकां खातीर फॅक्टरींत तयार केल्ले आसताले. मध्यम लोकांलीं घरां मात, माडां वासे आनी कोंड्या कामटां उपेग करून गांवटी नळ्यांनी शिंविल्लीं आसतालीं. हीं घरां तिसालान तरी शिंवचींच पडटालीं. ना तर गळतेन सगळे वांशे आनी कामटां भिजून, कुसून वतालीं.

हें जालें मध्यम लोकांच्या घरांचे बाबतींत. उरिल्ल्या लोकांल्या घरांक घरां म्हणपाचें, कारण तातूंत गोरवांक थारो नाशिल्लो. ना जाल्यार गोठ्यांत आनी घरांक व्हडलोसो फरक नाशिल्लो. ना म्हळ्यार व्हड्या वांगडा पनेळ आसता तशी घरा कुशीक खोंप आसताली. हे खोपींत जळवा खातीर लाकूड बडी ना तर सोण्णां कट्ट्यो भरून पावसाळ्याची वेवस्था करून दवरताले. शेणीं-पत्रोय ह्याच खोंपीनी भरून दवरताले. ह्या खोपींचे बाबतींत आनी एक दुख्खदायक गजाल घडटाली. लग्न जाल्लो गरीब पूत, घर ल्हान आशिल्ल्यान आपल्या आवय-बापायची रवानगी खोपींत करतालो आनी पूत-सुनेची अडचण लक्षांत घेवन म्हातारीं आपूण जावन कुशीक रावतालीं. हें जें कितें घडटालें तें अशिक्षीतपणान आनी नाईलाजान घडटालें. तें समाजाचें मागणें आनी देवाचें देणें अशें म्हणूं येता. परतंत्रतायेचे दीस आशिल्ल्यान, देवाचेर भार घालून चलचें पडटालें हांगाच्या गरिबांक.

हांव हें बरोवंक बसलां तें वर्स आसा २०१२. आयज सावन पांच-स दसकां आदलें एकेक चित्र काडून फास्केंत घाल्यार तें पळोवन आतांचे पिळगेंतले लोक तोंडांत बोट घालून अजापान पळेतले. म्हणटले, पन्नास-साठ वर्सांत इतलो बदल? तशें जाल्यार आमच्या पुर्वजांनी कांयच ताकलें भोगलें ना. जल्मले आनी मेले. आमी मात आतां सुखाचे राशीर लोळटां.

हांवूय आतांचे पिळगे वांगडा जगतां. ते तेंपाचो साक्षीदार आशिल्ल्यान, म्हाका तेन्नाचें प्रत्येक चित्र सुखाचें लागता.

तेन्नाचें शीं, तेन्नाचें वारें, तेन्नाचें वत, तेन्नाचो पावस, तेन्नाचें खाण-जेवण, न्हेसण-पांगरूण सगळें सगळें सुखदिणें आशिल्लें.

तेन्नाचे शेतकामती बोटभर काश्टी न्हेसून गांवभर भोंवताले. ते काश्टी मारून भोंवतात म्हूण तांच्या बायलांनी मात केन्नाच काश्टी मारली ना. घराब्याची लज आनी समाजाची शिस्त राखपा खातीर, फुडले पिळगेक देख दिवपा खातीर शेतकामत्यांलीं चेडवां-बायलां

सदांच आंगभर लुगडीं वापरूनूच वावुरलीं. तीं लुगडीं पिंजकीं आनी घामशेल्लीं जावं मागीर!

तेन्नाच्यो बायलो अशिक्षीत आसल्यो तरी शाण्यो आशिल्ल्यो. आपले घोव विडयो फुंकतात म्हूण तांणी समान हक्काचो हट्ट धरून विडयो केन्नाच फुसकायल्यो नांत. कांय जाणांचो आडवाद आसत पूण शेकड्यांत एक-दोन. बायलांचें हें विडी ओडप, दादल्यां भशेन मुजरत अशें जाय नाशिल्लें, तर तें कोणाचेय लगाडीक लागून जातालें आनी उपरांत संवयेर पडटालें.

आमच्या दर्या देगेर आशिल्ल्या आगशी ह्या गांवांत एक खारव्यां वाडोय आशिल्लो. ह्या खारव्यांनी आगशीकारांक आनी आगशी लागसारच्या लोकांक ताजेंच नुस्तें खावयलें. आतां भशेन झेलाचें नुस्तें बाजारांत हाडून केन्नाच विकलेंना तांणीं. नुस्तें उरलेंच जाल्यार ताचेर इल्लें मीठ फाफुडचें आनी मिठाचें नुस्तें खावपाक कोण अनमन नाशिल्लो. परतें ह्या नुस्त्याक खाशेली अशी रूच आशिल्ल्यान लोक मिठाचें नुस्तें रुचीन खातालें. नुस्तें भायर उडोवपाची पाळी तांचेर येनाशिल्ली. तशी पाळी आयलीच जाल्यार नुस्तें माडांक पुरतालें. पूण कुशिल्लें नुस्तें झेल घालून विकिनाशिल्लें.

म्हज्या आगशीच्या गांवांत रेंदेरांची वसती मोटी आशिल्ली. रेंदेरांचें काम माडार चडून सूर काडप आनी ते सुरीचो भाटयेच्या आदारान सोरो काडप. माडांची फेणी आनी हुर्राक फामाद आशिल्लें ते तेंपार. आतां शुध्द फेणी आनी शुध्द रेंदेर मेळप म्हा कठीण! ते पवित्र मनाचे खारवी आनी रेंदेर आतां उरूंक नांत. आतां सगळेंच मिसळलां आनी भश्टलां. ते रेंदेर ना, ते 'कुले' ना, ती फेणी ना, तीं कातारां नांत, तें सुरी गोड ना, ती विनाग्र ना, ते सुरी उंडेय नांत, ते मायेस्त-मोगाळ पोदेरूय नांत.

'उंडे हायाय रे. पोयशे ना जाल्यार माजीर दियाय.' म्हणपी किस्तोद पोदेर मरून कितलीं वर्सां जालीं देवाक खबर! माडां गोड विकून येतकच मायेन गोडाकुडके हातार दवरपी णव्वद वर्सांची गोडामांय अजून म्हज्या



काळजांत घर करून बसल्या. ती मेली, पूण तिची याद म्हाका कशीच सोडिना.

आनी एक गजालीचे बाबतींत म्हाका गोडामांयची घट्ट याद आसा. ती एकूय वर्स गोंयचें फेस्त चुकयनाशिल्ली. आगशी सावन दोंगोर माड्डयत फेस्ताक वचून, कुरकुरीत चणे हाडून आमकां भुरग्यांक खावयताली.

कांय लोक केन्ना केन्नाय तोंडाक येता तें उलयतात. आयजूय उलयतात आनी तेन्नाय उलयताले. कोणाच्या तरी तोंडांतल्यान, 'आगशी भीक मागशी' हें उतर सहजतायेन भायर पडलें. खरें म्हळ्यार हें उतर आगशीचे बाबतींत फावनासलें. आगशी गांवांत येवन कश्टपी लोकांचेर भीक मागपाची पाळी केन्नाच आयली ना. हां, आळशी आनी बेबद्यांक मात आगशीन सदांच पयस दवरल्यात.

आगशी आयिल्ल्या कश्टी मनशाक चामुड्डेन आनी सांत लॉरेन्सान कितेंच केन्ना उणें केलें ना.

आतां हांगाचीं शेतां-भाटां पिकाळ आसुनूय कण्णम जाल्यांत. भाटकारांनी भाटांकडे फाट केल्या. कवाथे रोवपाचें सोडून दिलां. आनी रोयलेय जाल्यार उदकाचो थेंबो पडपाक कठीण. ताका लागून माड वयर सरनांत आनी झरत-मरत वयर सरलेय जाल्यार नाल्लाबोणो मेळना.

आम्रवृक्ष बेनुल्ल्यांनी सतत भरिल्ले आसतात. तांकां लागून कडक शीं पडल्यार लेगीत रूख फुलनांत आनी एकाद्रो फुल्लोच जाल्यार फळ धरना आनी धरतलें कशें? वाडवडीलांनी लावन दवरिल्ल्या झाडांक फळ लागलेंच जाल्यार तांचे भुरगे तें तोडून खातात. हक्क गाजयतात, पूण भाटांत काम करपाचे भानगडीक पडनांत.

एकाद्रो रूख वाडयतलो जाल्यार वर्सांचीं वर्सां कश्ट करचे पडटात. कश्ट केलेबगर फळाची आस धरची न्हय हो निसर्गाचो नेम. पूण हांगाचे ल्हान-व्हड आतां सगळेंच कश्टांशिवाय आयतें खावंक सोदतात.

म्हज्या भुरगेपणांत कोणाक फुकट आनी आयतें खावपाची वान्साच जायनाशिल्ली. शेतां-भाटांनी मरसर काम केल्या बगर दनपारां पानार शिता गोटे पडचेनांत, हाची तरणाट्यांक जाणविकाय आशिल्ली. ताका लागून ते बेकार भोंवपाचे भानगडींत पडनाशिल्ले. राज्य पोर्तुगीजांचें आसुनूय आयजच्या सारकीं बार्रां नाशिल्लीं. ना म्हळ्यार एक आशिल्लें. पूण फाव तशें गिरायक नाशिल्लें. बारवालो गिरायकाची वाट पळयत मुसकां मारीत बसतालो.

मात कांय वाड्यांचेर तावेर्नां आसतालीं. हीं तावेर्नां दनपारचीं आनी आमोरेचेर उकतीं जातालीं. ह्या तावेर्नांचेर भितर सरताले ते सदचे सवंयेचे बेबदे. तेय वयस्क. भुरगे आनी तरणाट्यांनी ह्या तावेर्नांचेर पांय दिल्ल्याची म्हाका याद जायना. सोरो पियेवप हें वायट, हाची जाणविकाय गांवच्या लोकांक आशिल्ली.

सोरो इल्लो चडटकच, तावेर्नांचेर बेबद्यांमदें इल्ली बाचाबाच जाताली. पूण हे बेबदे खूब शाणे आशिल्ले. सोंपेपणान तांणीं मारामारी केन्नाच केली ना, वा सोरो लागून ते वालेतींत पडून राविल्ले हांवें केन्ना पळेल्ल्याची म्हाका याद जायना.

आयज म्हज्या प्रिय गांवांतलीं शेतां-भाटां ना जावंक पावल्यांत. म्हज्या भुरगेपणांत तीं सैमदेवतेचें वरदान जावन आशिल्लीं. कडक शीं पडटालें आनी आमरूख वगतार फुलताले. नाल्लां येदे आंबे रूख आपल्या आंगार झेलयतात तें पळोवन जीव धादोशी जातालो. चैत्र-वैशाख म्हयन्यांत आंब्यांचो भार! भाटकारांल्यो घराकुडी आनी मुंडकारांल्यो खोंपट्यो मुडयां आंब्यांनी परमळटाल्यो.

आयज आगशीकारांक-भाटकारांक आनी मुंडकारांकूय बी नाल्ल-माडांचें कोंत ना. एक तेंप असो आशिल्लो की मुंडकार-भाटकार माडांच्या आदारार जगताले. भाटकार पाडो केन्ना येतलो आनी नाल्ल विकूंक केन्ना मेळटले हाची वाट पळेत आसताले. सगळें जिवीत तांचें माडांचेर निंबून आसतालें. पावसा दिसांनीं भाटांत जोत घाल्यार, खण्णी

केल्यार आनी आळीं काडून खावड पुरल्यारूच चार नाल्ला बोणे मेळटले हाची तांकां खात्री आसताली. ताका लागून उत्पन्नाचो वांटो, ल्हान जावं मागीर तो - भाटाक खर्च करचोच पडटालो. हो खर्च पाडेली, मानाय, कामेऱ्यां हांचे खातीर जातालो.

माड जाले म्हूण कितें जालें? तांकांय भावना आसता. गाय एकदां प्रसन्न जाली जाल्यार दुदाची धार वाडयता आनी आपल्या धनयांक तांबये भरभरून दूद दिता. तेच परी धनी आपली काळजी घेता, तें पळोवन माड नाल्लांच्यो राशी घालतात.

पाड्याकणकणी नाल्ल इतले पडटाले की चड जाल्ल्या नाल्लांची सांठवण करपाक भाटकारांक व्हडलीं-व्हडलीं लॉजां बांदचीं पडटालीं.

नाल्लांचे सांठे वाडटाले. उपरांत हे सांठे पावसभर लॉजांनी पडून उरताले. पावस संपतकच कोणूय तरी नाल्लांचो धंदो उबो करतालो. पूण धंद्याची सर्त मात केन्ना लागिल्ली म्हजे यादींत ना.

म्हाका याद जाता ती लवंदेबंधूंची. हाणीं आपले मुस्तींत नाल्लांचो धंदो भरभराटीक हाडलो. नाल्लांच्या धंद्यांत तांचो हात धरपी त्या वाठारांत आनी दुसरो कोणूच नाशिल्लो.

ह्या लवंदेबंधूचीं नांवां आशिल्लीं अनंत आनी पद्मनाभ. आगशी, व्हडलें गोंय आनी शिर्दन ह्या गांवांतले सगळे भाटकार ह्या लवंद्यांच्या मर्जेतले आशिल्ले. लवंद्यांक जाय जावन भाटकार नाल्ल दुसऱ्यांक कोणाकूच दिनाशिल्ले. ह्या भावांचेर तांचो पुराय विस्वास. हे सांगतात तें मोल सा जातालें.

दुसरी म्हत्त्वाची गजाल म्हळ्यार लवंदेबंधू गांवच्या भाटकारांक वगतार पावताले. भाटकार जाले म्हूण कितें जालें? अडचणी सगळ्यांकूच आसतात. अडचणेच्या वगतार भाटकार लवंद्यांमुखार येवन माथें खरपीताले. माथें खरपवपाचो अर्थ आशिल्लो आदियेंताद दुडू मागप. आदियेंताद म्हळ्यार ॲडवान्स. माडा कळवांतले नाल्ल जमनीर देंवता म्हणसर कळाव लागतालो.

ते तेंपार सगळेच भाटकार गिरेस्त नासताले. थोडे हातावयल्या पोटाचे आसताले. फुडल्या पाड्याचो अदमास घेवन जगताले. माडाक कितल्यो पेंडयो देंवल्यात तांतल्यो कितल्यो पेंडयो फुडल्या पाड्याक नाल्ल दितल्यो, कितले नाल्ल हुंदरांचे आनी चोरांचे भकीक पडटले, मुंडकार कितले खातले आनी शेकीं आपल्या हाताक कितें लागता हाचो हिशेब करूनूच जगचें पडटालें ह्या ओर्राद भाटकारांक.

मेळिल्ल्या दुडवांतले खाणाजेवणाक कितले, कपडे-लत्त्यांक कितले खर्च करप आनी वखदापाणयांक कितले सांबाळून दवरप हाचें अंदाजपत्रक तयार जातालें घरांत.

हें अंदाजपत्रक म्हयन्याचें आनी वर्साचें नासतालें तर दोन पाड्यांमदलें आसतालें.

हें अंदाजपत्रक जेन्ना फेल वतालें, तेन्नाच हे भाटकार लवंदेबाबां मुखार येवन माथें खरपीताले.

अशें आसलें तरी हे भाटकार काळें तोंड करून गांवांत केन्नाच भोंवलेनांत. तांच्या धोतराक मिरयो पडल्योनांत. कोटाक चुरयो पडल्योनांत. फात दागेलोना, चेपें बागवलेंना आनी मोचे बुरशेले नांत.

ह्या भाटकारांनी आपल्या भाटांची कुयदाद घेतली, तांची राखण केली म्हूण नाल्ल राशींनी मेळूंक लागले. ह्यो राशी पळोवनूच गांवांत नाल्लांचो धंदो उबो जालो. कोणें केलो हो धंदो उबो? लवंदेभावांनी!

कसलोय धंदो उबो करतलो जाल्यार पयशांचें बळ लागताच. ते भायर धंदेवालो धाडसी आनी धोरणीय आसचो पडटा. लवंदेभावांकडें हे सगळे गूण आशिल्ले.

धंदो कसो सुरू करप हें लेच्यापेच्याचें काम नासता. तो कोणें आनी कसो सुरू करचो, हें लवंदेभावांकडसून शिकपाचें आशिल्लें.

लवंदेभावांनी धंदो सुरू कसो केलो आनी तो कसो वाडयलो, हाचो अणभव हांवें प्रत्यक्ष म्हज्या दोळ्यांनी घेतलो.

ते तेंपार आतां सारक्यो पिकपी बी नाशिल्ल्यो. आशिल्ले ते रेड्यांगाडे. हेर गांवांनी बैलगाडे आसताले. पूण आगशी आनी सरभोंवतणच्या गांवांनी फक्त रेड्यांगाडे चलताले. लवंदेभावांनी ह्या गाड्यांचो पुरायेन उपेग करून घेतलो. हे सगळे गाडेकार लवंद्याल्या नाल्लाधंद्या चेर चलताले म्हळ्यार जाता.

माड हो रूख आनी ताचें फळ नाल्ल, ते तेंपार गरिबांचो आदार जावन आशिल्लो. गरिबांलीं चडशीं घरां पुरायेन माडांचेर आदारून आशिल्लीं. घरां उबीं करपाक माड गरिबांक पुरायेन मजत करतालो. माडांचीं फोडां आड्यांक उपकरतालीं. वांशांनी घर कडणायताले. चुडटांनी घर शिंवताले. मल्लांनी कवड्यो करताले. मल्लांचे कंडे शिवून तातूंत पावसाळ्याक पत्रो भरून थेयताले. मल्लांच्या आडोशान घरांनी वेगळ्यो कुडी तयार जाताल्यो. मल्लांचे कंडे माथ्यार घालून, कामेऱ्यां शेतां नडणी करतना पावसापसून स्वताची राखण करतालीं.

कांय गरीब लोक डांबरी रस्त्यावेल्यान चलतना पांयें हुलपचे न्हय म्हूण चुट्ट्यांचीं जोतीं करून पायांक घालताले. मल्ल आंगणांत उडोवन तांचेर न्हिदप, बसप जातालें. भाटांतले आनी कुळागारांतले लोक मीठ-सोलां सुकत घालूंक मल्लांचो उपेग करताले. ते भायर, सुक्या चुट्टांचे सांपळे करून पावसाळ्या खातीर खोपी भरून दवरताले.

माडाचें व्हडपण इतल्यारूच थांबना. ताचें फळ नाल्ल. ह्या नाल्लाक व्हडलें मोल ना आतां. पूण पांच-स दसकां फाटीं फक्त म्हज्या आगशी गांवांतलेच घराबे न्हय, तर आगशी गांवां भायल्या कितलेशाच लोकांचीं कुटुंबां ह्या नाल्लांनीं पोसल्यांत. लवंदेभावांल्या धंद्याचे देखीन हांव खूब कितें सांगूंक शकतां. कारण हो धंदो ते तेंपार कसो भरभराटीक आयिल्लो हें हांवें म्हज्या दोळ्यांनीं पळेलां.

नाल्ल पाडपाचे खाशेले अशे पाडे आसतात. चड करून जानेर, मार्च, माय, आगोस्त आनी औतुब्र ह्या म्हयन्यांत पाडे येतात. मार्च आनी माय ह्या दोन पाड्यांक मोटे आनी भरपूर नाल्ल पडटात. सगळ्यांत थोडे आनी बारीक नाल्ल पडटात ते आगोस्ता म्हयन्यांत.

नाल्लांची वळख आकारा प्रमाण आसता. ऐशीं भरतेचो हो सगळ्यांत मोठो नाल्ल. ते फाटल्यान शंबर भरतेचो, एकशें वीस भरतेचो, देडशें भरतेचो. एका साकांत सोलिल्लो नाल्ल कितलो वता ते प्रमाण नाल्लाच्या आकाराची वळख थारता.

नाल्ल पडटा आसतना कामेऱ्यां ते पाट्यांनी भर भरून लॉजा मुखार राशीक मारतात. पाडेकारांनी नाल्ल मेजले उपरांत ते लॉजांत भरतात.

लॉजां नाशिल्ले ल्हान भाटकार मात नाल्ल रोखडेच लवंदेभावांक विकताले. लवंद्याले गाडे तयार आसतालेच. मानायूय तयार आसताले. गाडयांनी हाडिल्ले नाल्लांनी लवंद्यालीं लॉजां भरतालीं.

पावसभर लॉजां भरिल्लीं आसतालीं. ऑक्टोबर सावन शीं सुरू जातालें. पावस पडलोच जाल्यार इल्लो दिवाळेकडे पडून कायमचो वतालो.

लवंद्यांल्यां पसऱ्याच्या दारांत एक गोळीचें व्हडलें झाड आशिल्लें. पसऱ्याक तेंकुनच नाल्लां खातीर दोन व्हडलीं लॉजां बांदिल्लीं आसतालीं. दिवाळे उपरांत दोनूय लॉजांतले सगळे नाल्ल ते विशाल गोळीचे सावळेंत येवन पडटाले. रास येदी व्हडली जाताली की ती चडपाक - देंवपाक तिचेर लांब फळीं जोडून सोडचीं पडटालीं.

आनी एक म्हत्वाची आनी अभिमानाची गजाल म्हळ्यार म्हज्या आगशी गांवांतले नाल्ल अरब देसांत पावताले. ते व्हरपाक पणजेच्या धक्याक अरबांचे मचवे आनी कोठये येवन लागताले.

लवंदेभाव गांवांतले नाल्ल पुंजावन धेंप्याक दिताले. ते व्हरपाक धेंप्याले गुजराती दलाल येताले. म्हाका ह्या दोन दलालांची याद अजून जाता. एकाचें नांव आशिल्लें नंदलाल शेठ आनी दुसऱ्याचें आशिल्लें मुकुंदभाय.

ह्या दोनय दलालांचे आपापले नाल्ल तिजपी आसताले. नाल्ल तिजप म्हळ्यार बरेबरे वेंचून काडप. हे तिजपी लवंद्यांगेर सेमानाचीं सेमाना आसताले. जेवंक-खावंक, न्हिदूंक-उठूंक लवंद्यांगेरूच आसताले.

इतलेंच न्हय, तर ह्या नाल्ल तिजप्यां शिवाय नाल्ल सोलपी, नाल्ल फोडून, सुकोवन ते गिरणीर व्हरून तांचें तेल काडप, तें लातांनी भरून लातां पॅक करप हीं सगळीं कामां म्हज्या आगशी गांवांत चलतालीं.

हाचे वेल्यान वाचप्यांक कळटलें की नाल्लांधंद्यांचो आटाप केदो व्हडलो आशिल्लो.

तरी हांवें वयर खूबशा कामांचो आनी फायद्यांचो उल्लेख करूंना.

नाल्ल सोल्ल्या उपरांत लोकांक सोण्णां, कट्ट्यो मेळटाल्योच. ते भायर व्हिरांपासून सान्नी तयार करपाचो वावरूय घराघरांनी चलतालो. व्हिरांचो उपेग पानांचे दोणें तोपूंक जातालो.

दुर्भाटकारां पोनेळ घेवन येवन सोण्णां व्हरतालीं. ह्या सोण्णांपासून सूम, दोरयो, व्हडलीं दोरां, शेली, पायपुसणीं बी तयार जातालीं.

आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हाका वाचप्यांक सांगीनशी दिसता आनी ती म्हळ्यार हांगाचे लोक सर्रास खोबरेल तेलाचो उपेग जेवणांत करताले, पूण कॉलेस्ट्रॉलान कोण मरनासलो.

आतांभशेन तेन्नाय दोतोर आशिल्ले. आतां इतले नासूं मागीर. पूण ते आतां इतले शाणे मात नाशिल्ले. ते शाणे आशिल्ले जाल्यार आंगाक खोबरेल चोळून गरम उदकान न्हावपाचो सल्लो दिवचे नासले. जेवणांत खोबरेलाचो उपेग करूंक दिवचे नासले. घडये तांकां कॉलेस्ट्रॉल बी कितें म्हणटात ती खबर नासली जावंये!

लवंदेभावांनी फकत नाल्लांचो धंदो वाडयलो आनी गांवांतली बेकारी ना करपाक मजत केली, अशें मात कोणें समजचें न्हय. नाल्लां धंद्या वांगडाच शेतकारांक साऱ्याची पुरवणूय ह्या धोरणी भावांनी केली. इतल्यारूच ते थांबले नांत. तर वांयगणे शेतकारांची अडचण पयस करून ताणीं कुडतरे गांवांतलें बियाणें हाडून शेतकारांचो प्रस्न सुटावो केलो.

आगशीच्या गांवांक लागून, सुलाभाट, पिलार, नेवरें ह्या गांवांनी काजूकार रावतात. तांचे कडल्यान काजू बियो घेवन त्यो साठोवन दवरपाचें कामूय ह्या लवंदेभावांनी प्रामाणीकपणान केलें.

लवंद्यांनी सगळे तरेचे धंदे केले, पूण ते प्रामाणीकपणान केले. ताणीं कश्ट केले आनी धन जोडलें. धन जोडटां-जोडटां तांचेकडल्यान कळटां न कळटां समाजकार्यूय घडलें. भाटकारांक, दोंगरकारांक आनी शेतकारांक मागता तेन्ना दुडू दिवप आनी ते दितात तेन्ना घेवप. भाटाचीं, दोंगराचीं आनी शेताचीं उत्पन्ना सैमाचेर निंबून आसतात. वेळार फाव तें उत्पन्न आयलेंना जाल्यार काडिल्लीं रिणां फारीक कशीं जातलीं?

खूबदां दिल्लें रीण बुडीत खात्यांत जमा करपाची पाळी लवंदे भावांचेर येताली.

हे लवंदे कोण? हांची इल्ली वळख वाचप्यांक दिवचीशी म्हाका दिसता.

खूबशे लोक ह्या संवसारांत जल्मतात आनी मरून वतात. तातूंत कांय कर्तुबी आसून लेगीत समाज तांची दखल घेना.

तशें पळोवंक गेल्यार, ते तेंपार आनीकूय नेगोशियांती (वेपारी) आशिल्ले आगशी गांवांत. पूण लवंद्यांमुखार ते तिगले नांत.

ताकाय कारण आशिल्लें. तांकां फाटभूंय नाशिल्ली आनी तांच्या धंद्याची बुन्यादूच डळमळीत आसताली. 'आदीं कळस मग पाया' असली स्थिती आसताली तांची.

पूण ह्या लवंदेभावांचें तशें नासलें. तांकां धंद्याची फाटभूंय आसली. तांच्या बापायन धंद्याची बुन्याद बळकट करून दवरली आनी ते घट्ट बुन्यादीच्या आदारान, ताच्या ह्या दोगांय पुतांनी धंदो भरभराटीक हाडून नांव कमायलें.

कोण आशिल्लो हो तांचो बापूय? ताचें नांव आशिल्लें नारायण प्रभू लवंदो. हांवें ताका पळोवंक ना. पूण ताचेविशींच्यो खूबशो गजाली हांवें तेन्नाच्या लोकांकडच्यान आयकल्यात.

हो लवंदो व्हडले गोंयां रावतालो. गांधीवादी आसुनूय ताणें आगशी येवन तंबाखू विकपाचो धंदो सुरू केलो. ल्हानशे खोपटेंत ताणें आपलें दुकान थाटलें. व्हडले गोंयच्यान, तीन-चार की. मी. चलून तो सद्दां

आगशी येतालो. इतलेंच न्हय, तर पोटाकडे पयशांचे - नोटांचे कवळे बांदून तो पणजे-म्हापशां चलत येता - वतालो. श्रम केले बगर कोणूच व्हडलो जायना, हें तेन्ना ताणें जगाक दाखोवन दिलें. असले लोकांचो सदांकाळ आदर आनी सत्कारूच जाता.

हांव ताका गांधीवादी हे पासत म्हणटां की तेन्ना भारतांत गांधीयुग चलतालें. गांधीन सदांच वालो न्हेसून कश्ट काडले. लोक सांगतात ते प्रमाण नारायण लवंद्यांनूय कश्टांक म्हत्व दिलें. फुडें ताचेकडे भरपूर पयसो जालो. पूण व्हडले गोंयच्यान आगशी चलत वचपाचें सोडलें ना. आपल्या दोगांय पुतांकूय ताणें सायकल घेवपाक मान्यताय दिलीना.

फुडें ताणें खोपटेंतलो आपलो पसरो व्हडले इमारतींत व्हेलो. पसरो रातीचीं णव वरां लेगीत उक्तो आसतालो. पूण पेट्रॉलमॅक्साचो झगझगीत उजवाड तांणी केन्नाच केलोना. मेजार दिवली पेटोवन हिशेब बरयलो आनी हातांत पेत्रोला दिवो घेवन, आख्खो पसरो आनी गोदांव भोवले आनी वावुरले. ते भायर घरा येवपा-वचपाक लापयांव आशिल्लोच.

कोणाकूय दिसतलें हो लेखक नारायण लवंदो आनी ताच्या पुतांचें इतलें व्हडपण कित्याक गायता? कश्टांनी आपली उदरगत करून घेवपी ते तेंपार खूब वेपारी आशिल्ले. पूण तांचेविशीं केन्ना कोणाक कितेंच बरोवचेंशें दिसलें ना. मागीर होच लेखक ह्या वेपाऱ्यांचें कवतूक कित्याक करता?

ताकाय एक खाशेलें कारण आसा. लवंदेभाव एका तत्वनिश्ठ आनी प्रामाणीक वेपाऱ्यांचे देखीन फुडें आयिल्ले आनी गांवांत आपल्या बापायचें नांव कोरावन गेले.

आनी एक मुखेल कारण म्हळ्यार नारायण प्रभू लवंदे हो फांकिवंत स्वातंत्र्यसैनीक, कै. विश्वनाथ नारायण प्रभू लवंदे हाचो बापूय.

नारायण लवंद्याक चार पूत. नारायण लवंद्याक शिक्षणाची आवड आशिल्ली. ताणें आपल्या व्हडल्या पुताक दोतोर केलो. दोतोर दत्ता लवंदो हाणीं साश्टींतल्या कुंकळीं गांवांत एक बऱ्यांतलो बरो दोतोर म्हूण नांव कमयलें.

एका पुताक शिकोवन वकील केलो. होच तो विश्वनाथ लवंदो. हाणें स्वतंत्रताये खातीर सारेंपुरें जिवीत खर्च केलें.

उरिल्ल्या दोगांनी व्हडा कश्टान आनी प्रामाणीकपणान वेपारी मळ गाजयलें.

आगशेच्या लवंदो घराब्यांत विश्वनाथ नारायण लवंद्यासारको वयल्या पावंड्यावेलो स्वातंत्र्यसैनीक जल्माक आयलो आनी आपले हयातींत ताणें स्वातंत्र्य मेळोवन दिवपाक हातभार लायलो. ते पासत लवंदे घराब्याचो म्हाका अभिमान दिसता.

आयज नारायण लवंदो ना. तागेले पुतूय ना. तांणीं सुरू केल्लो पसरो आसा. तो नारायण लवंद्याचो नातू प्रकाश लवंदो चलयता. पूण ह्या पसऱ्याक हांगाचे लोक अजून वळखतात तो 'नाराणा'लो पसरो म्हूण.

ह्या पसऱ्याक तेकून आशिल्लीं दोनूय लॉजां अजून आसात. पूण तातूंत नाल्ल, काजूबियो आनी साऱ्यासाक नांत.

नाल्ल नांत कारण माड जाल्यात बोडके. काजूबियो नांत, कित्याक दोंगोर पडल्यात ओस. साऱ्यासाक नांत कारण शेतां उरल्यांत पाड!

गुदांव भरल्यात ते फकत दाळाक लावन दवरिल्ल्या सिमेन्टाच्या पिशव्यांनी.

आयज गांवांत शेतां-भाटां पळोवंक मेळनांत. पळोवंक मेळटात त्यो शेतां पुरोवन उबारिल्ल्यो चडश्यो दोन दोन मजली बिल्डिंगो.

ह्या बिल्डिंगांतल्या फ्लॅटांत रावपी लोकांक पळोवन म्हजें मन फुलना. म्हजें मन आशेता तें पांच-स दसकां फाटल्या खोपटांनी रावतल्या हांसत्या, साद्या-भोळ्या लोकांचीं मुखामळां पळोवंक.

म्हाका याद येता ती वायंग्यांनी, मिरसांगांनी, कोकणदुदयांनी, कणगांवालींनी, पडोळ्यांनी भरिल्ल्या शेतांची.

म्हाका आतां रस्त्यावेल्यान धांवपी नव्यो-नव्यो गाडयो पळोवन खोस भोगना. खोस भोगता ती रेड्या-गाड्यांचे यादीन.

म्हाका जुवारी पूल पळोवन खोस भोगना, तर खोस भोगता ती आगशी-कुठ्ठाळेच्या तारीचे यादीन. जुवारी न्हंयेंत भोंवपी पनेळ,

व्हडीं बार्जीचे यादीन. म्हाका सूख भोगता दर्यांत जाळां उडोवन, खुटाण मारून, ताजें फडफडीत नुस्तें घेवन, आंगभर घागरे-कापडां न्हेसून बाजारांत येवपी खारवीणींचे यादीन.

अशा खूबशा यादींनी मन म्हजें ताजेता, कोमरेता आनी फुलता.

म्हाका याद जाता आगशीच्या फुटबॉल ग्राऊंडाची आनी मुज्ग लावन खेळपी खेळगड्यांची. तांचो खेळ पळोवपाक खर्शेत खर्शेत धांवून येवपी शेजारच्या गांवांतल्या फुटबॉल मोग्यांची.

अश्यो खूबश्यो यादी म्हजी फाट कशोच सोडिनांत. म्हजें बालमन प्रभावीत करपी फुटबॉल खेळगडे मरून गेले. ग्राऊंडार आतां बिल्डिंगो उब्यो जाल्यात. आतां म्हज्या मनांत उरल्यात त्यो फक्त सुखदिण्यो यादी!

माथ्याक धवोफुल्ल तुवालो रेवडावन, सायकलीर बसून लोकांच्या घरांनी वचून, तांच्यो शिरो मारून तांचो रक्तदाब सामान्य पातळेर हाडून दवरपी वैजिणीक हांव अजून विसरूंना.

एकाच रंगाचें-पुडीकोराचें-अर्दें कालसांव आनी हातकापें खोमीस आनी तसल्याच रंगाची माथ्याक तोपी घालून, ऑर्डर भोवपी बाबलो नायकाची म्हाका अजून याद जाता. खांदाक आर्म लावन, तेच भेसान गांवभर भोवून लोकाल्या शेतांची राखण करपी तोच बाबलो नायक, अजून म्हज्या दोळ्यांपसून पयस जायना आनी तो कामिज्यांववालो पापा, विशेंती पडळ, पेद्रू ग्राशियस जितेजागते जावन म्हज्या सरभोंवतणी भोंवतात असो भास जाता.

आयज उसंत नासतना मार्गावेल्यान गाडयो धांवतात. ते तेंपार अर्दे-अर्दे वरांन तारिकडल्यान कामिज्यांव सुट्टाले. थांब म्हणटा थंय थांबताले.

शेतांतलीं कणगां उस्तून जातकच उरिल्लीं कणगां उस्तून व्हरपाक गांवांतलीं म्हातारीं कोतारीं आनी भुरगींबाळां शेतांत देंवतात, तेन्ना तांची धांवपळ आनी मनांतली उर्बा पळोवन, तांच्या हातांतल्या पिशव्यांनीं

भरिल्ली संपत पळोवन सगळेच भान विरयत जाताले. मन खोशेचे गिरेस्तकायेन भरून वतालें.

आयज म्हज्या सामकाराक देमायज - भरमसाठ - सुखां पातळ्ळ्यांत. एका तेंपार हीं काल्पनीक सुखां म्हज्या वांट्याक येतलीं अशें सपनांत लेगीत चिंतलेंना हांवें.

पूण म्हज्या घरांत आशिल्ल्यो सुखसोयी म्हाका खरेलें सुख दिनांत. घरांतल्या मिक्सराचेर वाटिल्ली चटणी म्हजी जीब न्हयकारता. घरांतलो टीवी म्हाका शांतपणान बसूंक दिना. टीवीक लागून म्हजीं नातरां पाटी-पुस्तक घेवन अभ्यासाक बसनांत. रगड्यार वांटिल्ल्या आळेणाचें रुच्चीक हुमण खावंक मेळना. सान्ना-पोळे खावंक मेळनांत. घरा लागसारच्या उंच बिल्डिंगांक लागून ताजें वारें घेवंक मेळना. जळारींचे राजवटींत सुखाची न्हीद घेवंक मेळना.

गांवांतलीं भजनां, किर्तनां, नाट्यगीतांतलीं उतरां कानार पडनांत. रेंदेरांलीं कातारांय आयकूंक येना. दर्याची वेळ लागीं आसुंनूय ताचो गाज मातूय आयकूंक येना. आयकूंक येता तो दीसरात गाडयांचो घरघर!

हांगाच्या मोगाळ मनशांच्या तोंडांतल्यान म्होवाळ कोंकणी उतरां कानार पडनांत. कानार पडटा ती ल्हान-व्हडांच्या तोंडांतली तांबडी इंग्लीश.

ताका लागून म्हाका दिसता, म्हाका सूख दिवपी म्हजो आगशी गांव खंय तरी शेणला. म्हाका ह्या जल्मांत पळोवंक मेळत काय तो? काय म्हज्या आगशी गांवाचें परिवर्तन इंफेर्नांत जातलें?

बाबा सांत लॉरेंसा, असलो वायट वगत आमचेर हाडूं नाका रे बाबा! म्हज्या गांवाचेर तुजी नदर आसूं दी.



# सर घार्सो

म्हजे यादी प्रमाण तें वर्स बावन-त्रिप्पन आसुंये! राजवट पुर्तुगेजांची चलताली. आतां लोकांच्या तोंडांतल्यान गुडमॉर्नींग, गुड्डे बी भायर पडटा तशें तेन्ना बाँदीय, बॉतार्द बी सहजतायेन उतरां भायर पडटालीं.

असले वेळार त्या दिसांनीं कांय तरणाटे, सायकलीर बसून, हांसत-खिदळत आगशीच्यान व्हडले गोंयां येताले. हें भिरें गेल्या उपरांत, थोडे वेळान आनी एक तरणाटो सायकलीरूच बसून, नेटान पेडलां मारीत येता-वतालो. हो तरणाटो फुडें गेल्ल्या तरणाट्यांमदें मिसळून गेल्लो जाल्यार, ताचें वेगळेंपण कोणाच्या लक्षांत वचचें नाशिल्लें.

पूण आतां मात तो भिऱ्यांतल्या तरणाट्यांहून खूबच वेगळो दिसतालो. ताची उंचाय त्या तरणाट्यां इतलीच आशिल्ली. मोटायूय दोळ्यांत भरऽसारकी नाशिल्ली.

ताचो भेसूय गवाय दितालो की तो एक भाटकार आनी बऱ्या घराण्यांतलो भुरगो जावन आसा. रंग गोरसो आनी दोळे घार्शे. धवेंफुल्ल शर्ट आनी काल्सांवूय धवेंधवेंच. शर्ट इन्सेट केले उपरांत आनी ताचेर काळसो कमरपटो चडयलो म्हणटकच सर्वांगाक एक सोबाय येताली. ह्या रंगांत आनी भेसांत तो सामको राजबिंडो दिसतालो.

ताचें उलोवप आनी चलप पुरायेन देखदिणें आशिल्लें. तेन्नाय आशिल्लें आनी आतांय आसा.

कोण हो तरणाटो? खंय वतालो तेन्ना तो सायकलीन?

ताचें नांव सर शांताराम व्ही. एस. घार्सो. त्या तेंपार प्रिमेयरग्राव, सेगुंदग्राव शिकून प्रतिश्ठीत घराब्यांतले लोक एँप्रेगाद जाताले. पूण इंग्लिशींत मॅट्रीक पास जाल्ले साप्प उणे. इंग्लीश शिकताले, ना अशें न्हय. पूण नॉनमॅट्रीक जावन नोकरी करताले. तांकां नोकऱ्यो मेळटाल्योय बी. मिना खणीर, धेंपो, चौगुले कंपनींत तांकां नोकऱ्यो सहजतायेन मेळटाल्यो. त्योय मॅनेजरांच्यो बी.

आमचो सर तेन्ना मॅट्रीक जाल्लो. ताणें मनांत हाडिल्लें जाल्यार खंयचेय कंपनीत व्हडल्या हुद्याची नोकरी पटकावंक जाताली ताच्यान! पूण ताणें तशें केलेंना. कारण ईश्वराची येवजण दुसरीच आशिल्ली. सरा कडल्यान ताका शिक्षणीक कार्य घडोवन हाडपाचें आशिल्लें.

सरान चिंतलें जावये, आगशीच्या आनी व्हडले गोंयच्या गरीब आनी गरजवंतांक इंग्लीश शिक्षणाची गरज आसा. पणजे वचून शिक्षण घेवप तांकां जमना. ते जर इल्ली इंग्लिश शिकले, तर खणीर ना जाल्यार हेरकडे सुपरवायझराची बी नोकरी मेळोवंक शकतात.

सराल्या घराक एक लांबलचक माळी आशिल्ली. थंय ताणें भुरग्यांक इंग्लीश शिकोवपाक सुरवात केली. हां-हां म्हणटा आगशीचे आनी सरभोंवतणचे भुरगे मयथ्यार गर्दी करूंक लागले. गर्देचें कारण फकत इंग्लिश नाशिल्ली. मुखेल कारण आशिल्लें सराची शिकवणी. खंयच्याय शिक्षकांनीं फकत व्हडल्यो पदव्यो घेतल्यो म्हणून जायना. बीएड-बि.टी. केलेंच म्हणल्यार जायना. सर घार्शान शिकोवण्यो सुरू केल्यो तेन्ना तो फकत मॅट्रीक आशिल्लो. ट्रेन्ड बी तसो कांय नाशिल्लो तो. पूण आशिल्लो हाडा-मांसाचो शिक्षक. सर्वसादारण शिक्षकांक शिक्षणशास्त्र दिका दाखयता.

शिक्षणशास्त्राच्या आदारान शिक्षक अमूकच एके दिकेन चल्लो म्हणून तो बरो शिक्षक जातलोच अशें ना. तो शास्त्र शिकलो, विद्वान

आसलो आनी शिकोवपाची कला ताचेकडेन नासली, तर तो यशस्वी शिक्षक जावंकच शकना.

शिकोवपाची कला ही कोणाक शिकून मेळना. ती निजाचीच आसची पडटा. घार्सो सराकडे ती आशिल्ली, अजून आसा.

आयज चडशे शिक्षक तापटराव आसतात. तांकां दिसता, भुरग्यांक भंय घालीत जाल्यार तीं बरीं शिकतात. पूण भुरग्यांक भंय घालतलो जाल्यार भंय घालपी शिक्षक राकेस आसचो पडटा. तो तसो नासलो जाल्यार भुरगीं भितलीं कशीं आनी शिकतलीं कशीं? आमचो घार्सो सर तर शांतसभावी. कोणा मुखार आवाज चडोवन उलोवपी न्हय. हांवें तर ताका भुरग्यांचेर केन्ना तापिल्लो पळोवंक ना. अशें आसतना ताचेकडे शिकिल्लीं भुरगीं व्हड आनी शिस्तप्रिय जाल्लीं आसात.

फाटल्या दिसांनी कसल्यातरी कामा निमतान सरागेर गेल्लों. थंयचें दृश्य पळोवन हांव अजाब जालों. सर आतां ऐशी-ब्यायशीं वर्सांचे पिरायेचो जाला. तरी ताचे पडवेर भुरग्यांक बसपाक बांक मांडून दवरिल्ले आसात. हाचोच अर्थ असो की, उजू शिक्षक ऐशीं वर्सांचो म्हातारो जालो तरी शिकपी भुरग्यांपसून पयस रावप ताका कठीण वता.

घार्सो सराले शिकवणेकलेचो आस्वाद हांवेंय थोडे दीस घेतला. तें जालें अशें, हांव वीस-बावीस वर्सांचे पिरायेचो आशिल्लों. थोडी मराठी वाचूंक-बरोवंक येताली. इंग्लीशय येताली मात्शी-मात्शी. हें जें कितें पदराक आसा, तें गुरूविरयत संपादन केल्लें. म्हाका दिसलें, घार्सोसरागेर वचून म्हजी इंग्लीश सुदरता जाल्यार पळोवंची. सरानय ताका मान्यताय दिली आनी सद्‌दां सांजेच्या सातांक आफयलो. देड म्हयनो मेरेन हांवें सराकडल्यान शिकवणी घेतली. ह्या देड म्हयन्यांत हांवें सराकडल्यान मेळटा तितलें इंग्लिशीचें गिन्यान गटागटा प्राशन केलें. उपरांत सराकडे वचपाचें हांवें बंद केलें. ताका दोन कारणां आशिल्लीं. एक, सराक म्हजे खातीर घराकडे येवप अडचणेचें जावंक

लागलें आनी दुसरें म्हणल्यार म्हाका कामानिमित्त आगशी सोडून भायर वचचें पडलें.

हांगा म्हाका सराच्या सभावाची एक कड मुजरत उक्तावचीशी दिसता. शिकवणेचो एक म्हयनो सोंपल्या उपरांत, फी कितली दिवं काय म्हूण विचारलें. थंय सराची घरकान्न उबी आशिल्ली, तिणें फट्ट करून म्हणलें, ''आरे, सर तुजी फी कितें घेतलो? तूं ह्या वयांत कादेर्न हातांत घेवन आमगेर शिकूंक येता, तें व्हडलें आमकां. शिकत राव तूं. पयशे-बियशे कांय नाका दिवंक.''

आयज सराली घरकान्न हयात ना. पूण तिगेल्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं उतरां ताजीं, कालपयरचींच शीं दिसतात म्हाका!

हांवें सराकडल्यान शिकवणी घेवपाचें बंद केलें. मात ह्या देड म्हयन्यांत खूब कितें शिकलों. मुळांतलोच हांव शिक्षणप्रेमी, तांतले तातूंत उत्साही. सरान कितें शिकयलें तें भराभर हांवें आत्मसात केलेंच. ते भायर हांवें सरालें शिकवणेचेर बारकायेन लक्ष दिलें. ताचो शांत आनी थंड सभाव, स्पश्ट उलोवप, शिकपी भुरग्यान चूक केली जाल्यार ताचेर खेकसप आनी तापप ना.

सराली शिकोवपाची रितय देखदिणी आशिल्ली. शिकपी भुरग्यांचो स्तर आनी ताच्या मनाचो थाव घेवनच सराली शिकवणी चलताली. हें गोंय, इंग्लंड न्हय. हांगच्या भुरग्यांक आवयभाशेच्या आदारानच इंग्लिश-पुर्तुगेज सारकी परकी भास शिकोवंची गरज आसा, हाची पुराय जाणविकाय सराक आशिल्ली. हाका लागून इंग्लिशीच्या प्रत्येक उतराचो अर्थ कोंकणींतल्यान सांगपाकडे कल आशिल्लो सराचो. इंग्लीश शिकयतना ताचो ग्रामरीचेर चड भर आसतालो. भाशेचीं मुळां घट्ट आनी मजबूत जाल्या बगर शिकपांत गोडसाण येना अशें सराक दिसतालें जावये!

सराकडे हांव अल्पकाळ शिकलों. ते वेळार हांव फुडें हायस्कुलाचो शिक्षक जातलों, हें सपनात लेगीत चितूंक नासलें. सराकय ताची कल्पना नासली. पूण हांव जेन्ना शिक्षक जालों तेन्ना सराली-भाशा

शिकोवपाची पद्धत-दोळ्यां मुखार दवरून शिकोवंक लागलों. चड करून हिन्दी. हिन्दी किरिस्तांव भुरग्यांक कठीण लागताली. तांकां एक तर हिन्दी उतरांचो अर्थ इंग्लिशेंतल्यान सांगचो पडटालो, ना तर कोंकणींतल्यान. भुरग्यांक भाशांतर मॅथड आवडटाली आनी भुरग्यांक बरे तरेन जें समजता आनी आवडटा तें तांकां दिवप ही उजू शिक्षणाची लागणूक जावन आसता.

ही गजाल हांव घार्सो सराकडल्यान शिकलों. घार्सो सरान पुर्तुगेज काळांत आगशी, आपल्या घरांत शिकोवंक सुरू केलें. थोड्याच तेंपान इंग्लिशीचो सर म्हणून फामाद जालो. ते तेंपार पुर्तुगेज शिक्षकाक 'पोरोसार' म्हणटाले. हे पोरोसोर प्रिमेयर आनी सेगुंदग्राव शिकिल्ले आसताले. हे दोन 'ग्राव' म्हणल्यार मुळाव्या शिक्षणाची तिसरी आनी चवथी. त्या मानान आमच्या घार्सो सरालें गिन्यान कितलेशेच पटीनी व्हड आशिल्लें. पूण ताणें केन्ना झेत मारले नात. पुर्तुगेज पोरोसोर फात मारून भोंवताले. पूण आमच्या सराच्या गळ्यांत हांवें केन्नाच ग्रावाद लांबयल्लो पळेलोना.

घार्सो सर पुर्तुगेज काळांत एक बरो इंग्लिश टिचर म्हणून फामाद जालो. ताचो लाव आगशीच्या शिकप्यांनी घेतलोच. ते भायर व्हडले गोंयचे आनी हेर वाठारांतलेय भुरगे ताचेकडे गर्दी करूंक लागले. हें पळोवन सराक दिसलें, व्हडले गोंयच्या भुरग्यांक आगशी येवंक त्रास पडटात. ताणें थंयच्या भुरग्यां खातीर वेगळो क्लास सुरू केलो. सकाळचें आगशी शिकोवप आनी सांजेचें व्हडल्या गोंयां.

सराले कितलेशेच स्टुडंट्स आतां म्हातारे जाल्यात. खूबशे ह्या संवसाराक अंतरल्यात. जे उरल्यात तांकां सर देवासमान! तांची तकली आदरान बागवल्या बगर रावना सराक पळोवन!

सर त्या तेंपावेलो भाटकार आसलो, तरी ताका संवसार चलोवपाक दुडवांची गरज पडटालीच. तो भुरग्यांकडे फी मागतालो. पूण सगळेच पालक फी दिवपाचे ऐपतीचे नासताले. पूण सरान तांकां अशें केन्नाच

म्हणलें ना, तुमचेकडे फीचे पयशे दिवंक ना तर भुरग्यांक फाल्यांच्यान स्कुलाक धाडूं नाकात. म्हयनो संपतकच ताणें फी मागची, थोड्या दिसांनी याद करची आनी उपरांत गप्प बसचें.

सराच्या आशिर्वादान खूबशे भुरगे पोटाक लागल्यात आनी व्हडय जाल्यात. देखीक एकाच भुरग्याची गजाल सांगचीशी दिसता.

आगशी गांवांत एक गरीब रावतालो. धंद्यान कांसार. वांगडा म्हातारो बापूय, लग्नाची भयण आनी एक ल्हान भाव. एका मोडक्या घरांत रावतालें हें चार लोकांचें कुटूंब.

धाकटो भाव व्हडले भावाक मजत करपाक भातो फुंकपाचें काम करतालो. एक दीस ताणें म्हाका हांव हातांत कादेर्न आनी लाप्स घेवन सरागेर शिकूंक वता तो पळेलो. एक दीस तो म्हजे म्हऱ्यांत धांवत आयलो आनी म्हणूंक लागलो-

''तूं सरागेर शिकूंक वता म्हूण आयकलां हांवें.''

''हय, गजाल खरी.''

''म्हाका घेत सर? म्हाकाय फुडें शिकन दिसता.''

''पळोवया, विचरतां सराक.'' - हांवें जाप दिली.

''हांव शिकलां इंग्लिश थोडी. फुडें स्कुलाक वचून शिकूंक जमना.''

हांवें ही गजाल सराक सांगली. सराक दिसलें जावये, हो गरीब भुरगो मदेंच स्कूल सोडून घरा बसला आनी ताका फुडें शिकपाची इत्सा आसा. सरान ताका शिकोवपाचें मान्य केलें.

भुरगो हुशार आशिल्लो. सरान ताचो भरपूर उपेग करून घेतलो. शिकपी भुरग्यांक शिकपाची ओड आनी इत्सा आसली जाल्यार, शिकोवप्याकय उर्बा चडटा. ताका शिकयन-शिकयनशें दिसता. घार्सो सरान ताका आपलोच मानून, ताचेकडच्यान मॅट्रीकेची तयारी करून घेतली. तो मॅट्रीक बऱ्या मार्कांनी पास जालो. ताका रोखडीच शिक्षकाची नोकरीय मेळ्ळी. सरान ताका शिकोवपाक न्हयकार दिल्लो जाल्यार, फुडल्या काळांत भातो फुंकीत बसतलो आशिल्लो!

शिक्षकी पेशो आपणायल्या उपरांत त्या भुरग्यान डी. एड. केलें. ग्रॅज्युएट आनी पोस्टग्रॅज्युएट केलें. बी. एड केलें आनी हायस्कुलचो शिक्षकूय जालो तो. ताका बायलय बरी पदवीधर आनी सरकारी अधिकारी मेळ्ळी.

ही जाली एका गरीब भुरग्याची काणी. सराच्या उजवाडान अशे कितले शिकपी भुरगे परजळून गेल्यात जायत, हाचो विचार केन्ना कोणें केला जातलो?

गोंय सोतंत्र जालें आनी सराच्या वांट्याक बरे दीस आयले, अशें हांव मानतां. सांत आंद्रे तर ताचेर आदीं सावनच प्रसन्न आशिल्लो. इगर्जेंत आतां पयलीं प्रायमरी आनी उपरांत अनुदानीत हायस्कूल जालें. असले वेळार सर प्रशिक्षीत शिक्षक नाशिल्लो. पूण शिक्षणाचो ताका अणभव आशिल्लो तितलो गांवांत आनी कोणाकूच नाशिल्लो. स्कूल सुरू केल्ल्या पाद्रीक तर नाशिल्लोच. ताका लागून प्रिन्सिपालान सराचो भरपूर लाव घेतलो. पाद्री प्रिन्सिपाल आशिल्लो, तरी मार्गदर्शक घार्सो सर आशिल्लो, अशें हांवें खात्रीचें विधान केल्यार तें फाल्स जावंचें ना.

स्कुलाचो प्रिन्सिपालय उक्त्या मनान अशेंच उलयतालो.

सर घार्सो फकत एक बरो शिक्षक नाशिल्लो, तर तो उजू समाजसेवकूय आशिल्लो. एक तेंप असो आशिल्लो, की आगशी गांवचो हिन्दूसमाज जिवंत आसा, अशें गांवांभायल्या लोकांक दिसतालें. गांवांत सार्वजनीक सत्यनारायणाची पूजा बांदताले गांवचे लोक. त्या निमतान नाटकांय जातालीं. तींय एक वर्स चुकयनासतना. नाटक पयलीं आगशी करप. उपरांत तातूंतलें एक वरगांवां चामुंडा देवीच्या पांयांकडे करप. वरगांवां नाटक जातालें तें तिसालान – एक वर्स मदें करून!

घार्सो सर त्या तेंपावेलो एक उमेदीचो कलाकार. तो गायक न्हय, पूण नाट्यकला ताच्या आंगांत खंयतरी दडून बशिल्ली आसताली. संद मेळटांच ती उसळी मारून भायर येताली.

घार्सो सरान खूबशा कोंकणी–मराठी नाटकांनी उमेदीन वांटो घेतिल्लो आसा.

पुणी दांड्यालें 'ताची करामत' हें कोंकणी नाटक आगशीकारानी खूब गाजयलें त्या तेंपार. त्या नाटकांतलें बाबूदाद हें पात्र कोणें रंगोवचें तर तें घार्सो सरानच!

'ताची करामत' हें नाटक आनी घार्सो सरान वटयल्लो त्या नाटकांतलो बाबूदाद आगशेंतल्या हिन्दू किरिस्तांवांच्या मनांत कितलींऽ तरी वर्सां थाण मारून बसून आशिल्लो.

घार्सो सरान आपल्या जिवितांत थोडेंभोव राजकारणय केलां. पंचायत वांगडी जावन आगशी गांवचो उपसरपंचय जालो. फुडें तो राजकारणाचे भानगडींत पडलो ना. कारण सुरवातेचें आनी त्या उपरांतचें राजकारण आनी राजकारणीय बदल्ले. राजकारणांतल्या खऱ्या–खोट्याची जाणविकाय ताका सुर्वेक कळ्ळी ना जावये आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार, घार्सो सर पवित्र मनाचो गुरूजी आनी जातिवंत गुरूजी अपवित्र कार्याक मान्यताय केन्नाच दिवचो ना. केदेंय व्हडलें संकश्ट आयल्यार लेगीत! ताकाच लागून सर, राजकारणा पसून जाता तितलो पयस रावलो जावये.

सरान आतां ऐंशीं वर्सांची पिराय हुपल्या. तरी तो वीस–बावीस वर्सांच्या तरणाट्यांभशेन सायकलीन भोंवता. चारचाकी गाडयेन भोंवपाची ऐपत आसून लेगीत देखदिणें जिवीत जगता सर!

सराकडे ह्या वगतार सगळें कितें आसा. धूव–जांवय, सून–पूत आनी सूखदिणीं नातरां आसात. शिक्षणदानाचें सत्कर्म करून भरपूर पुण्याय जोडल्या. चैतन्यशील जिवीतय लाभलां ताका. पूण एकूच उणाव दिसून येता. सांगाताक घरकान्न आशिल्ली जाल्यार दुदांत साखर पडपाची!





# राधामावशी

राधामावशेच्या नातवांकडे चड करून व्हडल्या नातवाकडे म्हजो इश्टागतीचो संबंद. ताका लागून तांगेर म्हजें येवप-वचप जातालें. घराब्याकडे ओड लागिल्ली. राधामावशी म्हज्या इश्टाची आजी. म्हजे खाशेले खंयचेच आज्जेन म्हाका जितली ओड लायलीना तितली राधामावशेन लायिल्ली म्हाका!

एक दीस कोणेंतरी म्हणलें, 'राधामावशी चड बरी ना. वाचता काय कितें देवाक खबर.' हें आयकून म्हाका कच्च जालें. हांव अस्वस्थ जालों. चिंतलें, राधामावशेचेर नदर घालून येतलों. सगळीं कामां थंयचे थंय सोडून, हांव राधामावशेगेर गेलों.

म्हाका दिशिल्लें, राधामावशी नज जावन हांतरूणार पडून आसा जातली. पूण पळोवंक गेल्यार तशें कांयच दिसलें ना. एके काळखे कुडींत पांय लांब सोडून, फाट वण्टीक तेंकोवन बसल्या. मरूंक तेंकल्या तरी दोळे मुजरत उक्ते दवरून, आयिल्ल्या-गेल्ल्याचेर तिची नदर आसताली.

ल्हानशे कुडींत इल्लोय उजवाड नाशिल्लो. राधामावशेक भायलें सगळें दिसतालें, पूण भायल्यांक राधामावशी दिसनासली. आंगार धवशें लुगट उडयल्लें तर मात कोणाचीय नदर पडटली आशिल्ली राधामावशेचेर. ती सदांभशेन पूडरंगी दाट कापड न्हेसून, पडून आशिल्ली.

आपूण थोड्याच खिणांची वांगडी आसा, हाची जाणविकाय आशिल्ली तिका. आपली पिराय आतां शंबरीच्या घरांत आसा, हाचीय कल्पना आशिल्ली तिका. तरी ती आपलें मरण, आपल्या उक्त्या दोळ्यांनी पळेताली. आपले खीण आतां लागीं पावल्यात हें तिका कळटालें.

राधामावशी बरी नाशिल्ल्याची खबर आयकून, कांय गांवच्यो बायलो एकठांय जाल्ल्यो. बायलांच्या घोळक्यांत राधामावशी न्हिदून न्हय तर पडून आशिल्ली. तिचें भेंड जडेल्लें. हात-पांय हालोवंक जायनासलें तिच्यान! मात ती पुरायेन शिंतीदार आशिल्ली. म्हऱ्यांत आशिल्ल्या एकान एके बायलेक ती वळखताली. तिका आपल्या मरणाविशीं कितेंय दिसूं, म्हऱ्यांत बशिल्ल्यो बायलो मात चिंतेस्त जाल्ल्यो. राधामावशी आतां ह्या संवसारांत चड वगत उरचीना म्हूण तांचेकडल्यान सेवा नेटान चलताली. कोण पांय चेपताली, कोण तोंडाकडे पेजेनिवळ धरताली, कोण तिका आयण्यान वारो घालताली, कोण तिका कितें जाय कितें नाका हाची तत्परतेन चवकशी करताली तर कोण तिका हालोवन एके कुशीवेली दुसरे कुशीर दवरपाच्या प्रयत्नांत आशिल्ली. एकटी तर फकत दुकां गळोवपाचें काम करताली.

बायलांच्या घोळक्यांतल्यान म्हाका कुडींत वचप शक्य नाशिल्लें. कुडीचें दार सामकें अशीर आशिल्लें. भितर सरतना तकली आपटत म्हूण भिरांत आशिल्ली.

दारा भायल्यानच दोन-तीन पासयो मारल्यो. इतल्यान कोणेंतरी तिका हांव आयिल्ल्याची खबर दिली. तिणें उठपाक हालचाल केली. तिका कश्ट पडचे न्हय म्हूण हांव बायलांच्या घोळक्यांतल्यान वाट काडीत भितर सरलों. तिका नमस्कार करून तिच्या पांयांक स्पर्श केलो.

राधामावशेन थोडो वेळ आपली नदर म्हज्या चेऱ्यार थिरायली. दोळ्यांच्या पातकड्यांची उगडधांप करून तिणें म्हाका एके तरेचो येवकार दिलो. म्हजे दिश्टीन म्हाका तो आशिर्वाद आशिल्लो.

राधामावशेक हांवें पयले फावट पळेली तेन्ना ती सत्तर वर्सां पिरायेची आसुंये. गोरीगोरीपान, केंस अजून काळे कुळकुळीत आशिल्ले. भेंडाक मात इल्ली बाग आयिल्ली. ओणव्यांनी चलपाक सुरवात जाल्ली. तेजस्वी दोळे. खणखणीत आनी स्पश्ट आवाज! धीरगंभीर चेरो. व्हड आसुनय ल्हानपणान वागप. तोंडांतल्यान भायर पडिल्लें प्रत्येक उतर गोडसाणीचें. शिवाय तिचे वागणुकेंतल्यान सात्वीक भाव पावला कणकणी व्यक्त जाताले, हें वेगळेंच. तिची चालचलणूक दाखोवन दिताली की ती एका सुसंस्कृत घराब्यांत वाडलेली. हें सत पावलाकणकणी व्यक्त जातालें.

राधामावशी विधवा आशिल्ली, पूण तिचो धनी केन्ना भायर पडलो हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. पूण तो एक सभ्य गृहस्थ आशिल्लो, ही गजाल तांच्या भुरग्यांचे वागणुकेवेल्यान कळून येतालें.

सुसंस्कृताय ही फकत सुखवस्तू आनी श्रीमंतांची मिरासदारी आसूंक शकना. व्हडलें शिक्षण घेवनूय मनीस सुसंस्कृत जायना. ती कुटुंबांतल्या जणेकल्या वांगड्यान स्वकश्टान मेळोवपाची आसता. गरीबकायेचे चटके खावन, अध्यात्मगिन्यानाच्या आदारान ती संपादन करपाची आसता.

राधामावशी सुसंस्कृत घराब्याचो वारसो घेवन घोवागेर आयिल्ली. हो वारसो तिणें आपल्या पुरतोच मर्यादीत दवरलोना. आपले देखीन तो घोवाल्या कुटुंबांतय रोवन ताची गरगरीत वाड केली. वारशाची ही मोलादीक गिरेस्तकाय तिणें आपल्या भुरग्यांकडच्यान, नातरांकडच्यान पण्टुरांकडे लेगीत हाडून सोडली.

कसल्या ना कसल्या कामा निमतान राधामावशेगेर वचप जातालें. राधामावशी सदांच जागृत आसताली. कोण येता-वता हाचे कडेन ती लक्ष दवरून आसताली. हांव आयलां तें पळोवन हातांतलीं कामां थंयच सोडून म्हज्या म्हऱ्यांत आयल्या बगर रावनासली. म्हजी आनी म्हज्या घरच्यांची तिणें आस्थेन खबर घेवंची. म्हज्या हातान कसलेंय बरें कार्य

घडलें जाल्यार मुजरत तिणें तुस्त - तोखणाय करची. हांव नवें घर बांदतां, हें आयकून तिका कितली खोस जाली म्हणून सांगूं! आपल्या नातवा कडल्यानच नव्या घराच्या बांदणेचें कार्य घडटा, अशें दिसलें तिका. तिका व्हड खोशी तर जालीच, ते खोशेभारार म्हाका सल्लो दिवंकय ती फाटीं रावलीना. म्हणूंक लागली, 'सिमेंट आनी तिजुले बी घालशी जाल्यार, इल्ली सुवात मेकळी सोड बाबा! पावसांत शेणाजमनीर कितेंय सुकत घालूंक बऱ्यांक पडटा.'

राधामावशेक वचून आतां कितलींशींच वर्सां उडून गेलीं. पूण तिचो सल्लो खऱ्यांनीच मोलादीक आशिल्लो हाचो प्रत्यय म्हाका आयज येता.

राधामावशी म्हाका आजये समान आशिल्ली. तिचो व्हडलो नातू पिरायेन म्हज्याहून सात-आठ म्हयन्यांनी व्हड. तरी ती म्हजेकडे आरे-तुरेची भास केन्नाच उलयली ना. 'बरो आसा मरे' अशें म्हणिल्लें म्हज्या लक्षांत ना. 'बरो आसा मू? तुमगेलीं घरचीं कशीं आसात?' असलीच भाशा दर खेपे उलयताली राधामावशी म्हजेकडे.

राधामावशेले कोंकणींतलो आदरार्थी 'मू' म्हाका नवो नाशिल्लो. म्हज्यो आजयोय आयकतल्याक मान दिवंक 'मू'चोच उपेग करताल्यो. ल्हानांकडे आदरान उलयल्यार हेच ल्हान व्हडांकडे आदरान उलयतले, हाची जाणविकाय त्या तेंपावेल्या आजयांक आशिल्ली. आतांच्यो आजयो 'ग्रँड्यो' जाल्यात. तांकां हें सत कशें उमजतलें!

तेन्नाच्या आजयांनी, मावशांनी आनी काकयांनी गोंयची कोंकणी संस्कृताय तिगोवन धरली. आतां काळ बदल्ला. मावशांच्यो सर्रास 'आंट्यो' जाल्यात. जावं बावड्यो. जाल्यो म्हूण मळब कोसळचें ना. पूण ताणीं मनीसपण मात सोडचें न्हय, आपूण भारतीय नारी जावन आसा, हाची जाणविकाय बाळगून आसचें अशें आमकां दिसता.

फुडलें जोत चलता तशें फाटलेंय चलता, अशी एक म्हणणी आमच्या गोंयच्या कोंकणी समाजांत घोळटा. राधामावशेकय ती लागू

पडटा. राधामावशेन आपली बरी देख एकुलते एक सुनेक घालून दिली. घालून दिली म्हणचे परस सुनेन मांयचो वारसो जतनायलो म्हणल्यार लटकें जावचें न्हय.

तोच वारसो आतां राधामावशेची नातसून चलयता.

कांय कुटुंबांतल्यो अस्तुऱ्यो – त्यो मागीर गरीबकायेंत वाडिल्ल्यो जावं, ना तर गिरेस्तकायेंत. कितल्योय शिकल्यो सवरल्यो तरी उलयतना आड्डेतात काय फकत हुयेली मारपाचें काम करतात, हें समजूंक वाट आसना.

खंयच्याय कुटुंबांतल्यो अस्तुऱ्यो शांत, सुस्वभावी आनी चारित्र्यसंपन्न आसल्यो जाल्यार, तांचे वागणुकेचो – चलणुकेचो प्रभाव कुटुंबांतल्या भुरग्यां बाळांचेर पडले बगर रावना. फुडें मागीर तो पिळग्यांच्यो पिळग्यो तिगून उरता. उपरांत कुटुंबांतल्या वांगड्यांनी शिकून कितल्योय पदव्यो संपादन केल्यो, तर मूळच्या सुसंस्कारां मुखार त्यो फिक्यो पडटात.

राधामावशेक सगळीं मेळून पांच भुरगीं जालीं. दोन पूत आनी तीन धुवो. आदले तेंपार कुटुंबांत देवान दिल्लीं भुरगीं चड आनी येणावळ साप्प उणी. पयशांकडे पयसो वता तसो गरिबांचे संगतीक गरीब. राधामावशेल्यो सगळ्यो धुवो गरिबांल्या घरांत पडल्यो. जंय गरिबी चड, थंय भुरगीं आडबरयां. मरण येना म्हूण जगतात कशींबशीं. तांतले तातूंत गरीब बामणाचे हाल तर कुत्रो खायनासलो.

राधामावशेली एक धूव लग्ना उपरांत विधवा जावन राधामावशे गळ्यांत पडली. हेर दोगीय आपलें कुटूंब मोटें करपाचें महान कार्य करूंक लागल्यो.

राधामावशेली दुसरीय धूव विधवा जावन, आपलें लटांबर घेवन आवयगेर येवन रावंक लागली. हांव आवयगेर म्हणटां, बापायगेर म्हणना. कारण भुरगीं आवयल्या पोटांतल्यान जल्म घेतात. कांय बाबतींत बापायचो संबंद फकत नांवा पुरतोच आसता. कश्ट घेता फकत आवय!

दोन धुवांचो पेज आतां राधामावशेच्या माथ्यार येवन पडलो. आपल्या तीन धुवांचीं लग्नां लावन दितासतना, राधामावशेचे कशे हाल जाले जायत, कितलें सोंसलें जायत तिणें, हाची फकत कल्पनाच केल्ली बरी!

राधामावशेले एके विधवा धुवेक भुरगींबाळां कांयच नाशिल्लीं. तिचे बाबतींत व्हडली चिंता नाशिल्ली राधामावशेक. चिंता आशिल्ली ती नव्यान विधवा जाल्ले धुवेची.

हे विधवेक दोन धुवो आनी चार पूत. ह्या चार पुतांच्या नाड्यार, भविश्यांत तांच्या भयणांचीं लग्नां सहजतायेन जातलीं, अशें राधामावशेक दिसतालें. पूण राधामावशेची निराशाच जाली. नातवांक पाखां फुटलीं आनी भटो भटो आपल्यो वाटो म्हणत उडत गेले.

आपली जापसालदारकी आनी लागणूक कडाशेक लावन, फुलू कुस्तार खोजने मारपी पुरूश उणे ना समाजांत. घरांतले नाकरते पुरूश जेन्ना संवसाराकडेन आडनदर करतात, तेन्ना घरांतली कर्तुबी अस्तुरी आपल्या संवसाराची लज राखपा खातीर धिरान फुडें येता.

आमचो समाज - चड करून हिन्दू-अस्तुरेक दुर्बळ मानीत आयला. पूण संकश्टाच्या वेळार, आपल्या संवसाराक तेंको दिवन, तो उबो दवरपाचें काम अस्तुरी करता आनी ताचें श्रेय मात पुरूश घेता. कारण संवसार चलता तो पुरूशाच्या नांवान!

राधामावशेल्या दोन पुतांतलो व्हडलो पूत गोपीनाथ, उर्फ गोपीबाब. पोस्ट खात्यांत सिर्विशेक लागून 'शेफ' जाल्लो. दुसरो पूत रमाकांत उर्फ रोमलाबाब कसलो तरी उद्देग करूंक जाय म्हूण प्रोव्हिदोरियाच्यो सोर्ती विकच्यो ताणें. हो रोमलाबाब हुशार आशिल्लो. आपल्या पुर्वजांचो पुर्वाणभव घेवन स्वत: आंकवार रावपाची भीष्मप्रतिज्ञा केली ताणें. म्हजो अणभव म्हाका सांगता की असले मनीस पळोवंक दिसतात सादे आनी मेंगे. पूण आसतात मनाचे पक्के. रोमलाबाब शांततायेन, हांसत-खेळत-मुरगटत जगलो आनी कोणाक दुखयनासतना ह्या संवसाराक अंतरलो.

हो रोमलाबाब पळोवंक तसो हिरो दिसतालो. कोट-तोपी घालून उबो रावलो म्हण्टकच भाटकार कुळांतलो कसो दिसतालो. शांत सबावाचो आशिल्लो. ताणें आपल्या लग्नाचो विचार केल्लो जाल्यार आनी ताणें तशें उलोवन दाखयल्लें जाल्यार, राधामावशेल्या दारांत व्हंकलकारांच्यो रांगो लागतल्यो आशिल्ल्यो. कोणाचो मोगूय करून लग्न जावपाक शकतालो. पूण राधामावशेक आनीक आनी संकश्टांत उडोवपाची ताका इत्सा नाशिल्ली.

गोपीबाबान आपल्या बापायकूय फाटीं उडोवन, एका फाटल्यान एक अशीं सात भुरगीं जल्माक घालीं. तातूंत चार धुवो.

राधामावशेच्या दुर्दैवान, गोपीबाब सातय भुरग्यांक राधामावशेच्या पदरांत सोडून ह्या संवसाराक अंतरलो.

राधामावशेचो घरकार तिका एकटेक सोडून गेलो तो गेलो. व्हडलो कर्तुबी आदारखांबोय तिका आतां एकटे बायलेक सोडून गेलो. राधामावशेचेर आयलो आकांत. ती सैरभैर जाल्लेवरी जाली. कितें करचें तेंच समजनाशें जालें तिका.

तरी ती खचली ना. दुख्खदर्यांत बुचकळपी आपले सुनेक धीर दिलो. आतां तिका आदार आशिल्लो तो फकत व्हडल्या नातवाचो. इस्कोलांत शिकपी नातवाक अद्र्यारच शिक्षण सोडचें पडलें. ते शिवाय दुसरो उपाय उरूंक नाशिल्लो राधामावशेकडे.

राधामावशेच्या आश्रया खाला आतां एक ब्रह्मचारी, व्हडल्या पुतालीं सात भुरगीं, सून, दोन रांडाव धुवो आनी तांच्योय दोन धुवो वावरूंक लागल्यो.

राधामावशी बेकार बशिल्ली म्हाका केन्नाच दिसली ना. तिणें आतां एक लघुद्योग सुरू केलो. आयज सरकारा कडल्यान सब्सिडी घेवन लघुद्योग चलयतात. पूण ते लुकसाणात पडटात. राधामावशेलो पापडां धंदो मात केन्नाच लुकसाणांत पडलो ना. श्रमदेवतेची भक्तिभावान आराधना केली जाल्यार खंयचोय धंदो लुकसाणाक पडना, हें गुपीत

राधामावशेक खबर आशिल्लें. एके रातींत गिरेस्त जावपाचीं सपनां पळोवप्यांचेर मात लक्ष्मी केन्नाच प्रसन्न जायना.

राधामावशेले पापड आतां गोंयांतच न्हय, तर मुंबय, अहमदाबाद, दिल्ली, कलकत्ता आनी त्याय फुडें, पुर्तुगाल, आफ्रिका, इंग्लंडांतय पावताले.

हिन्दूंल्या लग्नाकार्याक राधामावशेले पापड आसत जाल्यार तें कार्य मोठें. मुंज वा कसल्याय देवकार्याक राधामावशेल्या पापडां बगर जेवणावळींक लज्जत येनासली. खूबशे हिन्दू गोंयकार राधामावशेक पापडांक लागून वळखताले. राधामावशेक पापडांची ऑर्डर, उणेच एक म्हयनो तरी आदींच दिवची पडटाली. ऑर्डरी पुरायेक व्हरतां व्हरतां राधामावशेक नाका शेवट जातालो. पूण रातीचे दीस करून उतराक नेगार जायनासली ती.

राधामावशी आनी गिरायक हांचेमदले संबंद जिवाळ्याचे आशिल्ले. हिन्दूंमदेंच न्हय, तर किरिस्तांव घराब्यांमदेंय राधामावशेले 'पापडे' फामाद आशिल्ले. भायल्या देसांनी राधामावशेले 'पापडे' फामाद केले ते किरिस्तांव भावांनी. आयज पापड फामाद करपाक उद्देगपतींक टिवीचेर जायराती दिवंच्यो पडटात. ते पासत तांकां लाखांनी खर्च येता. पूण राधामावशेल्या पापडांची इज्जत आनी लिज्जत इतली मोटी, की तिका जायरातबाजी करपाची गरज केन्नाच पडली ना.

राधामावशेल्या ह्या पवित्र धंद्याक लघुद्योग म्हणचे परस कुटिरोद्योग म्हणप योग्य!

राधामावशेल्या विशाळ घरांत राजांगण आसा. चारयवटांनी पडव्यो आनी मदें आंगणांत बांदिल्ली तुळस. तुळशी भोंवतीं भुरग्यांक खेळपाक मेकळी सुवात शेणान सारयल्ली.

मातयेच्यो वणटी देव-देवतांच्या पायंजेलांनी सजयल्ल्यो. घरभर उजवातींच्या धुंवराचो घमघम आनी फुलांचो परमळ. सगळेंच वातावरण शांत आनी पवित्र! ह्या पवित्र वातावरणांत मागीर राधामावशी आनी

तिगेल्यो वांगडी बायलो, 'एकसाथ सुरूऽऽ... कर'च्या थाटांत कार्यरत जाताल्यो. लाटणीं-लाटफळीं मांडून दवरलेलीं आसतालींच. राधामावशेचो आदेश मेळटांच घे मागीर तांचो खटखट आनी फटफट. तातूंत राधामावशेचो तोंडपट्टो चालू जाल्ल्यान शांतताय भंग आयलोच! पापड लाटपी भाड्यान हाडिल्लीं कामेऱ्यां नाशिल्लीं. सगळींच घरचीं आनी राधामावशेच्या हाता खाला त्रेनाद जाल्लीं. म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार, राधामावशी कितलीय बडबडली जाल्यार कोणाक उबगण म्हणटा ती येनासली. ती बडबड मायेमोगाची आनी गोड उतरांची आशिल्ल्यान, सगळ्यांक आयकन आयकनशी दिसताली.

भाशा-कसल्याय दर्जाची आसूं मागीर ती. कोणाच्या मुखांतल्यान भायर पडटा ताका चड म्हत्व आसता.

आयज शिक्षणाचो प्रसार वाडला. तरणे-तरणाट्यो उच्च शिक्षण घेवन पदव्यांकार जाल्यात. खोशेची गजाल. पूण हे पदवेकार जेन्ना हजार-देड हजार रूपयांचे सिर्वीसे खातीर हांगा-थंय हेडटात, तेन्ना म्हाका अशिक्षीत आनी हांसत्या चेऱ्याची राधामावशी दोळ्यांकडे येता. शिक्षीत गांवठी मॅडमी परस, पुरूशार्थ गाजोवपी राधामावशी म्हाका कितलेतरी पटींनी स्रेश्ठ दिसता.

ही गजाल फकत एके राधामावशेची न्हय. अशो कितल्योशोच राधामावशो त्या तेंपार हांवें पळेल्यात. आपलो घरकार अवेळार ह्या संवसाराक अंतरलो, ना जाल्यार एकाद्रो बदफैली घरकार खोटलोभर भुरगीं जल्माक घालून तीं बायलेकडे सोडून आपूण रांडेकडे वचून पडटालो. हेंय हांवें म्हज्या भुरगेपणांत पळेल्लें आसा. असले प्रसंग चड करून मध्यम वर्गीय बायलांचेर येताले. त्यो मागीर आपल्या भुरग्यांक जिवंत थेवन वाडोवपा खातीर, दिसरात काबाडकश्ट करताल्यो. कोणागेर रांदपिणीचें काम कर, कोणालीं आयदणां घास, कपडे उमळ, असलीं हलकीं फुलकीं कामां करून आपल्या भुरग्यां-बाळांक वयर काडलीं तेन्नाच्या कश्टाळू राधांनी. आयज कितलेशेच दोतोर-इंजिनियर आनी

सरकारी अधिकारी नावलौकीकाक येवन निवृत्त जाल्ले आसात. तांचें हें श्रेय तेन्नाच्या राधामावशे सारकिल्ल्या गरीब आवयांकच दिवंक जाय.

समाज सदांच पुरूशांच्योच व्हडविको गायता. पूण तांच्या व्हडपणांत तांच्या आवयांचो त्याग लिपिल्लो आसा, हें कोणाक खबर नासता.

हे आमचे राधामावशेचें लक्ष फकत आपल्या कुटुंबापुरतेंच मर्यादीत नाशिल्लें. गांवांत अशीं कितलीं तरी कुटुंबां आशिल्लीं जांकां ह्या ना त्या कारणान राधामावशेची याद आयल्या बगर रावनासली.

राधामावशेल्या घराकुशीक आंबाड्यांचें एक झाड आशिल्लें. अशें दिसून येतालें की ह्या झाडाचेर गांवांतल्या पुराय लोकांचो हक्क जावन आसा. चड करून हिन्दूंचो. राधामावशेनच दिल्लो तांकां तो हक्क. फाल्यां दिवाळी म्हणल्यार आयज झाडावेले आमाडे अचळय सकयल देंवताले. दिवाळेक आंबाडे कोणाकोणागेर धाडपाचे, हांच्या नांवाची लांबलचक वळेरी राधामावशेकडे आसतालीच. ते भायर प्रत्येक वर्सा आनीक एक-दोन नांवाची भर पडटाली. दिवाळेक राधामावशेले आंबाडे येतले, हाची पुराय खात्री वळेरेंतल्या वांगड्यांक आसताली.

मनशां कशीं जोडचीं, हें राधामावशेक कोणें सांगपाची गरज नाशिल्ली.

आयज ती हयात ना. पूण नांवाची वळेरी व्हडल्या नातवान सांबाळून दवरल्या. वर्सान वर्स दिवाळेक आंबाडे, न चुकतां खंय पावंक जाय थंय पावतात. मूळचें झाड ना म्हूण कितें जालें, ताच्यो खांदयो वर्सान वर्स वाडून आंबाड्यांची गरज भागयताच. लोकांकय दिवाळेच्या दिसा राधामावशेची याद जालेबगर रावना.

म्हाका एका सुभाषिताची याद जाता, शैलेशैलेन माणिक्यं, मौक्तिकं न गजे गजे। जने जने न सौजन्यं, चंदनं न वने वने।। ह्या संवसारांत बऱ्यो वस्तू आनी बरीं मनशां सगळेकडेच सांपडनात. आयज ह्या लोकशाय राज्यांत अस्तुरी स्वातंत्र्य, अस्तुरी हक्क, अस्तुऱ्यां खातीर खास सुवातांची राखण बी ह्या सगळ्यां खातीर उलोवपां, भासाभास आनी झगडीं-केस्तांवां सतत चालू आसतात. पूण अशें करून कोणाक कांयच

मेळिल्लें ना. तें कश्टभक्तांनीं खेंचून-हिस्कावन घेवपाचें आसता. हांगा कश्टांक मोल आसता, भिकेक न्हय. कश्टभक्तांमदें स्त्री-पुरूश असो भेदभाव आसूंकच शकना. जणेकलो कश्टभक्त हो प्रेरणादायक आसता. तांची प्रेरणाच समाजाक जागृत आनी चैतन्यमय करून सोडटा...आयज राधामावशेचीं सगळीं नातरां बऱ्याक पावल्यांत. कोण इंजिनियर, कोण बँकेचो अधिकारी तर कोण वेपारी.

राधामावशेन आपल्या धुवांक लग्न कशीं करून दिलीं, तें वयर आयलांच. ते भायर धुवांल्या आनी पुताल्या धुवांचींय घालून करून लग्नां लावन दिलीं. नातवांचो थोडोभोव हातभार लागूं मागीर.

राधामावशेले नातू आतां फ्लॅटांनी रावतात, गाडयांनी भोंवतात. चार पयशेय गांठीक बांदून आसात. पूण म्हज्या सारकिल्ल्याक असले गिरेस्तकायेचें मोल शून्य!

गाडयो कळमेतात, सिमेंट-कॉंक्रेटचीं रंगयाळीं घरां आनी फ्लॅटूय चड तेंप तशेच गडगंज उरनात. सगळ्यांकच मर्यादा ही आसताच.

पूण कुटुंबांतल्या जाणट्यांनी फुडले पिळगेक दिल्ले सुसंस्कार, वांगड्यांनी दोळ्यांत तेल घालून तिगोवन धरलें जाल्यार, तें कुटूंब नावलौकीकाक आयले बगर रावना.

राधामावशेन आपली देख आपले सुनेक दिली आनी व्हडले नातसुनेन आपले मांयकडल्यान फुडें चलयली.

खंयच्याय एका कुटुंबान संपादन केल्ली गिरेस्तकाय तात्पुरती आसूंक शकता आनी ती खंयचेय वगतार नश्टय जावंक शकता. पूण एकदां आत्मसात केल्ले सुसंस्कार कुटुंबांतल्या वांगड्यांत ज्या प्रमाणांत रिगून उरतात, ताचेर सगळें निंबून आसता.

आयज आमचेकडे सगळें आसा, पूण उणाव आसा तो सुसंस्कारांचो आनी ते दिवपी राधामावशांचो. म्हजो भावार्थ सर-मॅडमींचेर ना. आसा तो राधामावशांचेर. आसूं त्यो मागीर अशिक्षीत!



# विठूशेट

जातीन शेट (सोनार) आंगान शिरपुटो. घराकडे धवेंफुल्ल धोंपरामेरेन मोटवें धोतर. माथ्यार बोटभर गांठ मारिल्ली शेंडी. घराभायर वतना शेंडी काळे तोपये पोंदा सुरक्षीत धांपून दवरप. धवशा खोमसाचेर मळबा कोराचो निळसो कोट. गांवांत भोंवपाचें जाल्यार सायकलीर बसून वारें कशें पळप. गांवांत सायकली वेल्यान भोंवतना आंगार बानियन पुरो जातालें. म्हापशां-मडगांव सारक्या शारांनी वचपाचें जाल्यार मात गांवचो विठूशेट 'विठलराव' जावन वतालो.

गांवांतले वयस्क आनी प्रतिशठीत ताका विठूशेट म्हूण पाचारताले. घरच्च्यांचो आनी शेजारी पाजाऱ्यांचो तो बाप्पा जावन आशिल्लो. हांव मात ताका आपुलकायेन विठूमाम म्हणटालों आनी ताका तें आवडटालेंय बी!

सुर्वेक विठूमामची आनी म्हजी तितली बरी वळख नाशिल्ली. विठूमाम व्हडले गोंयचो आनी हांव आगशीचो! तरी आमची तोंडवळख आशिल्लीच. हांव कोण, कोणालो आनी कितें करतां हाची ताका इल्ली लेगीत खबर नाशिल्ली. पूण हांव मात ताका व्हडले गोंयचो एक मानेस्त आनी सुसंस्कृत मनीस म्हूण वळखतालों. आगशी-व्हडले गोंयचे हिन्दू-किरिस्तांव ताका एक बरो प्रामाणीक शेट म्हूण वळखतालो.

विठूशेट केन्ना जल्मलो आनी ताचो सर्गवास केन्ना जालो हाचो विचार करून कांयच फायदो ना.

मनीस तशे जल्मतात आनी मरून वतात. फाटल्यान उरिल्ले गेल्ल्यांक विसरून वतात. पूण कांय मनीस अशे आसतात की म्हज्या सारकिल्ले तांकां विसरतलो म्हणल्यार विसरूंक शकनात.

विठूमाम म्हजे यादींतलो अजून पसून वचूंक ना. ताचें चित्र म्हज्या मनांत अजून ठाण मारून बसलां.

एक दीस विठूशेटीकडे प्रत्यक्ष उलोवपाची संद मेळ्ळी. ते वेळार विठूमाम आपल्या शॉपार बसून भांगरा वस्त करूंक गूंग जाल्लो. ताचो मांड (कार्यशाळा) बाजारांतले एके चाळीच्या कोनशाक आशिल्लो. एका ल्हानशाच कुडांत मांड घालून भांगरावस्ती घडयतालो विठूमाम.

एक दीस हांव म्हज्या इश्टाक घेवन विठूशेटी म्हऱ्यांत गेलों. म्हजें काम विठूमाम करतलोच हाची म्हाका पुराय खात्री आशिल्ली. म्हज्या इश्टाक आपल्या नांवाचो तेर्म करूंक जाय आशिल्लो. तो करपाक कोणय जाण्टो मनीस साक्षीदार म्हूण ऑफिसांत अधिकाऱ्या मुखार हाजीर रावपाची गरज आशिल्ली. ताका लागून हांव विठूमामा म्हऱ्यांत गेल्लों. म्हजो इश्ट दोंगरेवयलो, हांव आगशीचों आनी विठूमाम व्हडले गोंयचो. वळखीचें गणीत जुळपाक म्हा- कठीण आशिल्लें. साक्षीदार म्हज्या इश्टाच्या बापायचे इदादीचो आसूंक जाय आशिल्लो. विठूमाम ते इदादीचो आशिल्लो म्हण हांव इश्टाक घेवन ताचेकडे गेल्लों.

विठूमाम आपल्या कामांत बुडून गेला तें पळोवन आमी दोगूय इश्ट शॉपाच्या भायल्या खांब्यांच्या आडसाक उबे रावले.

विठूमाम कार्यांत गूंग जावन गेल्लो. मुखार आगटें आशिल्ले, तुतयो आनी फुंकणी आशिल्ली. हातांत नळी घेवन ताणें ती फूंक फूंक फुंकली. मागीर आगटयांतलो भांगरा कुडको काडून, ऐरणेर दवरून ताका ठोक ठोक ठोकलो. ताची ती ठोका ठोकी बरोच वेळ तशीच चालू उरली. पयलीं ठोका ठोकी आनी उपरांत ठुकठुकी. ही ठुकठुकी सादीसुदी नाशिल्ली. शांत वातावरणांत ती आपल्या कर्णमधूर संगीताचे सूर मिसळटाली. म्हजे खातीर तें संगीत आशिल्लें आनी इश्टा खातीर

शेटकाम. ठोकाठोकीचें काम. कारण तो कांसार आशिल्लो. विठूमाम सोनार. दोगूय कलाकार आशिल्ले. दोगांयमदें भेद इतलोच आशिल्लो की एकटो नळी फुंकतालो आनी दुसरो भातो! कलेचो आस्वाद स्वता घेनासतना दुसऱ्याक दिताले ते दोगूय.

बरोच वेळ विठूशेटीन आमचेकडे तकली वयर काडून पळेलें लेगीत ना. आमी ताका लागून तिश्ठतात हें ताच्या ध्यानीमनी नाशिल्लेंच.

'विठूमाम' हांवें भीत भीत आनी नमळायेन उलो मारलो.

'विठूमाम' हें उतर ताका नवें आशिल्लें. कारण आयज मेरेन ताणें बाप्पा, शेट, विठू असलींच उतरां आयकल्लीं ताचे बाबतींत! पूण 'विठूमाम' हें उतर ताका गोड लागलें आसूंये! ताणें फाटीं वळून पळेलें. पळे जाल्यार दोन युवक उबे आसात. विठूशेट स्प्रिंग कसो उसळ्ळो आनी प्रस्न केलो - "कोण तुमी? कोणाक सोदतात? आनी कितें जालें? सांगात बेगीन, म्हाका वचूंक जाय."

"विठूमाम तुमचेकडे आमचें इल्लें काम आशिल्लें."

"काम, कसलें काम. उलय उलय बेगीन." विठूमामान आकांतून प्रस्न केलो.

"विठूमाम, हो म्हजो आमीग."

"मागीर हांव कितें करूं?" विठूमामान गडबडीन प्रस्न केलो.

"हो आपलो तेर्म करूंक सोदता. तुमची आसिनातूर मेळ्ळ्यार उपकार जायत." हांवें नमळायेन जाप दिली.

"हांव हेका खंय वळखतां तर? वळखनासतना आसिनातूर कशी दिवं?" विठूशेटीचो रोखठोक प्रस्न.

"विठूमाम, तुमी म्हाका वखनात?" विठूशेटीन आपले दोळे म्हज्या दोळ्यांचेर थिरायले. दोन-तीन सेकेंदांत ताका म्हजी वळख पटली.

"तुजेर विश्वास दवरूं? बरें दवरलो. चल नायकागेर. मात्शें घराकडें नुस्तें दिवन येतां." विठूशेटीन धडाधड शॉपाचें दार बंद केलें. सायकलीर बसून बाजारावटेन गेलो आनी खिणभरांत नाच्च जालो.

नायक नांवाचो अधिकारी आपल्याच घरांत तेर्म करपाचें काम करतालो. आमी दोगूय चलत चलत नायकागेर गेले. आमी पावचे पयलींच विठूशेट नायकागेर हाजीर! घरच्यान येतना तोपी माथ्यार दवरूनच आयिल्लो विठूशेट. कारण काम सरकारी कचेरेंत आशिल्लें.

विठूशेट आतां सरळ नायका सामकारा वचून उबो रावलो आनी नेटान उलयलो – "तेर्म करूंक जाय."

"कसलो? जल्माचो, लग्नाचो काय मरणाचो?" अधिकारी सडसडीत उलोवन मेकळो जालो.

"जल्माचो." विठूशेटीन शांतपणान जाप दिली.

"कोणाचो?" अधिकाऱ्यान गरजेभायर इल्लो राग उक्तायलो.

"म्हजो न्ही रे पापया, हाचो." विठूशेटीन म्हज्या इश्टाक बोट दाखयलें.

"हो कोण, खंयचो हो?"

"सांग, सांग तूं. हांव आसतना कसलोच भंय ना तुका." विठूशेटीन म्हज्या इश्टाक धीर दिलो. हो धीर मंत्री दितात तसलो नासलो. तो विश्वासाचो आसलो.

"हांव दोंगरेवयलो." इश्टान रडकुरें तोंड करीत म्हणलें.

"विठू व्हडले गोंयचो आनी तूं दोंगरेवयलो. अशें कशें जातलें? दोंगरेवयलो कोणूच साक्षीदार मेळ्ळोना तुका? आमकां बुचकळ्यांत कित्याक घालतात रे तुमी लोक?"

अधिकारी पयलीं तिडकलो आनी उपरांत गरंजलो.

"कित्याक? दोंगरेवयलोच कित्याक जाय तुका साक्षीदार? हांव वळखतां तेका. तेजे सठयेक हाजीर आशिल्लों हांव. तूं तेजो तेर्म करून उडय. हांव सांगतां म्हूण कर. चड जाणवायो नाकात. जोर पेजेक रडटा तें जाणां हांव." अशें म्हणत विठूशेटीन किरवटीचे दोन रुपये काडून मेजार थेयले आनी थंयच्या थंयच दोन-तीन नेटान पासयो मारल्यो. विठूशेटीक राग येतकच तो तशेंच करतालो.

विठूशेटीचो अवतार पळोवन अधिकारी दचकलो. खरें म्हणल्यार विठूशेट आनी अधिकारी एकामेकाक खूब बरे वळखताले. ते भायर विठूशेट म्हज्या इश्टाच्या बापायचे पिरायेचो आशिल्लो. तेर्म कार्य पुराय जावंक इतलेंच पुरो आशिल्लें. पूण अधिकाऱ्याक दुडू आनी भाव दोनूय वांगडा खावपाची कूय मारिल्ली. विठूशेट नाशिल्लो जाल्यार अधिकारी म्हज्या इश्टाकडल्यान पांच रुपयांची नोट घेतलोच आशिल्लो.

अधिकारी आतां फुडें कांयच उलयलो ना. म्हज्या इश्टान दिल्ली सगळी म्हायती मोन्यानी बरोवन घेतली. तेर्माचें कार्य विठूशेटीचे कृपेन सोंपेपणान पुराय जालें. हे घडणुकेवेल्यान विठूशेट म्हज्या स्मरणांत कायमचो उरलो.

विठूशेटीचो आनी म्हजो लागसार आनी एके घडणुकेक लागून घडून आयलो. हांव म्हज्या गांवांत दुसरे एका सोनार इश्टाकडे चकाटां मारीत बशिल्लों. इतल्यान विठूशेट आपल्या कसल्या तरी कामा खातीर थंय आयलो. आपलें काम सोंपोवन तो थंयच्यान ताकतिकेन गेलो.

तो थंयच्यान गेल्या उपरांत म्हाका शॉपाच्या दाराकडे मोलादीक थिकां शिंपडिल्लीं दिसलीं. तीं थिकां विठूशेटीलींच आशिल्लीं हातूंत इल्लोय दुबाव नाशिल्लो.

म्हजो सोनार इश्ट कामांत गुंतला तें पळोवन हांवें तीं थिकां वेंचून एकठांय केलीं. सोनार इश्टाक कळूंक दिलें ना. बेटोच वाद जावंक नाका आशिल्लो म्हाका.

थोड्या वेळान विठूशेट धांपेत धांपेत शॉपा दारांत आयलो. ताणें आपली सायकल धडेक तेंकयली. घामाघूम जाल्लो विठूशेट शॉपांत भितर सरूंक सोदतालो. हांव ताचीच वाट पळेत भायल्या खांब्याक तेंकून उबो आशिल्लों. विठूशेट वयर सरचे आदींच सगळीं थिकां हांवें ताच्या हातांत सोंपयलीं आनी थंयच्यान वचूंक ताका हातांनी खुणायलो.

विठूशेटीन कृतज्ञतायेन म्हज्या चेऱ्याकडे खीणभर नदर मारली आनी तो थंयच्यान सटकलो. ताचें काम जाल्ल्यान ताका फाटल्यान वळून पळोवपाची गरज नाशिल्ली.

विठूशेट लहरी आशिल्लो. ताच्या कोटाच्या बोल्सांनी मोलादीक थिकांच्यो पुडयो आसताल्योच. कोणूय म्हजे सारको वळखिचो आनी विश्वासांतलो भेटल्यार ताणें बोल्सांतली थिकांपुडी मुजरत भायर काडची आनी म्हणचें, ''हीं पळे, हांचो तुज्यान वालोर करूं येता? येता जाल्यार सांग पळोवया, कितल्याचे आसतले हे खडे!'' सामकाराचो मनीस खडे पारखी खंय आसतालो? तो निरूत्तर जालो म्हणटकीर विठूशेटीन वेडायल्ले भशेन तोंड एँऽऽ! करून खड्याचें मोल स्वता सांगून, आपलें समाधान करून घेवचें.

विठूशेटीचो वेव्हार सामको चोख आसतालो. ताचें उलवपूय सडेतोड आसतालें. आपल्या गिरायकाकडे केन्नाच दाखय-लिपयची भास चलनासली. विठूशेटीन पयशे आनी भांगर खालें, अशें हांवें खंयच्याच गिरायकाकडल्यान केन्नाच आयकलेंना.

विठूशेट गोंयचो खानदानी शेट आशिल्लो. ताचीं गिरायकांय चडशीं खानदानीच आसतालीं. गांवांतल्या प्रतिशठीत आनी वजनदार घराण्यांत ताचें येवप-वचप आनी उठप-बसप आसतालें. पणजी, मडगांव आनी म्हापसा सारक्या शारांनी विठूशेटीच्यो चड वळखी. थंयच्या लोकांक तो जाय जायसो दिसतालो.

विठूशेटीचो एकेक सभावगूण मजेशीर आसतालो. तो शारांत वचपाक घरांतल्यान भायर सरतालो. त्या तेंपार रस्त्यावेल्यान कामिज्यांव घोळटाले. विठूशेट खंयच्या शारांत पयलीं वचचें, हें थारायनासतना बाजारांत वचून उबो रावतालो. ज्या शारांत वचपी कामिज्यांव पयलीं मेळटा तातूंत ताणें चडचें. एका शारांतल्यान दुसऱ्या शारांत वचून घरा परत येवचें.

विठूशेट सरळ मनाचो मनीस आशिल्लो. ताका लागून भुरग्यांतलीं भुरगेपणांय ताच्यांत दिसून येतालीं. अशें आसलें तरी ल्हानांत ल्हान आनी व्हडांत व्हड जावन समाजांत वावरप आवडटालें ताका. जातीन सोनार आसुनूय उथळपणाक थारो नाशिल्लो ताच्या जिवितांत. 'नळी फुंकिली सोनारें, इकडून तिकडे गेलें वारें' हे उक्तीप्रमाण वयलेतरांचें

वागप ताका पसंत नाशिल्लें. सामकाराक केदोय व्हडलो मनीस उबो रावन बातां मारूंक लागलो आनी त्या बातांनी 'राम' नासलो तर 'हॅ-हॅ' करून ताका वाटेक लावपाचें काम विठूशेटीक बेसबरें जमतालें.

आयकुपा सारकें कितेंय आसलें जाल्यार मात, विठूशेट तोंड 'आं' करून, कान उक्ते दवरून आनी मन लावन आयकुचें ताणें.

फुकटीं चकाटां, बल्कावांतल्यो गजाली आनी वाचाळपणाक सुवात नाशिल्ली ताच्या राज्यांत.

विठूशेटीलो गृहस्थाश्रम आनी वृध्दाश्रम पळोवपाचें भाग्य म्हाका लाबलें. गृहस्थाश्रमाच्यो लागणुको सोंपता सोंपता म्हणल्यार ताणें वृध्दाश्रमांत केन्ना पावल दवरलें हें कळ्ळेंच ना म्हाका. म्हातारपणांतय चैतन्यमय जिवीत जगलो विठूशेट. म्हातारपणांत बरो ना जावन हांतरूणार पडलो विठूशेट अशें केन्ना जालें ना.

जबाबदार कुटुंबवत्सल मनीस सदांच जापसालदारकेन वागता. विठूशेटय तसोच वागतालो. तो प्रामाणीक आसलो. ताचें प्रत्येक उतर म्हणल्यार अस्सल भांगराचो कुडको. ताकाच लागून खाते-पिते लोक ताचेर पुरायेन विश्वास दवरून आसताले. त्या विश्वासाक वेर वचूंक दिवप हें व्हड पाप, अशें मानतालो विठूशेट!

हेरां परस विठूशेटीलें शेटपण उजू चलतालें. तरी पूण घराबो व्हडलो आशिल्ल्यान संवसाराची घसरगुंडी जातालीच. शिवाय तो संतवृत्तीचो आशिल्ल्यान देव-धर्म मानतालो. 'अतिथी देवो भव', 'साधुसंत येती घरा, तोची दिवाळी दसरा' हे शिकवणेंचे संस्कार जाल्ल्यान, वर्सभर सोयरेधायऱ्यांची वर्दळ आसतालीच घरांत. पूण सतत काळजी, धडपड आसुनय कपलार केन्नाच आटयो पडूंक दिल्योना विठूशेटीन.

आपल्या भुरग्यांक फुडें शेटपण उपकारा पडपाचें ना, हें ताच्या लक्षांत आयलें. ताका लागून, आपल्या भुरग्यांक म्हाविद्यालयीन शिक्षण दिवन तांकां नांवलौकीक मेळोवन दिवचो, अशें ताका दिसूंक लागलें. कशेंय जावं मागीर, विठूशेटीच्या मनासारकें घडोवन हाडलें ईश्वरान.

ताचो व्हडलो पूत वकील जालो. पूण बापायच्या संवसाराक हातभार लावंच्या बदलाक तो सोतंत्र सैनीक जालो. पूण विठूशेटीक ताचें दुख्ख जालें ना. ताचें हड्डें गर्वान फुल्लें.

विठूशेटीक सगळे चार पूत. व्हडल्या फाटलेय दोन पूत उच्च शिक्षण घेवन व्हडलीं पदां घेवन कार्यरत रावले.

आतां विठूशेट भांगर पेटपी शेट उरलो ना. उच्च विद्याविभुशीत पुतांचो बापूय जावन, श्रेश्ठी म्हूण समाजांत मानान वावरूंक लागलो.

प्राप्त परिस्थितींत सुखी जिवीत कशें जगचें, ही कला विठूशेटीन आत्मसात केल्ली.

नाटक, भजन आनी किर्तनांत विठूशेट जितलो रमतालो, तितलो गांवांत आनीक कोणूच रमनासलो. सरस्वती पूजना निमित्त विठूशेटील्या घरांत पूजा जाल्या उपरांत किर्तन जातालें. त्या निमतान घरांत सोयऱ्यांची हीऽ गर्दी जाताली. विठूशेट जेवन-खावन सोयऱ्यां वांगडा किर्तन आयकूंक बसतालो. एकदां ठाण मारून किर्तन आयकूंक बसलो म्हणटकीर मदेंच उठप म्हणजे पाप, अशें ताका दिसतालें.

गांवांत आनी गांवाभायर जंय-जंय नाटकां पळोवपाची संद मेळटाली, थंय थंय वचून मेळटा ते सुवातेर बसकण मारी. ताका बसपाक कदेलाची गरज पडनासली. नाटक पळोवंक मांडी मोडून तर केन्ना केन्नाय पांयें पसरून बसतालो विठूशेट!

ताची नाटक पळोवपाची रीत देखदिणी आसताली. एकदां नाटक पळोवंक बसलो रे बसलो, तें काबार जायसर माटोव सोडिनासलो विठूशेट. वन्दे मातरम् गीत जाले उपरांतच आपलें धोतर फाफडीत बसकण सोडटालो.

विठूशेटीलें कसलेंच काम पोकें नासतालें. जें कितें करता, तें धड आनी मन लावन करचें, अशें ताका दिसतालें.

विठूशेट शूर-वीर आशिल्लो. केदेय व्हडल्या जाण्ट्या मनशाचो भंय ताका केन्नाच दिसलो ना. पूण तो भितालो ल्हान भुरग्यांक. नाटकाच्या

माटवांत भुरगीं बोवाळ करतालीं. तांकां तापोवन काडप विठूशेटील्या तत्वांत बसनासलें. ताका लागून भुरग्यांचो बोवाळ ना थंय वचून बसकण मारतालो.

विठूशेटीलें नाटक पळोवप म्हणजे नाट्य देवतेचें ध्यान करप. विनोदाच्या वेळार प्रेक्षक खळखळून हांसताले. करूणप्रधान प्रसंगांचोय प्रेक्षकांचेर प्रभाव पडटालो. पूण विठूशेट मात स्थितप्रज्ञ भूमिकेंतल्यान नाटक पळेतालो. नाटक पळेतासतना ताचें तोंड सदांच उकतें आसतालें. एकदां तोंड उकतें करून विठूशेट नाटक पळोवंक लागलो म्हणटकच तो नाट्यरसांत खोलायेन बुडून उरतालो. प्रत्येक नटाच्या चेऱ्या वयले हावभाव, तांच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्ल्या कलायुक्त उतरांचो मनसोक्त आस्वाद घेवचो. बरें लागता तें घेवचें आनी बाबत तें भायर मोखचें. कोणाचेर टिका करप ना.

गांवांत दरवर्सा सप्ताह जातालो. विठूशेट गांवचें कार्य तें आपलेंच म्हूण वावुरतालो. आनी तो सगळें आपल्या आंगार घेतालो म्हणूनच सगळें कार्य उत्साहदायक घडटालें, अशें म्हाका तरी दिसून येतालें. पाराची वेवस्था, मंदिराची साफसफाय, सोयरेधायऱ्यांक येवकार दिवपाक तो तत्परायेन वावुरतालो. विठूशेटीलें सगळेंच उत्साहदायक. ताचें सगळें जिवीतच चैतन्यमय आशिल्लें.

सप्ताहाच्या दिसांनी विठूची विठ्ठलभक्ती उफाळून येताली. सगळोच विठू विठ्ठलमय जातालो.

रातीचीं बारा वरां मेरेन लागसारच्या गांवगिऱ्या वाठारांतले पार वाजत गाजत येवन वताले. व्हडले गोंयच्या लागसारचो वाठार विठ्ठलाच्या नांवान आनी टाळ-पखवाजाच्या कर्णमधूर आवाजान दुमदुमतालो.

देवकार्याचे बाबतींतय विठूशेट पक्को वेव्हारी आसलो. सप्ताहाच्या निमतान कोणाकोणाले आनी खंय खंयचे पार येवन गेले, हाचो हिशेब विठूशेटीकडे आसतालो. शेजारच्या गांवांत जेन्ना सप्ताह जातालो,

तेन्ना आपल्या गांवांतलो शीण भागोवपा खातीर, आपले ताकती प्रमाण पार घेवन त्या गांवांत वतालो. दोन सायकली एकठांय जोडून सांगाड्याचेर मखर तयार करून, तें मखर फुलांनी सजोवन तातूंत विठ्ठलाचें पायंजेल दवरलें म्हणटकच पाराची तयारी पुराय जाताली. सात-आठ पोरांटे आनी तरणाटे, पेट्रोलमासाच्या उजवाडांत भजन करीत, एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वतालें विठूशेटीले भजनपंगड!

एक दीस विठूशेटीक ताचें हुतहुतेंपण नडलें. सैमदेवतेन ताचो घात घेतलो. कसल्या तरी कामाक तो माड्डोळा गेल्लो अशें हांव आयकतां. एका वोल्तार खंय ताका अपघात जालो आनी तातूंतल्यान ताका मरण आयलें.

विठूशेटीच्या मरणाची खबर कळ्ळी आनी लोक हळहळ्ळे. कोणाचो बाप्पा गेल्लो. कोणाचो विठू गेल्लो. कोणाचो शेट संवसाराक अंतरलेलो तर कोणाचो विठूशेट ना जाल्लो.

विठूशेट आयलो आनी गेलो. गांवांतले हेर कितलेचशे लोक येवन वतात तशे.

लोक विठूशेटीक विसरूनय गेले. पूण म्हज्या मनांतलो विठूमाम मात अजून गेलो ना.

विठूमामाली ती बोटभर शेंडी, धवेंफुल्ल बानयेन, धोंपरामेरेनचें धवें पुडवें आनी पोन्नी जाल्ली सायकल म्हजे तकलेंत रिगून बसल्या.

आयज गांवांत सप्ताह जाता, अक्षयतृतीयेच्या निमतान चामुंडादेवीची लालखी भायर सरता, पावणीबिवणी सगळें जाता पूण वांगडा विठूशेट नासता.

विठूशेटी फाटल्यान गांवांत भायल्यान पार येवपाचें बंद जालें. तागेल्या घरांतलीं किर्तनां थांबली आनी भजनांय थांबलीं. उरलां तें बाजारांतले चाळींतलें रिकामें बंद शॉप!

ह्या बंद शॉपांतल्यान भायर पडिल्लो, तुतयाचो तालबद्द आनी संगीतमय आवाज म्हज्या कानपटलाचेर आपटल्ल्याचो भास म्हाका जाता.



# मनाक चटको लावन गेल्लो भाऊ सरदेसाय

**वा**र आशिल्लो आयतार. फेब्रेराची दोन तारीख. 'बिम्बा'चो संपादक दिलीप बोरकार आमगेर आयलो. आयताराचो तो केन्ना-केन्नाय म्हजी खबर घेवंक मुजरत येता.

आयज ताचें मुखामळ दुखेस्त-शें दिसलें. ताणें हातांतलो बिम्बाचो अंक अचळय मेजार दवरून म्हणलें - "भाऊ सरदेसाय गेलो ती खबर आसा तुका?"

आयकून म्हाका कच्च जालें. भाऊच्या मरणाची खबर आयकून म्हाका धक्को बसपाचें कारण, तो आमगेर खूबदां येवन गेला. पयले फावट आयला इंजिनेर म्हणून आनी गेला म्हजी इश्टागत जोडून.

आमचे मदली इश्टागत जमचे आदीं भाऊ दिलीपाचो इश्ट आशिल्लो. दिलीप म्हजो भाव. ताणें म्हजी पयली कादंबरी, 'पोको' भाऊक मुजरत वाचूंक दिल्ली.

भाऊ साहित्यमोगी आशिल्ल्यान, आनी कादंबरी दिलीपाच्या भावान बरयल्या अशें कळिल्ल्यान भाऊन ती कादंबरी अदाशा प्रमाण झडझडीत वाचून काडली. ही गजाल ताणें म्हाका फोनावेल्यान सांगली. ताणें म्हाका हेंय सांगलें की, ताका कादंबरी खूब आवडली. फुडें बरयत राव.

ही तुजी सुरवात आसा. फुडें तुजेकडल्यान निश्चीतच बरें बरप जावपाचें आसा.

तेन्नाच्यान ताणें म्हाका नांवच दवल्लें, 'पोको'. हांगाच्यान म्हजी आनी भाऊ सरदेसायाची इश्टागत सुरू जाली. तो म्हज्या साहित्याचो पक्को वाचक जालो. म्हजें उजवाडाक आयिल्लें कोंकणी साहित्य ताणें मुजरत वाच्चें. आनी आपलो अभिप्राय दिवपाक चड करून रातीचो फोन करचो.

भाऊलें फोनावेलें उलोवपूय मजेशीर आसतालें. नांव सांगिनासतना, हांवें ताका आवाजाचेर वळखचो, अशी म्हजेकडल्यान ताची अपेक्षा आशिल्ली. ताणें फोनार हॅलो-हॅलो करचें आनी म्हजो आवाज आयकुनूय थोडो वेळ मौन पाळचें. उपरांत ताणें आपूण जावन म्हणचें, ''आरे हॅलो-हॅलो कितें करता, वळखूं ना म्हाका? आवाज वळखय आनी सांग पळोवया हांव कोण तो? हांव भाऊ सरदेसाय.'' ताणें आपली वळख आपणेंच करून दिवची आनी खोखो करून हांसचें.

भाऊ प्रमाण खळखळून हांसप म्हाका तेन्ना कशेंच जमलें ना. फुडेंय कितलेय प्रयत्न केले तरी तें म्हाका जमचें ना. तरी ताच्या हांशार हांव हांसलों, हें ताका कळचें म्हुण हांवें हांसपाचो असफळ प्रयत्न केलो.

फुडें-फुडें मात म्हाका ताच्या आवाजाची संवंय जाली. ताणें हॅलो करचें आनी हांवें ताका भाऊ कसो आसा, अशें म्हणचें.

खरें म्हणल्यार दिलीप ताका खूब लागीं आशिल्लो. म्हजे परस चड वेळां तो दिलीपाक भेट्टालो आसूं ये. तरी तो म्हजेकडल्यान दिलीपाची आनी म्हज्या घरच्यांची आस्थेन खबर घेतालोच.

तो म्हजी आनी म्हज्या घरच्यांची खबर घेवपाक फोन करिनासलो. तो म्हजें कसलें ना कसलें साहित्य वाचल्या उपरांत म्हाका उर्बा आनी परबीं दिवपाक मुजरत फोन करतालो.

हांवें हिन्दी लेखक मुन्शी प्रेमचंद हांच्यो कथा अनुवादीत करून उजवाडाक हाडिल्ल्यो. त्यो भाऊक खूब आवडटाल्यो. ताणें फोन करून

प्रत्येक अनुवादीत कथेची तोखणाय केली. भाऊ म्हज्या साहित्याचेर चर्चा करता आसतना, हें अशें आसा, तें तशें आसा म्हुण म्हज्या लिखाणाची तोखणाय करतालो. पूण हें अशें जावंक जाय आशिल्लें, तें तशें जावंक जाय आशिल्लें अशें मात ताणें केन्नाच म्हज्या मुखार उलोवन दाखयलें ना.

म्हाका जे जे सरदेसाय भेटले, तांचेविशीं म्हजें मत्त सदांच बरें उरलां. भाऊ सरदेसाय सोडून आनी दोन-तीन सरदेसायांक हांव लागसारच्यान वळखतां. कोंकणी कवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, मराठी साहित्यीक आनी शिक्षणतज्ञ मनोहरराव सरदेसाय आनी पी. व्ही. एस्., - सरकारी अधिकारी - हे तिगूय म्हाका आदरणीय. कारण ते विद्वान आसुनूय तांची समाजांत वागपाची रीत म्हाका मात्सी वेगळीशी दिसली. ते समाजांत वावुरतना, तांच्या तोंडांतल्यान आरे-तुरेची भास भायर पडिल्ली म्हज्या अणभवाक केन्नाच येवंक ना.

हाचें गुपीत हांवें एक दीस प्रो. मनोहरराव सरदेसायांक विचारलें, तेन्ना ताणीं म्हाका सांगलें कीं ती आमच्या कुटुंबाची रीत जावन आसा.

पूण पयलेच फावट भाऊ सरदेसायान जेन्ना म्हाका फोन केलो, तेन्ना ताणें म्हजें एकेरी नांव घेतलें. पूण हांव मात ताचो मान राखुनूच ताचेकडे उलयतालों. ताका तें मानवलेंना जातलें. एक दीस तो म्हजेर तापलो. म्हणूंक लागलो, ''आरे तूं म्हजेकडें उलयता आसतना 'आमी-तुमी' कितें करता? हांव पंचात्तर वर्सांचो जालां म्हुण जाणां मरे तूं, तुजीं वर्सां म्हाकां खबर आसा. हांव तुका व्हडल्या भावा सारको. हे फुडें तूं म्हाका व्हडल्या भावा सारकोच वागय.

हें आयकून हांव सामको चाट पडलों. खिणांत म्हाका आपलो धाकलो भाव करून सोडपी, व्हडलो भाव पयलेच खेप पळेतालों हांव.

ही गजाल पांच-स वर्सां आदली. मरच्या आदीं कांय दीस पयलीं, आपूण एक्यांयशी वर्सांचो जाल्ल्याची खबर ताणें म्हाका दिल्ली.

भाऊ सरदेसाय म्हणल्यार साक्षात चैतन्य! ताणें जेन्ना आपल्या आयुश्याचीं पचात्तर वर्सां पुराय केल्लीं, तेन्ना हांव एकुणसत्तर वर्सांचो आशिल्लों. असल्या वेळार एक दीस म्हाका ताच्या वांगडा म्हापशां वच्चो पडलो. म्हापशां पावतकच ताणें आपली गाडी गर्दे पसून पयस एका कोनशाक उबी केली. दार उगडून, म्हाका गाडयेंतूच सोडून लागलो तुरू तुरू चलूंक. हांव ताका पळेतूच रावलों.

तो आपलेच तंद्रेंत बरोच फुडें गेलो आनी तेच चालीन परत म्हज्या म्हऱ्यांत येवन खळखळून हांसलो. म्हज्या खांदार हात दवरून चलतां चलतां म्हाका दिसलें, की एक तरणाटो ऐशीं वर्सांच्या म्हाताऱ्याक बळयां ओडीत व्हरता.

भाऊ सरदेसाय, म्हजे दिश्टीन एक नितळ आनी उकत्या मनाचो मनीस. खूब-शे लोक आपले दोश लिपोवन दवरपाचो प्रयत्न करतात. भाऊक मात तें जमानाशिल्लें-शें दिसता.

एक दीस ताणें म्हाका म्हणलें, ''तुका कितें लागता बी?'' अशें म्हणून तो म्हज्या तोंडाकडें पळेत रावलो. म्हजेकडल्यान जाप मेळना तें पळोवन ताणें म्हणलें, ''म्हाका बाबा इल्लें लागता रे!'' अशें म्हणून तो मेकळेपणान हांसलो.

खरें म्हणल्यार हें ताका म्हाका सांगपाची गरज नाशिल्ली. ताका लागता तें आयच्या काळांत प्रतिश्ठेचें आशिल्लें. तरी भाऊच्या सुसंस्कारीत मनाक तें वायट दिसतालें. आपूण कित्येंय तरी वायट करतां, पाप करतां, हाची जाणविकाय जाताली. आपल्या दोशांची जांकां जाणविकाय आसता, ते म्हजे दिश्टीन सामान्य मनीस नासतात.

भाऊ सरदेसायाकडें म्हजी वळख हालींची. ताच्या घराब्याविशीं म्हाका म्हायती नाशिल्ली. स्वातंत्र्य सैनीक काशिनाथ सरदेसाय हांचें नांव लक्षांत आशिल्लें. सुप्रसिध्द गायिका हेमा सरदेसाय ही तांच्या कुटुंबांतली, हेंय हांव आयकून जाणा आशिल्लों.

पूण भाऊ सरदेसायाचो बापूय, पचीबाब हे एक व्हडले समाजसेवक आनी नामनेचे पत्रकार आशिल्ले, हें म्हाका खूब उसरां कळ्ळें. बिम्ब प्रकाशनान पचीबाबांचेर एक पुस्तिका काडिल्ली. लोकार्पणाच्या सुवाळ्याक म्हाका निमंत्रण दिल्लें. हांव मुजरत गेल्लों. थंय उपस्थीत आशिल्ली गर्दी पळोवन हांव अजापांत पडलों. हो पचीबाब कोण? आनी वळखपाळख नासतना म्हाका निमंत्रण पत्रिका कोणें दिली?

उपस्थितांकडें चवकशी केल्या उपरांत कळून आयलें, पचीबाब म्हणल्यार भाऊ सरदेसायाचे वडील.

सगळ्याच आवय-बापायचे गूण भुरग्यांच्या आंगांत येनांत. पूण हांगा मात पचीबाबांतलो खरेलो समाजसेवक म्हाका भाऊ सरदेसायांत दिसून येतालो. तातूंत कसलोच बडेजाव नाशिल्लो. गर्व नाशिल्लो आनी कसलोच सुवार्थूय नाशिल्लो.

आगशी आमच्या घराचें आमी रिनोवेशन केलां. घराचें काम पुराय जाय मेरेन भाऊन घराचेर देखरेख दवरून बांदकामाचो दर्जो राखलो. गरज पडटा तेन्ना भाऊ परवरीच्यान दिलीपाक घेवन व्हडलें गोंयां येतालो. थंयच्यान म्हाका घेवन आगशी वतालो.

भाऊ मुखार आपल्या कश्टांचो आनी दुडवांचो प्रस्न नाशिल्लो. प्रस्न आशिल्लो तो आपणें हातांत घेतिल्लें काम आस्थेन आनी उतराक पाळो दिवन वेळार पुराय करून दिवपाचो.

म्हजे धुवेक नव्या फ्लॅटाची गरज आशिल्ली. ही गजाल भाऊच्या कानार पडली.

इश्टाचे धुवेक फ्लॅट जाय, भाऊ ओगी कसो बसत? ताची जाली धांवपळ सुरू. ताणें आपल्या इश्टांचे मजतीन आठ दिसां भितर फ्लॅट मेळोवन दिलो. तोय योग्य सुवातेर आनी योग्य मोलान. इतलेंच न्हय, फ्लॅट धुवेच्या नांवार करून घेवपाक स्वता वावुरलो. आमकां कसलेच त्रास पडचे न्हय हाची पुराय जतनाय घेतली.

भाऊच्या मरणा आदीं ताणें म्हाका फोन केल्लो. तेन्ना ताच्या उपकारांची हांवें ताका याद करून दिल्ली. तर हो म्हजेच उपकार मानता. हांवें ताका म्हजें काम करपाची संद दिली म्हुण!

भाऊ गेलो तो गेलो, पूण म्हज्या काळजांत घर करून गेलो. आतां रातचे कोणाचेय फोन येतात. पूण फोन उकलचे पयलीं याद जाता ती भाऊ सरदेसायाची, 'वळखलो मरे म्हजो आवाज, हांव भाऊ सरदेसाय उलयतां.'

ह्या आवाजाचो भास म्हाका आतां जाता आनी फुडेंय जायत आसतलो.





## न. ध. बोरकार

पोको, गोंदू, समर्पण, बावकें अश्यो समर्थ कादंबऱ्यो कोंकणीक दिवपी न. ध. बोरकार हांणी चित्रायिल्ल्या व्यक्तीचित्रणाचो एक सुरबूस संग्रह.

बिम्ब प्रकाशन

ISBN 9789384951917




मोल: ₹180